# ॥ धर्मायण ॥





एन्. शिवदास

# धर्मायण

एन्. शिवदास







बिम्ब प्रकाशन

**Dharmayan**
**by**
**N. Shivdas**

# धर्मायण

एन्. शिवदास

**प्रकाशन क्र.७५**



**पयली आवृत्ती**
१७ मार्च २०१०




**छापणावळ**
सुवर्णमुद्रा प्रिन्टर्स
माशेल - गोंय.

**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**दर्शनी चित्र**
गौरीश वेर्णेकार

**प्रकाशक**
उर्बा प्रकाशन
फर्मागुडी,
फोंडा - गोंय.

मोल : रु. २००/-

मानवधर्माची
निर्मिती करूंक वावुरतल्या
सगळ्या निधर्मीक

- एन्. शिवदास

# एन् शिवदास
## हांची हेर बरपावळ आनी फाव जाल्ले पुरस्कार

| | | |
|---|---|---|
| १. | भांगर साळ (कथा संग्रह) | गोंय कला अकादमी-२००४ |
| | | साहित्य अकादेमी-२००५ |
| २. | गळसरी (कथा संग्रह) | कलाअकादमी - १९८२ |
| ३. | महारूख (कथा संग्रह) | कोंकणी भाशा मंडळ |
| | | जनगंगा साहित्य पुरस्कार |
| | | टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशन |
| ४. | बाबू (बालनवलिका) | एन. सी. आर टी १९९९ |
| | | नवी दिल्लीचो राष्ट्रीय पुरस्कार |
| ५. | नकलामी (कादंबरीका) | कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार |
| ६. | भगदाड (मराठी कादंबरी) | तुका म्हणे साहित्य पुरस्कार - महाराष्ट्र |
| ७. | द प्रिन्स (नाटक) | कला अकादमीचो नाट्य लेखन पुरस्कार |
| ८. | पिसांट (नाटक) | कला अकादमी सतींत पुरस्कार |
| ९. | फॉरेन जावंय (नाटक) | |
| १०. | बंड (नाटक) | |
| ११. | झरो जालो म्हासागर (बाल साहित्य) | |
| १२. | देवळां उक्तीं करात म्हणचे कितें (सामाजीक) | |
| १३. | देवळे खुली करा (मराठी) | |
| १४. | हांव पाचवी पास (बाल साहित्य) | |
| १५. | गोड गोड काणी शाली जालें राणी (कोंकणी फार्स) | |




# मनकथन

**म**नांतलें वैचारीक वादळ जेन्ना येता तेन्ना वादळांतल्यान उबे रावतात ते असंख्य प्रस्न! विचारानी विचारिल्ल्या प्रस्नांक जेन्ना जापो मेळनात तेन्ना कितेंय तरी आपल्या समाधाना खातीर मानून ओगी रावप म्हाका आयज मेरेन जमलेंना.

गेल्लीं साबार वर्सां जालीं हेचखातीर हांवें गोंयांतल्या वेगवेगळ्या दिसाळ्यांचे स्तंभ सजयले. हांवें सातत्त्यान आजवेर स्तंभ लेखन केलें. राष्ट्रमतांत मेकळें मळब जावं, वो सुनापरान्तांत मुक्तसार जावं, वो आतांचो स्तंभ मनमंच जावं. तातूंत मराठींतल्यानूय दै. पुढारी वो हेर दिसाळीं जावं. दै. गोमंतक, नवप्रभा, ह्या सगळ्या दिसाळ्यांनी हांवें चडशें बरयलें तें सामाजिक विशयांचेर. तातूंत धर्मीक विशय आयले, जातीभेदा वयले विशय आयले, राजकीय तर आसातूच. गोंयांतल्या मुखेल कुळाव्यांच्या देवळांतल्या चलतल्या जातीभेदांचेर हांवें खूब म्हळ्यार खूबच बरयलें. ते खातीर लोकांक देवळाचे मालकीचे जे वेगवेगळे प्रकार आसात ते समजूंक पावले. म्हाजनी कायदो जो पुर्तुगेज कायदो आनी तो इगर्ज हे ख्रिस्ती धर्मीक संस्थेक लागू जातालो, तोच कायदो गोंयांतल्या देवळांक लागलो. म्हाजनी कायद्यांत जरी हिंदूंच्यो संघटना म्हण देवळांचो उल्लेख केलो तरी देवळांतल्या देवता संबंधान कायद्यात कांय एक सांगलेंना. आनी ताकाच लागून भौसाची म्हळ्यार ब्राम्हणेतरांचीं दैवतां, कुलदैवतां म्हाजनांनी आपणाली खाजगी मालमत्ता कशी मानून हेर कुळावी भौसाक देवळाभायर दवरले.

अशे आनी जायते प्रस्न हांवें लोकांमुखार हाडपाचो प्रयत्न गेल्लीं साबार वर्सां केलो. लोक जागृती जाली. 'देवळे खुली करा' ही चळवळ इतिहासीक थरली. चळवळींतल्यो मागण्यो अजून मानून घेवंक नांत. सरकारान हितसंबंदीयांच्या दबावाक भिवून म्हाजनी कायद्याक हात लावंक ना. देखून ही चळवळ सोंपल्या अशें हांव म्हणचो ना.

गोंयांतल्या गोर-गरीब, दीन-दुबळ्या समाजांत आस्पावता त्या वर्गांतलो एक हांव. म्हाका दिसता आमचो हो फाटीं उरिल्लो समाज फुडें येवंचो, सुदारचो,

सुसंस्कृत, संस्कारी जावंचो, विज्ञानीक दिश्टीकोन बाळगून ताणी आधुनीक समाज म्हण वावर करचो. पूण अशें घडना. समाजांत आयजूय असो एक सनातनी वर्ग आसा, पुरोहीत वर्ग आसा, जात्यांध ब्राह्मण आसा, भाटकार आसा, मदांध धनी आसा. हो सगळो वर्ग हांगाच्या बहुजन समाजाक परत पंदराव्या शेकड्यांत व्हरूंक वावुरता. आनी हें करपाक धर्मीक कर्मकांडांचो बेसुमार वापर करता. देव-देवळां, मठ-मठाधीश ह्यो संस्था आयज वायट बऱ्याची, सुख-दुख्खाची भिरांत घालून आम आदमीक भेकडायत, कर्मकांडांनी घुस्पावन दवरूंक सोदता. पाप-पुण्य, श्रध्दा-अंधश्रध्दा, भक्ती पारायणा, सत्यनारायणा सारके पुजापाठ ह्या सगळ्या माध्यमांतल्यान समाजाक धर्मांध करून धर्मकांडांत घुस्पावन दवरूंक वावुरता.

अश्या वेळार ह्या असल्या तरेच्या धर्मीक कार्यांतल्यान निर्माण जाता तो फक्त भित्रो समाज, दुबळो समाज, लाचार समाज. आपलें फाल्यां कितें जातलें, बरें जातलें काय वायट जातलें ह्या आनी असल्याच भंयगंडांत सदांच लोक जियेतात आनी आपल्या खऱ्या जियेवपाचो आनंद होगडावन बसतात.

निर्भिड जगपाक जाय, आनंदान जगपाक जाय, भंया विरयत जगपाक जाय, चिंतेविरयत जगपाक जाय, मायेमोगान जगपाक जाय हो मंत्र दिवपी हांगा कोण ना. ना बाबा, ना स्वामी वा कोणाले देव आसात ते सगळे भोगी-जोगी बाबा आनी स्वामी. अश्या वेळार हांवें गेल्लीं साबार वर्सां ह्याच विशयाचेर भरपूर लिखाण केलें तांच्या कात्रणांच्यो फायली म्हजेकडेन आसात. त्या कात्रणांमदल्यान हांवें कांय वेचीक अशे प्रसिध्द जाल्ले लेख वेचून काडले आनी तांचें केलें हें धर्मायण.

परत एकदां वाचप्यांनीं वाचिल्ल्याचो उगडास आनी वाचूंक नाशिल्ल्या नव्या वाचप्यांखातीर हे आदले वेचीक लेख पुस्तक रुपान हाडटां.

नवो समाज, ज्या समाजांत आसतलो फक्त मानवधर्म आनी मानवता वो मनीसपण. अश्या नव्या समाजाचो दिश्टावो समेस्तांक जावंचो म्हणून हो एक ल्हानसो प्रयत्न.

**– एन्. शिवदास**

क्लासीक रेसीडेन्सी,
फर्मागुडी, फोंडें-गोंय.
फोन : २३३५३५०
मो.: ९२२६४२०५८३

# मांडावळ

# पोर्तुगालचो राष्ट्राध्यक्ष गोंयांत आयिल्लो तेन्ना

पोर्तुगालचो राष्ट्राध्यक्ष भारतांत आयलो आनी आमच्या गोंयांतय आयलो. अर्थात गोंयांत येवप सभावीक आसलें. गोंयची भोंवडी जर तांणीं करूं नासली जाल्यार भारतांत आयिल्ल्याचें सार्थक जावचें नासलें, आनी पोर्तुगेजांनी साडेचारशीं वर्सां खर्चून निर्माण केल्लें भारतांतलें मिनी पोर्तुगाल आयज कशें आसा तें पळेल्या बगर मारियो सुवारिशाची भोंवडी पुराय जावंक पावची नासली.

मारियो सुवारिशच्या भोंवडेनिमतान आमच्या गोंयांत कांय वृत्तीक आनी प्रवृत्तीक उजाळो मेळ्ळो. तीस वर्सां गुलामपणाचें जूं मानेर नाशिल्ल्यांक मारियोचे भेटेन मातशें जड ज़डशें दिसलें. आनी ह्या निमतान जायत्या जाणांनी मनसोक्त मिरयलें. मिरोवन घेवप्यां मदी गोंयांतले कांय स्वातंत्र्य सैनीक म्हणून घेवपीय महाभाग आसले. आतां हांगां हांव स्वातंत्र्य सैनीक म्हणून घेवपी महाभाग अशें म्हणटां तें इतलेच खातीर की कांय स्वातंत्र्य सैनीकांची जी स्वतंत्र गोंयांतली लाचार प्रवृत्ती हांवें पळयल्या आनी मुक्त गोंयांतलें तांचें वागप पळेतकच म्हाका तरी तांच्या झुजारीपणांबद्दल खऱ्यानीच दुबाव येता. खऱ्यानीच ह्या लोकांनी केन्ना तरी गोंयच्या मेकळेपणा खातीर कितें तरी केल्लें हाचेर विस्वासूच बसना. गोंयांत हजारांनी स्वातंत्र्य सैनीक आयज जे आसात आनी जे बसपगारी आसात तांचो आंकडो येदो व्हडलो जर आसलो जाल्यार गोंयांक स्वातंत्र्य मेळपाक इतलो कळाव कित्याक लागलो ताचेंय म्हाका अजाप दिसता.

अन्याय आनी गुलामपणां विरुद्ध झगडपाची जांची सभावीक प्रवृत्ती आसता ती प्रवृत्ती जावं तो स्वभाव वयोमानाबरोबर बदलता हें म्हाका बिलकूल मान्य ना. बंड करपी मनीस म्हातारपणांतूय आपलो हिसको खंय ना खंय केन्ना

दाखयता, तो ताचो स्थाईभाव जावन उरता.

गोंय मेकळें जालें आनी गोंयचेर राज्य करपाचें भाग्य मात भलत्यांकूच फाव जालें, खंयचोय एक व्हड स्वातंत्र्य सैनीक गोंय राज्याचो राजदंड हातांत घेवंक शकलोना. लोकशाय प्रक्रियेंत संख्येक मोल आशिल्ल्यान आनी ही जी बहुसंख्या स्वातंत्र्य सैनीकांक वळखूंक पावलीना हातुंतय स्वातंत्र्य सैनीकांचो एक तरेचो पराभवूच कसो म्हणूंक जाय, भारतांत हेरकडे स्वातंत्र्याच्या चळवळींतले भौतेक फुडारी भारतीय जनतेचे आदर्श जाले. देखून पं. नेहरू सारके स्वातंत्र्य सैनीक स्वातंत्र्या बरोबर बहुसंख्य जनतेचे नेते उल्ले, तांणीं सत्ता झोमून घेतली, मात गोंयांत तशें जावंक पावलें ना, खंयचोय एक नामनेचो स्वातंत्र्य झुजारी झुटयेर पावलो ना. हाका कारण म्हळ्यार पोर्तुगेजां तेंपार गोंय मुक्तीचो वावर जनसामान्यां मदीं खबर नासलो, आनी खबर नासलो देखून जनसामान्य गोंयकार तांकां वळखूंक नासले, आनी तें अनवळखीपण स्वातंत्र्या नंतरूय तशेंच उल्लें. म्हणजे स्वातंत्र्याच्या चळवळींतल्यान गोंयांत मुक्ती पयलीं एकलोय भौसाचो फुडारी म्हणून मान्यतायेक पावूंक नासलो. तांची नोंद फक्त पुलीसेंत, सरकारी कोर्ट कचेऱ्यांनी आनी चडच जाल्यार कांय पंगडां मदीं तितली उल्ली. मात तांच्या वावरांची प्रेरणां जनसामान्याक नासली. तांच्या पराक्रमान समाज पेटून उठलो असो एकूय दाखलो ना. मात १८ जुनाक डॉ. राम मनोहर लोहियान प्रभाव घाल्लो तसो प्रभाव खंयचोय गोंयकार स्वातंत्र्य सैनीक गोंयकारांचेर घालूंक शकलोना अशें स्वातंत्र्याच्या इतिहासाकडे नदर माल्ल्या उप्रांत दिसून येता.

गोंयांत जे सद्याक हजारांनी स्वातंत्र्य सैनीक म्हणून सरकारी पेन्शन घेतात तांचे संबंधी लोकांचें मत सारकें ना. जायतेजाण हेर वेव्हारांत गुंथिल्ले आसतना जेन्ना पोर्तुगेज पुलिसेक सापडले तेन्ना तांची अटक गुन्यांवकार म्हणून नोंद जायनासतना स्वातंत्र्य चळवळींतलो म्हणूनच जाल्ली आसा अशें खुद्द स्वातंत्र्य सैनीकूच सांगतात. जायत्या स्वातंत्र्य सैनीकांनी तर गोंयांतल्या कांय घराण्याचेर दरोडे घालून लुटमार केल्ल्याच्योय कागाळी आसात. उजगांव पाळी सारख्या वाठारांनी असल्यो आगळिको घडिल्ल्याचें जायते जाण सांगतात. स्वातंत्र्य सैनीक म्हणूनं सरकार दरबारांत नोंद करून घेवपाक फाटल्या वर्सांनी स्वातंत्र्य सैनीकांच्या गोंयांत कार्यरत आशिल्ल्या कांय संघटानांकडे रीग लागिल्ली आनी हांतूंत जायतेजाणांनी भ्रष्टाचारी मार्गानूय स्वातंत्र्य सैनीक म्हणून नोंदणी करून

घेतिल्ल्याचें सांगतात. मान्यवर वा रजिस्टर स्वातंत्र्य सैनीक जावपाक अमूक दुडू लागतले अशें फाटल्या तेंपार कानार येतालें आनी हांतूंत एका ज्येष्ठ स्वातंत्र्य सैनीकाचो मोट्या प्रमाणांत हात आसा अशें लोकांक खबर आसा. ना जाल्यार स्वातंत्र्य चळवळींत खंयच कामधंदो नासतना गोंयां भायर ह्या स्वातंत्र्य सैनीकांच्या नेत्याकडे स्वातंत्र्या उप्रांत थोड्याच वेळांत इतली गडगंज संपत्ती खंयच्यान आयली?

कोणें तरी विनोदान म्हळें, "कॉम इस्ता?" अशें विचारपाक एका पाकल्यान जांच्या फाटीर हात मारिल्लो ते खंय थापट जालें आनी पाकल्यान आपणाक जयहिंद करता म्हण बडयलो, अशें पेरगांव घालून कांय जाण स्वातंत्र्य सैनीक जाल्ले आयज सरकारी पेन्शनाचे वळेरेर आसात.

स्वातंत्र्य सैनीकांचें हे भशेन वर्गीकरण इतल्याच खातीर केलां तें म्हळ्यार जेन्ना पोर्तुगालाचे राष्ट्राध्यक्ष गोंयांत आयले तेन्ना ज्या स्वातंत्र्य सैनीकांनी (?) आपली पोर्तुगेज निष्ठा प्रदर्शित केली ती पळोवन स्वातंत्र्यानंतरचे आमचे सारके पिळगेक खऱ्यांनीच अजाप दिसता. म्हणजे पोर्तुगीजांनी फक्त लोकांकच बाटोवन देशभश्टे करूंक नासले तर प्रत्यक्ष स्वातंत्र्य चळवळींत आशिल्ल्यांक (?) तांणीं तांच्या येरोपी प्रभावांत हाडिल्ले, आनी मारियो सुवारिशावेळार नाचताले ते असल्या प्रभावांतले गोंयकारच चड आसले.

आनी इतलेंय जातकच, म्हणजे स्वातंत्र्या उप्रांत गोंयांत खंयचोय व्हड स्वातंत्र्य सैनीक राजसत्तेर पावलोना तो पावलोना, तो सत्तेर नासतनाय बी खऱ्या स्वातंत्र्य सैनीकान स्वतंत्र गोंयांत जो वावर करूंक जाय आसलो आनी स्वातंत्र्याची भावना नवे पिळगेक शिकोवपाचो वावर करूंक जाय आसलो तो तांणीं केलो ना. गोंय मुक्त जावन एक बावटो देवोवन दुसरो बावटो चडयलो म्हणजेच स्वातंत्र्य समजुपी आमचे हे स्वातंत्र्य सैनीक गेल्लीं साबार वर्सां फक्त हांव स्वातंत्र्य सैनीक आनी तो स्वातंत्र्य सैनीक हाचे दाखले सरकार दरबारांत धाडपाचे धडपडिंतूच घुस्पल्ले. आयज ही वळेरी जाहीर जावंची, फाल्यां ती वळेरी जाहीर जावंची हांतुनच गेल्लीं साबार वर्सां ह्या स्वातंत्र्य सैनीकांनी घडयलीं. खऱ्या स्वातंत्र्य सैनीकांची चूक मागून गोंयचें स्वातंत्र्य मागपी स्वातंत्र्य सैनीकांक फक्त राजकीय सत्तांतरूच अभिप्रेत आसलें कशें दिसतालें. ना जाल्यार गोंय स्वातंत्र्या उपरांत जे गोंयांत तरेतरेचे प्रस्न निर्माण जाल्ले तेन्ना ह्या स्वातंत्र्य सैनीकांनी तांचें अस्तीत्व

कित्याक लिपोवन दवरलें? तांणीं तें विपर्यासान आनी हास्यास्पद स्थितीन वापरत अशेंच म्हणूंक जाय.

विपर्यासान आनी हास्यास्पद स्थितीन इतलेंच खातीर म्हणटां की जेन्ना गोंयचें विलिनीकरण महाराष्ट्रांत करपाचो वेळ आयिल्लो तेन्ना जायते स्वातंत्र्यसैनीक गोंयचें वेगळें अस्तित्वूच नाका म्हणून वावुरताले. जे जे आपले ते ते आपले न्हय म्हणपा मेरेन ते गेल्ले. विलिनीकरणा वेळारूय गोंयचे जनतेचेर हांचो इल्लोय प्रभाव पडलोना.

ताच्या उपरांत गोंयांत भाशा आंदोलन जालें. थंयसरूय हे स्वातंयसैनीक खंय दिसलेना. आनी आयज तर गोंयांत साबार प्रस्न निर्माण जाल्ले आसात. सामाजीक तशे राजकीय प्रस्न आसात, समाजांत अन्याय अत्याचार चालू आसा. लोकशायेचें अवमुल्यन जालां. गोंयच्या राजकी मळार वायट प्रवृत्तीचे लोक उदेवन राज्य करून गेले आनी आयजूय करतात. जांणीं वायट निती मुल्ल्यांनी राजकी जिणेंत भ्रश्टाचारान थैमान घालां आनी सगळ्या वाटांनी स्वातंत्र्याची विटंबनाच केली ती पळोवन ह्या स्वातंत्र्य सैनीक म्हणप्यांक कांयच कशें कितें दिसना?

खरे निजाचे स्वातंत्र्य सैनीक शेळ्या नक्षत्राचे आसुंकच शकनांत. ते निमणो स्वास घे मेरेन सदांच स्वातंत्र्याचोच जयजयकार करतात आनी सगळे तरेच्या स्वातंत्र्या खातीर झगडत रावतात.

सगळे तरेचें स्वातंत्र्य म्हळ्यार मानसीक गुलामपणांतल्यान स्वातंत्र्य; भाशिक गुलामपणांतल्यान स्वातंत्र्य, धार्मिक गुलामपणांतल्या स्वातंत्र्य. फक्त राजकीय गुलामपणांतल्यान मेकळें जावन, सत्तांतर जावन स्वदेशी सरकार आयलें म्हणजेच कितें पुराय तरेन मनीस स्वतंत्र जालो अशें म्हणप समा जातलें?

मानसीक गुलाम्मपण इतल्या वर्सां उप्रांतूय आयज गोंयांत आसा. आयजूय हांगा असो एक समाज आसा जो समाज आजून पुराय रितीन भारतीयत्वांत विलीन जावंक पावूंक ना. आनी हाची जाणीव आसतनाय आयज कांय जाण गोंयांत पुर्तुगेज संस्कृती केंद्र हाडपाक नाचले, तर कांय पुर्तुगेज कोन्सुलदाद हाडपाक वावुरले. गोंयांत कांय गोंयकारांक पुराय पोर्तुगेज करून दवरल्यात तांचेकडे पोर्तुगेज संस्कृती ना अशें ह्या लोकांक म्हणपाचें आसा व्हय? एकवेळ खुद्द पोर्तुगालाक पोर्तुगालाची खरी संस्कृती नासत, ताच्या परस दोब्राद ती

हांगा गोंयांत आसा, बारीक नदर मारून पळोवंची, म्हणजे म्हज्या म्हणण्यांतले मर्म समजतलें. आनी गोंयकारांक पोर्तुगेजां बद्दल इतले उमाळेशे कित्याक? कित्याक तांणीं आमकां बेसबरें गुलामपण शिकयलें म्हणून? कित्याक तांणीं आमकां सदांच दुसऱ्यांच्या पोशांत उदक कशें पिवंचें तें शिकयलें म्हणून? कित्याक तांणीं आमकां आपले भाशेक कोनशाक कशी मारची तें शिकयलें म्हणून? कित्या खातीर हे कोन्सुलदादीचे आनी संस्कृती केंद्राचे दुवाळे कांय लोकां आशिल्ले? आनी कोंकणी हे निजाचे भारतीय भाशेक पुर्तुगाली रोमी लिपी दिवपाखातीर हांगा देशभश्टेंपण करचें म्हण?

**अन्याय पयस जावंक जाय:**

खरें म्हळ्यार आयज मोठो वावर जावपाचे तो म्हळ्यार गेल्या साडेचारशे वर्सांत जो जो गोंयचे रयतेचेर अन्याय जाला ताची तपासणी जावन अन्याय जाल्ल्या फामिलांक, संस्थांक, गांवांक आनी हेरांक न्याय मेळपाचो. पोर्तुगेजांनी जें जें तांच्या मनांत आयलें तशें केलें तें आमी आतां सांबाळून दवरतले? काय त्या अन्यायाचो आयज परामर्श घेतले?

गोंयचेर आनी गोंयकारांचेर पुर्तुगेजांनी कसलोच अन्याय केलो ना अशें आयज जे कोण संस्कृती केंद्र आनी कोन्सुलदादी मागतात तांकां म्हणपाचें आसा व्हय?

हांगासल्ल्या हिन्दू समाजाचेर एका तेंपार लासून आनी कापून मारपाचे अत्याचार जाल्ले. फोर्सान धर्मांतरां जाल्लीं. शेकड्यांनी देवळां मातये भरवण केल्लीं. जायत्या रयतांच्यो जमनी गेल्ल्यो. हांगासल्ल्या रयतांक आनी खऱ्या भूंय पुतांक नाडले पिडले आनी सामके कंगाल करून ज्या फिरंग्यांनी सोडले आनी शिक्षणा पासून आनी बऱ्या चालीरितीपासून परावृत केले ताचो हिशोब पावती जालो? ह्या पातकापासत ताणी प्रायश्चित घेतलें?

आनी हें सगळें जायनासतना हांगासर सांस्कृतीक वसाहतवाद जपून दवरूंया म्हणपी आमच्यांतले कांय कर्मकट्टे स्वातंत्र्य सैनीक हांगा संस्कृती केंद्र आनी कोन्सुलदाद हाडपाक वावुरतात ही खंतीची गजाल.

आयज हांगा भाशीक गुलामपण आसा. पोर्तुगेजीची सुवात इंग्लेजीन घेतल्या आनी पोर्तुगेज एका तेंपार शेक गाजयताली थंय आता इंग्लेज शेक

गाजयता. आनी हें थोडे म्हण कांय पुर्तुगाली मनोवृत्तीचे कोंकणी भाशेकूय लिपीचो लेप लावन भश्टूंक सोदतात! हो भाशीक वसाहतवाद ना करपाक खंयचो स्वातंत्र्य सैनीक केन्ना वावुरला?

आयज हांगा धार्मीक गुलामपण आसा. कांय वर्सां आदीं हांगासरल्या हिन्दू समाजाक अन्याय, अत्याचारान, बळजबरीन आफोर्साद परधर्मांत धुकलून दिल्लो. तो पुर्वाश्रमीचो हिन्दू समाज खंय आसा? हें धार्मीक अत्त्याचारांतल्यान निर्माण जाल्लें गुलामपण पयस करपाक खंयचो रुशीतुल्य स्वातंत्र्य सैनीक फुडें सरला? गुलामीचो उगडास करपी दर एक गजाल नश्ट जावपाक जाय आसली.

आयज हांगा जातीकातींचें झूज चलता. मनशाचे जातीवेल्यान भितल्ल्या भितर मनशां मनशां मदीं भेदभावाच्यो, द्वेशाच्यो आनी तिटकाराच्यो ज्यो वणटी उब्यो जाल्यात त्यो मोडपाक खंयचो स्वातंत्र्य सैनीक फुडें सरला? जात-कात मानपी खरो स्वातंत्र्य सैनीक आसूं नज.

आयज हांगाचे राजनितींत मोठ्या प्रमाणांत गुन्यांवकार, राष्ट्रद्वेशी आनी समाजद्रोही आसात तांचो बिमोड करपाक खंयचो स्वातंत्र्य सैनीक आवाज काडटा?

ह्या गोंयांत पोर्तुगेजांच्या अन्यायी आनी अत्त्याचारी राजवटीक लागून साबार प्रस्न उप्रासतात. पोर्तुगेजांच्या राष्ट्राध्यक्षांक घेवन नाचपाक इतली उमेद आनी उर्बा भोगली तें पळोवन आमकां स्वाभिमान म्हण्टात तें उतरूच खबर ना काय कितें अशें तेन्ना म्हाका दिसूंक लागिल्लें.

मारियो सुवारीश हो व्यक्ती म्हणून स्वातंत्र्यप्रेमी आसतय बी! पूण जे राजवटीन आनी ज्या राष्ट्रान आमचेर अन्याय, अत्त्याचार केल्ले ते सेगळे विसरून आमी त्या राष्ट्राच्या प्रतिनीधीक इतले माथ्यार घेवन नाचपाचें कांयच कारण नासलें. हेर राष्ट्राध्यक्ष गोंयांत येवन वतात तशेंच तांकां येवन वचू आसले. पूण सदांच आपल्यांक पायांपोंदा आनी परक्यांक तकलेर घेवन नाचपाचे आमचे संवयेक कोण आडायतलो आसलो?



**(पुर्तुगालचो राष्ट्राध्यक्ष मारियो सुवारीश गोंयांत आयिल्लो तेन्ना दै. राष्ट्रमतांत बरयिल्लो लेख)**

# धर्मायण

**हा**लिंसरा आमी, आमचे मदले विद्वान, विचारवंत राष्ट्रभक्त, निधर्मी, लेखक, कवी, दोतोर, वकील, शिक्षक आनी समाज कार्यकर्ते सगळेजाण हिन्दूक उटसूट उपदेश करतना दिश्टी पडटात. आतां सिंधु न्हंयचे देगेर रावपी आर्य लोकांक 'स' उच्चार करूंक येनाशिल्ल्यान मध्य एशियेंतल्या लोकांनी हिन्दू म्हळें आनी सिंधु न्हंयचे देगेवेल्या आर्यधर्माच्या लोकांक हिन्दू धर्मीय म्हण वळखूंक लागले अशें पंडित नेहरूनी तांच्या 'डिस्कवरी ऑफ इंडिया' ह्या पुस्तकांत खंय तरी म्हळां म्हणपाचें म्हज्या वाचनांत आयिल्लें. नेहरूचें बरप वाचून बरोच तेंप जाला. तांणीं अशेंय बरयलां की आर्यधर्म म्हळ्यारूच हिन्दू धर्म आनी भारत देश म्हळ्यारूच आर्यदेश. कितेंय आसूं, आमच्या सनातन मानव निर्मिती वांगडाच उत्क्रांतीच्या सांगतान सैमांतल्यान अवतरिल्ल्या सभावीक हिन्दू धर्माचो हांव एक, हाचो म्हाका अभिमान दिसता. कारण ह्या धर्मान म्हाका स्वतंत्र दवरला. हांव कसल्या धर्मीक संस्काराचो जावं साचेबंद शिकवणेचो गुलाम ना वा पापपुण्याची कल्पना जावं विचार आसल्यारूय तो म्हजेर बंधनकारक ना. हांव ह्या धर्माक लागून खूब गिरेस्त आसां. म्हजे कडेन शंबर मोटारां, शंबर बंगले आसचे तशे म्हाका जाय तितले देव आसात. म्हज्यान जाय तो देव, ताका भजूं जाय तसो म्हज्या खातीर वापर करूं येता. सैमांतल्यान आकार घेवन आयिल्ल्या देवा भायर नरका नारायण करपाचीय म्हाका मेकळीक आसा. एका फातराच्या देवाक जितल्या भक्ती भावान पुजचो तितलोच एके हाडामांसाचे व्यक्तीक पुजपाचें म्हाका स्वातंत्र्य आसा. म्हज्यान म्हज्या देवांचेर मेकळेपणान भाश्य करूं येता, तांची तासमपट्टी करूं येता, वायट तें भायर मारूं येता. म्हज्या देवाचेय गुणदोश दाखोवपा इतलें म्हाका स्वातंत्र्य आसा आनी तशें केल्यार हांव सिनर (पातकी) जायना वा म्हाका खंय कॉन्फेस जांवचो पडना. म्हाका कोण

पुजां करपाक सांगना. दैवळांत वचपाचें बंदन ना वो धर्मांतल्यान भायर घालपा सारखी संघटना म्हज्या ह्या धर्मांत ना. हांव भटांच्या फटिंगपणाचेर, तसो कर्मकांडाचेरूय धडक मारून उलयतनाच बरयतां. इतलें सगळें करून हांव हिन्दूच उरतां. आनी सैमांतलें मेकळेपण म्हण्टात तें हेंच अशें म्हाका दिसता.

## एक धर्म बाकी सगळे पंथ:

म्हाका एका वेगळ्या पंथांतल्या मनशान प्रस्न केलो. 'व्हू वॉझ धी फॉउन्डर ऑफ हिन्दूईझम?' आनी तो समजलो हांव गोंधळांत पडलो. ताका सांगूंक जाय आसलें 'पळे म्हज्या धर्माक (तो किरिस्तांव) फॉउन्डर आसा. बापूय आसा. तुमच्या धर्माक मांयपाय कोण ना.' हांवें म्हळें खरी गजाल, आनी ताका परत प्रस्न केलो. 'व्हू इज धी फॉउन्डर ऑफ दी नेचर?' ह्या सैमाचो संस्थापक कोण? आनी तो म्हज्या ह्या प्रस्ना कडे ऑऽऽ करून आयकत उल्लो. हय. हांवें ताका म्हळें जो मानव धर्म आसता ताका अमकोच म्हण संस्थापक नासता, मात मानव धर्मांतलीं सगळीं तत्वज्ञानां घेवन आनी मुळावीं मुल्ल्यां घेवन कोणतरी एक व्यक्ती मुळावें तत्वज्ञान आपलें तत्वज्ञान आनी नवो विचार नवें सांगणें, नवी शिकवण अशें सांगून लोकांक आपल्या हातासकयल जमयता, एक पंगड करता आनी आपल्या नांवान त्या पंगडाक नांव दिता तो ते व्यक्तीचो पंथ आसता. आनी ताची तुळा मानवधर्मा वांगडा वो सैमीक धर्मा वांगडा केन्नाच जावंक शकना. चडांत चड तो पंथ जावं येता. देखून ख्रिस्ता फाटल्यान ख्रिश्चनिटी, बुद्धा फाटल्यान बुद्धीझम, गुरू नानका फाटल्यान शिखीझम आनी अशे जेजू, बुद्धाभशेन शेकड्यांनी प्रेषीत ह्या मानव धर्मांत जावन गेल्यात, जातात आनी जातले. देखून जो धर्म एके व्यक्तीन जल्माक घाल्लो आसा तो धर्म जावंक शकना आनी ताची तुळा मानव उत्क्रांती वांगडा जाल्या अशा खऱ्या धर्मा कडे तुळा जावंकच शकना. अशा तुळा जावंक शकनाशिल्ल्या विस्वासांतल्या एकमेव धर्माचो हांव अंश.

म्हजी ही बडबड आयकून तो मनीस बरोच बेजारलो आनी ताका चडूच बेजार करपाक हांवें आनीक एक प्रस्न केलो.

'हाव ओल्ड इज युअर सो कॉल्ड रिलिजन?'

ताणें जाप दिली २०१०.

'इतलेंच? तूं जाणां म्हज्या धर्माची पिराय?'

आनी जशी हिन्दू धर्माच्या संस्थापकांचें नांव सांगपाक ताका जमलेंना तशी हिन्दू धर्माची पिरायूय ताका सांगपाक जमलीना.

ती म्हाकाय सांगूंक येना. म्हज्या धर्माचो संस्थापक कोण तो म्हाकाय खबर ना. तर अशा ह्या धर्माचो, अशा ह्या तत्वांचो आनी मुल्यांचो, कल्पनाविश्वाचो आनी अशा अधिष्ठित विस्वासाचो हांव एक वांटेकार. सामको खंयच्याय सैमांतले वस्ती इतलो जिवा प्राण्या इतलो मुक्त मेकळो. रामाकय गाळी घालपी तसो कृष्णाचेरूय आघात करपी. रामान शंभूकाचो वध करपाचो म्हय, कृष्णान सोळा हजार बायलो केल्ल्यो ताच्यो बखच्छायो करपी आनी लग्ना पयलीं कुंतीन अनैतीक संबंध दवरिल्लो देखून ती गुरवार जाली आनी तिगेर कर्ण जालो, सुर्याच्या किर्णांतल्यान बायलेच्या पोटांत गर्भ संभोगा बगर उरूंकच शकना अशें ठामपणान हांव सांगूंक शकतां, तशें तूं जेजूच्या जल्मा संबंधान सांगूकच शकना, कारण तूं एक सैमाच्या निती नेमाक फट म्हणपी विचारसरणीचो गुलाम! कृत्रीम धर्माचो (?) पंथाचो एक गुलाम!

ताका खऱ्यांनीच राग आयिल्लो पूण ताका हें सत्य हांवूच एक हिन्दू ह्या नात्यान बेधडक सांगूंक शकतालों. आनी नेमकें हेच गजालीचो म्हाका अभिमान आसा.

आनी मात्सो बेजार करपाक ताका हांवें म्हळें, तुजे कितले धर्मग्रंथ? तुजीं कितलीं पवित्र पुस्तकां? ताका म्हज्या प्रस्नाचो रोख समजलो. हांव फटाफट चारूय वेदांचें नांव घेवन फटाफट हजारांनी ग्रंथाची आनी खंड काव्यांची आनी महाकाव्यांची नामावळ दितलों हें ताका कळ्ळें. जांका वेचून काडपाक चॉयस नासता तांची गत ही अशी जाता. आनी येवजितां येवजितां केद्या व्हड गिरेस्तकायेचो पत्तो ना.

जेन्ना हे धनदौलतीचो, गिरेस्तकायेचो कोणाकय दिश्टावो जातलो ताका पंथाची ही कुडें कुस्कुटांसमान दिसूंक सभावीक आनी देखून अशा कुडांक आमी जतनायेन सांबाळटा सांबाळटा घास्तार जातले प्रक्रियेंत जो तो उठसूट ह्या म्हज्या म्हाम्हालाकडे बोट दाखयता आनी म्हणटा की हें सगळें ह्याच म्हाम्हालाकडच्यान घडपाक जाय, जावपाक जाय. राष्ट्रभक्त, राष्ट्रप्रेमी कोणें जावंक जाय?

हिन्दून.

देशाच्या सिमांची राखण कोणें करूंक जाय?

हिन्दून.

सर्वधर्मसमभाव कोणें पाळूंक जाय?

हिन्दून.

सगळे अत्याचार, अन्याय कोणें सोंसूंक जाय?

हिन्दून.

राष्ट्राचे लोकसंख्ये, राष्ट्राच्या उत्पन्न-तोटयाचेर कोणें विचार करूंक जाय?

हिन्दून.

कुटुंब नियोजन कोणें करूंक जाय?

हिन्दून.

मुकाट्यांनी सगळें कोणें सोंसूंक जाय?

हिन्दून.

आनी हें सगळें ताणें कित्याक करूंक जाय? कारण ताका कोण अमको प्रेषीत ना, कारण ताका ताच्या जल्मदात्याचें नांव खबर ना, तो आलम पेड्ड्यार पोर कसो, ताका कोण विचारतलो पाचारतलो ना.

ताचें घर कोणेंय येवन मोडचें आनी ताचे घराचे बुन्यादिचेर आपलें नवें घर देवाच्या नांवान उबारचें. ताचो जाय तसो कोणाचेय आंकडे वाडोवपाक उपेग जावंचो, तो कोणाक जाय तेन्ना राम उरचो वो कोणाक जाय तेन्ना अहमद जावंचो वो जुझे जावंचो.

कारण ताका गिरेस्तकाय मेळ्ळ्या न्हय?

हजार देवांची!

हजार ग्रंथांची,

हजार जातीभेदांची!

देखून असो हो आमचो हिन्दू आवयबापूय नाशिल्लो पोरको कोणाकय पोसूंक वच्चो वो कोणूय ताका पोसूंक घेवंचो आनी आपणाक जाय तसो वापरचो, जाय तीं संतवचना आनी शाणेपणां. बस्स!

एका हिन्दूक जशी देशाच्या स्वातंत्र्याची काळजी, हुस्को पडून वता तशी अहिन्दूक कित्याक ना? कितें कमी केलां म्हणून तांणीं सदांच उठून 'खावंचें

घोवाचें आनी गांवचें मिणाचें?’

कितेंय जावं कोणाच्याय निमतान जावं, रामाच्या निमतान जावं, बाबराच्या निमतान जावं! उठसूट खोंटो खायत आयिल्ल्या खऱ्या भारतियांक न्याय मेळपाकच जाय. हांगा रावतलो, ह्या देशाचें नागरिकत्व आपणावन भारतीय म्हणून घेवपी मनशाची निश्ठा ही सिद्ध जावप गरजेची. समान कायदो, वो एक कायदो हो त्या त्या राष्ट्राच्या अस्तीत्वाचो मोट्टो धागो आसता. राष्ट्राकडे प्रतारणां करप्यांक धर्मसंख्येच्या सुबक नांवां सकयल आमी राखण दिल्यार हे भुंयेचेर खऱ्या मनशांची धडगत नासतली. देखून पयले सुवातेर घटनेक हात घालूंक जाय. तें ३७० वे कलम कोचून काडून भायर मारूंक जाय आनी बंदिस्त घटनेक स्वतंत्र करपाक जाय. घटनेच्या कांय कलमांक लागून आमची घटना लंगडी जाल्या आनी कुल्पाद जाल्ली घटना फकत तंटे आनी वाद ह्या भावंडांक घेवन फुडें वतली. मात इतल्याय बोवाळांत ह्या देशाच्या सर्वभौमत्वांक आव्हान तयार जातलें हांतूंत इल्लोय दुबाव ना. देखून आयज हाचोय विचार खरेपणान जावंक जाय. ती मक्तेदारी कोणा एका भाजपा सारक्या राजकीय पक्षाची जावं हिन्दू संघटनाचीय जावंक फावना, ती राजकीय पक्षांविरयत जावं, खंयचेय संस्था संघटनेविरयत व्यक्तीगत पातळीर एक एक भारतीय म्हणून जावपाक जाय. आमकां घातकी आनी भावनापूर्ण कुड्डो आनी दिखावू राष्ट्रवाद नाका, आनी तो दाखोवन कोणेंय विचारवंतान राष्ट्राचे एकतेकडे स्वताची व्हडविकेची घूल करून खेळचें न्हय.

आयज उठसूट धर्म कुड्ड्यांक मोल दितना दिश्टी पडटा. मशीद - मंदिराच्या सभामंडपाच्या सोप्यार बसून भीक मागप्यांक राष्ट्रीय एकचाराकडे खेळी मांडपाक संद दितात. धर्माचे शिकवणुकेचें सार्वभौमत्व राष्ट्राच्या भौमत्वाक आव्हान दिवपा सारखीं वक्तव्यां करपाक दूरदर्शनासारकें माध्यम मेळटा हाचो अर्थच आमकां समजना. पंडित नेहरूनी ज्या लोकांक फाटल्या सिटार व्हरून बसयिल्ले तांकां आतां ड्रायव्हराच्या फुडल्या सिटार बसोवपाचो प्रयत्न आमकां माल पडटलो, आनी हाचो दिश्टावो जर आमच्या राजकारण्यांक येन्नाच जायना जाल्यार ह्या देशाचे अखंडतेचें दुर्दैवच म्हणचें पडटलें. वांगडाच ह्या देशाचें स्वातंत्र्य धोक्यांत आसा हें ध्यानांत दवरचें पडटलें. देखून भारता खातीर तरी खंयच्याच धर्माक चड म्हत्व आनी कमी म्हत्व दिनासताना सगळ्या धर्माक,

धर्मांतले भोगावळीक, कर्मकांडांक, अंधश्रद्धांक पयस दवरून निपक्षपणान, निधर्मीपणान जाता तितलें वर्गनिरपेक्ष राज्य करपी राज्याकर्ते आमकां जाय. धर्माक पाळूंक, पिशे आनी गुन्यांवकारी समाज करूंक नाकात. देश आनी राज्य हांचें नेतृत्व करपी मंत्री-मुख्यमंत्री हे खऱ्या अर्थान निधर्मी आसूंक जाय.

देवानूच आपणाक पंतप्रधान केला, देवानूच आपणाक मुखेलमंत्री केला अशे पोवाडे गावपी आनी चाटेपावलाक देवळां-मठांनी आनी घाडी भगतागेर भोंवून आपणालें सत्तास्थान बळकट करपी राज्यकर्ते ह्या लोकशायेंतले आनी विज्ञानिक निश्ठेचे मोटे दुस्मान आसात. हे धर्मांध-जात्यांध फुडारी आनी राज्यकर्ते राष्ट्राक फक्त मागासलेल्या काळांत ओडून व्हरपाचें महापाप करतात. अशा लोकांक आमी वळखूंक जाय.

धर्मायण म्हळ्यार धर्मांधता न्हय, धर्मायण म्हळ्यार मानवायण. मनीसपण हो धर्म मानतलेच हांगा विज्ञानयुगांत तिगतले हें त्रिवार सत आसा.



# सारस्वत समाजाचे संघटन केन्ना नासले?

## पयलो संघटीत समाजः सारस्वत समाज

**आ**मच्या गोंयांतल्या सगळ्या ज्ञाती संस्थां मदीं सगळ्यांत पयलीं खंयची जात वो खंयचो समाज संघटीत जाल्लो काय म्हण प्रस्न केल्यार ताची जाप सगळ्यांत पयलीं सारस्वत समाजूच संघटीत जाल्लो अशीच मेळटली, आनी ताच्या उपरांत तांचेंच अनुकरण हेर समाजान केलां अशें म्हणचें पडटलें.

आतां म्हजें पयलें विधान तपासून पळोवंया. आमच्या गोंयांत खंयच्याय एका समाजाचो पुराय अभ्यास करून त्या समाजाच्या कर्तुत्वान लोकांचो इतिहास जावं म्हायती आयजवर सारस्वत समाज सोडून हेरांनी कोणेंच बरोवंक ना. सारस्वत भूषण हो ग्रंथ सारस्वत, सारस्वतांचें कूळ-मूळ, गोत्र भेद आदी सविस्तर म्हायती दिवपी हो ग्रंथ. सारस्वतांच्या ताब्यात आशिल्ल्या गोंयांतल्या सर्वजातीय मुखेल देवळांचो इतिहास ह्या ग्रंथांत आसा आनी गोंयांतल्या सगळ्यांत पोरन्या आनी घट अशे सारस्वत संघटनेची म्हायतीय ह्याच ग्रंथांत आसा. हे संघटनेक फक्त नांव सारस्वत अशें ना. ना जाल्यार ही पोरनी संघटना भायर भितर फक्त सारस्वतांचीच संघटना, थंय सारस्वत सोडून खंयचेच हेर ज्ञातीक इल्लो लेगीत हे संघटनेंत रीग ना. फरक इतलोच, हे संघटनेंत सारस्वत एकठांय येवन धर्मीक वावर बी करतात आनी संघटनेच्या प्रमुखांक वा मुखेल्यांक मठाधिश म्हण्टात आनी मठप्रमुखांक स्वामी म्हणून पाचारतात. समाजांतले सगळे रिती रिवाज आनी चालीरिती ह्या मठामार्फत कार्यरत जातात. कोणूय चुकलो माकलो जाल्यारूय ताका फर्मान जावं रायस म्हण्टात तो हांगासल्ल्यानूच, फक्त सारस्वत

आशिल्ल्या अनुयायांकूच मेळटा. आतां अनुयायी जेन्ना हांव म्हणटा तेन्ना आयच्च्या नेमाप्रमाण कोणाच्यानूय कोणाचोय अनुयायी जावं येता. मात हांग फक्त सारस्वत समाजांतलोच जावंक शकता. आतां थंयूय आदीं भेद आशिल्ले स्मार्थ वैष्णव वो आडवे उबे बी. हो भेद आतां उणो करपाचे प्रयत्न चल्ल्यात अशें सांगतात! तर सांगपाचें म्हळ्यार मठ ही सगळ्यांत पयली, सगळ्यांत पोरणी गोंयांतली ज्ञाती संस्था, ज्ञाती संघटना! आतां कोणूय म्हण्टलो ही जर ज्ञाती संस्था जाल्यार तिका राजकारण करूंक मेळना, तिका लग्नां जुळोवंक मेळना, तिका गरीबांक मदत करूंक वाव ना, तिका सरकाराकडेन झगडूंक मेळना, तिचे मेळावे भरनांत (मेळावे भरतात). आतां ह्ये जाल्यो ते ते संस्थेच्यो मर्यादा. तांचो जाय जाल्यार विस्तार करूं येता आनी कार्यव्याप वाडोवं येता. पत्रकार सारस्वत समाजधुरीणांनी ज्या कारणां खातीर समाजाची संघटना जाय म्हणत जीं कारणां दाखयल्यांत तीं ह्या संघटनांच्या वतीनूच कार्यरत करूं येता आनी हांव जाणां ते प्रमाण सारस्वतांतल्याच वयल्या थरामदीं ह्यो गजाली हे संघटने मार्फत जातात. ही पयली मठपातळी वयली सारस्वतांची ज्ञाती संघटना. भायल्यान धर्मीक लेप लावन आशिल्ली जातीय संघटना. देखून जातीसंस्थांचो पयलो जनक सारस्वत समाज. उप्रांत हेरांनी तांचें अनुकरण केलां.

## देवळांची संघटना

आतां गांवांगांवांनी सारस्वत समाज कसो संघटीत आसा तो पळयात. गोंयांत जायतीं हिन्दूंचीं देवळां आसात. हीं देवळां तीन तरेचीं आसात. एके व्यक्तीन बांदिल्लीं देवळां. देखीक फर्मागुडयेवयलें गणपतीचें देऊळ हें बांदोडकरान बांदिल्लें. ज्ञातीचीं वो एकाच समाजाचीं देवळां - देखीक कांसारपालचें दैवज्ञांचें म्हळ्यार शेटीचें देवूळ आनी सर्वजातीय हिन्दूचीं देवळां. सर्वजातीय म्हळ्यार गोंयांतल्या हिन्दूंचीं जातीनीरपेक्ष कुळदेवळां. अशीं कूळ देवळां म्हळ्यार प्रत्यक्ष मंगेश. मंगेश हो देव कुठ्ठाळच्या सारस्वतांचो कुलदेव तसो तो सारस्वतेतरांचोय कुलदेव आसा. मंगेशा भशेन नागेश, म्हालसा, रामनाथ, शांतादुर्गा आदीं कुलदेवता. हीं सर्वजातीय देवळां म्हळ्यार गर्भकुडींतलें दैवत हेरांचेंय कुलदैवत आसा.

अशा ह्या सर्वजातीय देवळांचें व्यवस्थापन सद्या फक्त बामणाकडे वो

सारस्वतां कडेन आसा. ही देवस्थानां आनी तांची संस्था सरकार दरबारांत नोंद जाल्ली आसा. तांची स्वतंत्र घटनाय आसा. आनी तांचेर सरकारचें नियंत्रणूय तशें नांवाकच मामलेदारा मार्फत आसता. सांगपाचें तात्पर्य अशें की ह्या सगळ्या देवळांनी संस्था मार्फत गोंयांतलो तमाम सारस्वत समाज संघटीत जाल्लो आसा. कितें हांकां कोण सारस्वतांच्यो संघटना म्हणपाक तयार नांत? ह्या सारस्वतांच्या संघटनांनी इतर हिन्दू समाजांतल्या ज्ञातीच्या लोकांचेर कसो अन्याय केला हें दाखोवपाक वेगळो लेख जावं येता. मात तो विशय हांगा घेना. कांय वर्सां आदीं ताचेर हांवें गोंयांत विचार मंथन घडोवन हाडिल्लें आनी व्हडलो बोवाळ जाल्लो ताची याद आयज जायत्या जाणांक जाल्या बगर रावचीना. तो बोवाळ जाल्लो म्हळ्यार देवळे खुली करा चळवळ, तेन्ना हांवें सुरू केल्ली.

जसो देवळांनी सारस्वत समाज संघटीत आसा तसो वाड्या वाड्या कणकणी गांवांतल्या उत्सवांनी सणापरबांनी लेगीत तो संघटीत आसा. हिन्दूच्यो जायत्यो परबो मठाच्या आदेशा मार्फत मनयतात. चवथी सारकी परब लेगीत 'रायसा' च्या आदेशान जाता. जंय धार्मीक उत्सव जाता थंय लेगीत सारस्वत समाज संघटीत जाल्लो दिश्टी पडटा. देखीक आमच्या नागेशी देवस्थानांत दरवर्सा शिरवण म्हयन्यांत सप्तक वो सप्ताह जाता. आदी हांगा पार जाताले, आयजूय जातात. देवळांत गांवांतले लोक सद्दां येवन चोवीसूय वरां सात दिसां मेरेन भजन करतात. आतां हें भजन कोणें करप ताचे वांटे केल्ले आसात आनी रातीकडेन चित्रमेळ कोणें करप हेंय आतां दिसामेरेन वाटून घाल्लें आसता. हातूंत सगळ्यांचे पार देवळांत भजनाची दिंडी घेवन येवपी एक पंगड त्या त्या वाड्यांतल्यान येतात देखून तांकां नांवां अशीं दिल्लीं. नांवातकारांचो पार, गावणेकारांचो पार, बाजारकारांचो पार, कुर्पासकारांचो पार बी. बामणांचो मात वेगळो पार हांगा आसा. म्हणजे गांवांतल्या सगळ्या बामण भटांचो एक पार आनी अभिमानान तो बामणांचो पार म्हणून आयजवेर येत आसा. एक बामण नांवांक वाड्यार वो कुर्पासवाड्यार आसा तो आपल्या वाड्यावयल्या पाराक आपलो पार म्हणपाक तयार ना. बामणांचो पार तोय तांचो. तो मागीर रावपी नांवतवाड्यावेलो आसूं वो कुर्पासवाड्यावेलो आसूं. हांगा जातीय भजनीसप्तकाक सुद्धां तांचें संघटन आसता.

अशीच प्रथा पणजे महालक्ष्मीच्या देवळांतय आसा. जात्रांक, शिगम्यांक

नाटकां जातात तीं लेगीत बामणांची नाटकां आनी हेरांची नाटकां अशी जातीवयल्यान वाटून आसतात.

बेती वेरें पंचवीस वर्सां आदीं हांवें सारस्वत समाज रंगमंच म्हणून एक पाटी पळयिल्ली. म्हापशां सारस्वत हायस्कूल सामकें जातीय नांवान आसा. गोंयांत अशें एकूय इस्कोल जातीय नांवान ना. सारस्वत बँको आसात इतलेंच न्हय दक्षिणे कडे कोंकणीची चळवळ ही फक्त सारस्वत समाजाचीच आसा अशें मानपी सारस्वत दक्षीण भारतांत खूब आसात.

म्हणटकीच आयज जे सारस्वत संघटन जाता तातूंत कसली नवीदाद आसा? आतां जाय जाल्यार तांकां इतलेंच म्हणूंक येता की शिक्षणाच्या प्रभावान सर्वव्यापी मानपी मानवी मुल्यां घेवन आमची तरणाटी सारस्वत पिळगी जी समाजवादी जावपाच्या मार्गार आसा तें पळोवन कांय पोन्न्या विचारसरणीच्या कर्मठ सारस्वतांक नसाय जावन आदल्यो सगळ्यो पिळग्यो ज्यो वयर सरल्यात तांचो भंय निर्माण जावप ही तांची नवी जागृताय. म्हणजे अशें की आरे सभाग्यानो तुमी खंयच्या महासागरांत चल्ल्यात, आनी तुमी मानवीय रुपी महासागरांत गेल्यार ह्या आमच्या पोरण्या कोंडांत कोण लोळटलो?

सांगपाचें तात्पर्य आमच्या काय इश्टांनी सारस्वतांक संघटना कित्याक असो प्रश्न करपच मुळांत चुकीचें.

हें आसा आनी आसलें तांचें ना म्हणून वा नाशिल्लें म्हणून समाजवादाचेर पांडित्य उक्तें करप समा न्हय. सारस्वत समाजाची नव्या रुपान जल्माक येवपी वा आयिल्ली ही संघटना अशें आमच्यांनी चडांतचड म्हणू येत. मात नवें संघटन बिलकूल नवें न्हय आनी ताचेर आमच्या प्रतिगामी सारस्वत इश्टांनी कुलकुलाट करून भयंकर कितें तरी घडटा अशें म्हणपाची गरज ना. सारस्वत समाजाची नव्या रुपांतली सुदारीत आवृत्ती इतलें आमच्यांनी चडान चड हे सारस्वत संघटनेक म्हणू येता, आनी सारस्वत जेवणाचीं फेस्तां म्हळ्यार दर वर्सा गोंयांत जावपी सारस्वतांचो जेवणोत्सव.

## सारस्वतांचें अनुकरण

गोंयांत इतर समाज संस्था वो ज्ञाती संस्था आसात तातूंत सारस्वतांनी संघटीत जाल्यार खंयच्यान चुकलें अशे प्रस्न करतल्यांक आतां कोण पयलो

ांव काय तो हें होलमलां आसतलें.

आतां आपआपले ज्ञातीचे स्तोम माजोवपाक आर्दी सारस्वत समाज ोडून कोणाकच संद नासली. तांच्या पदराक शिक्षण नासलें, वाट्याक आयिल्ली नदाकाळ गरिबी, भंय, लाचारी आनी नाडपणान झरतलो इतर समाज इल्लो ल्लो जागो जावंक लागला आनी मासेस फॉलो द क्लासेस (masses follow he classes) ह्या नेमाक धरून सारस्वतेर समाजानूय आपआपल्या ज्ञातीनी आपआपले तांकी प्रमाण संघटना बांदपाचो प्रयत्न केला आनी एकलो करता म्हणून दुसरो करता अशे भशेन गोंयांत दैवज्ञ ब्राह्मण समाज, भंडारी समाज, वैश्य समाज हांगाजाले, आनी हिन्दू गोंयकारांमदीं अश्यो ज्ञातीचेर वण्टी उबारपाची देख गोंयांतल्या सारस्वत समाजान पयली घालून दिली. कारण तांकां तेन्ना तांच्याच फायद्या खातीर तशी जातिची वंय जाय आसली. आयज तिचेर आघात जावंक लागल्यात म्हणटकच ती नव्या रुपान येता इतलोच फरक. पूण हिन्दू समाजाक जातींनी संघटीत जावपाचो धडो पयलो ह्या सारस्वतांतल्याच विद्वानांनी घालून दिल्लो आसा अशें गोंयचो जातीय इतिहास चाळून पळयतकच कळून येता.

सारस्वतांचे जेवणपध्दतीचें जाहीर प्रदर्शन हें एक नवें संघटन. आतां हे फुडें गोंयांत दैवज्ञ जेवणोत्सव, वैश्य जेवणोत्सव, भंडारी-गावडा जेवणोत्सव बी गोंयच्या शारांनी-गांवांनी जावपाचे संकेत आसात.



# मणचि भिरांतीन
# भड्डून वचपी आमची जीण

**कां**य प्रसंग पळेतकच जावं कांय थरकांप प्रसंगाचो उगडास करतकच मन सुन्न जाता. आनी कांय खीण अशें दिसूंक लागता की हें सगळें फट, जिणेंत कांय एक अर्थ ना. जीण म्हळ्यार उदकाचो बोमाडो, फट्ट करून फुटपाचो.

कांय दिसां आदीं कारवाराक गेल्लेकडेन उलयतां उलयतां उल्हास बुयांवान एक खबर सांगली. खबर आसली पर्तगाळ मठांतल्या एका कार्यकर्त्याची. उल्हास बुयांव सांगतालो :-

ताणें म्हळें 'उल्हास म्हाका मात्सो काणकोणां बाजारांत दवर' आनी तो, उल्हास ताका दाजी म्हूण पाचारतालो, सामको धडधाकट आनी घटमूट. दाजी उल्हास बुयांवाले मोटारींत फुडल्या सिटार उल्हासा म्हऱ्यांत बसलो. पर्तगाळ ते काणकोण बाजार मोटारीन सात आठ मिनटांची वाट. दाजी खबरी मारीतच उल्हासा म्हऱ्यांत फुडल्या सिटार बसला. गाडी शेंबर दोनशें मिटरांचेर पावता थंय आसा दाजी उलयतां उलयतां घोरेवपाक लागलो. उल्हास सांगता, "हांवें ताची घरघर दोनदां आयकली आनी पळे जाल्यार दाजी म्हजेवटेन लवंडला, हांवें म्हळें दाजी, कितें जालें? कित्याक लवंडलो? पूण खंय गा, दाजी जाप दिवपाक आसलो खंय? कांय खिणांची गजाल, दाजी बसंला थंय म्हजे मोटारींत सोंपलो." कांय अर्थ नारे अशें म्हणत सदांच फकाणां आनी मेकळेपणान कसलींय पचकेपणां उलोवपी उल्हास गंभीर जावन म्हणटा, खावन जेवन मौज करून मरपाचें, आमी ओगीच हाची ताची दुस्मानकाय घेवन बसतात.

आतां एक मनीस गाडयेंत बसता कितें आनी खिणांत मरता कितें, हाका कितें म्हणप?

असोच आनीक एक प्रसंग, पयर भाऊ जया नायक गडबडींत स्कुटरीन

दादा वैद्य चौकांतल्यान वतालो. म्हाका मात्सो अंत्रूज नगरांत पाय रे म्हूण सांगतलों अशें येवजून हांवें भाऊक स्कुटरी वेल्यान वतना छूत छूत केलो. भाऊ तेय परिस्थितींत थांबलो.

"म्हाका मात्सो वयर सोड." हांवें अधिकारानशें भाऊक म्हळें.

"हांव मात्सो गडबडीन आसां, तरी सोडटां तुका, बस." भाऊन म्हळें आनी ताचे स्कुटरीर बसत विचारलें.

"कसली गडबड?"

"आरे कितें सांगू आमचो एक ऑफीसर मरे आतांच तिस्कार मरून पडला." भाऊ स्टेट बँकेंत काम करता, म्हणटकच तांचेच बँकेच्या ऑफीसराची खबर तो म्हाका सांगतालो.

"बार रवी सामकार स्कुटर स्टँडार आसतना तो कोसळ्ळो तो परतो उठलोच ना. मॅसीव ॲटक. पयल्याच धपक्याक. बरें पडलो तेन्ना थंय ताका कोण वळखलो ना. तो उसगांव फांट्यांत काम करता. ते वटेन बँकेंत काम करपी शिंक्रो लेगीत गेलो ताणें पळोवन कोणूय बेबदो बी पडला आसतलो म्हूण तो थंयच्यान पसार जालो. मात कोण तरी तांकां बँकेंत काम करपी म्हणपाचो वळखलो. आनी मागीर आमकां कोणें कोणें तरी कळयलें."

"आतां खंय वता तर तूं?"

"कितें सांगूं, काकूळट बाबड्याची. बायल, दोन भुरगीं तितलीं हांगा आसात. गांवान मुंबयचो, ताचे कोणूय वळखिचे बी आसात काय म्हूण पळोवपाक हांव मिल्क डेरीकडे वतां, कोणें सांगलां थंय कोणतरी ताचे वळखिचो आसा म्हूण!"

बायल आनी दोन भुरगीं, बँके फाटल्यान सेंट्रल मॅन्शन आसा थंय भाड्यान रावतालो. भाऊन सांगलें.

"ताचे बायलेक कळयलें?" हांवें उमळशिकेन पूण खिन्न जावन विचारलें.

"कशें कळयतलों, घरांत आनीक कोणय तरी आसल्यार जातालें. बरें आतां आमोरी जाल्या, कितें करचें तेंच समजना." भाऊन म्हाका वाटेर दवरलो आनी तो बेगीबेगी कुर्टी मार्गान फुडें गेलो.

सगळें आयकून म्हजी मत सुन्न जाली. परक्या गांवांत जंय आपलो

कोण ना अशा गांवांत मरण, ताची बायल, तिका ही खबर कळटकच तिचे किते गत जातली काय, ती कशी दुखाचे घोट पितली, आनी तिचीं तीं भुरगीं केदीं आसात काय? तांकां मरणाचो अर्थ समजला काय, पापा आत्ताच स्कुटर घेवन गॅस पळोवपाक गेल्लो तो खंय पावलो काय? आनी आयची ती तिचे जिणेंतली भयंकर रात, ताची बॉडी घेवन ती त्या फ्लॅटांत रातभर रावतली, सोयऱ्यांक कळयता म्हणसर! मन विचारांच्या काळखांत गुपाट भल्लें.

खऱ्यांनीच मरणान अशें अचकीत तरी येवंक फावो नासलें. पूण जायते जाण म्हण्टात म्हाका हांतुणार पड नासतना अकस्मात मरण येंवचें; कोणाक त्रास जावंचो न्हय. पूण दुयेंस जावन मरण येतल्याच्या मर्णाची ताचे लागशिल्ले ना म्हळ्यार हय न्हयशी मात तरी कल्पना करतात, दुयेंत चडूच गंभीर आसल्यार तो आनी वाचना म्हणत ताच्या मरणाची मनांतल्या मनांत तयारी करतात आनी तो जेन्ना खऱ्यांनीच मेल्ल्याची खबर कानार पडटा तेन्ना अचकीत मर्णाची खबर आयकून जसो शॉक जाता तसो शॉक जायना. असुदाय मर्ण मागून घेता. म्हाका याद जाता, कोंकणी कवी शंकर भांडारी जेन्ना दुसरे खेपे दुयेंत जावन हॉस्पिटलांत गेलो तेन्ना खबरेक गेल्ले कडेन शंकरबाबाक पळेतकच म्हज्या मनांत शंकरबाब मरतलो आनी तो कांय खिणांनी आमकां पळोवंक मेळचोना ही कल्पना शंकरबाबाची खबर घेतां घेतां हांवें केल्ली. तशीच गत र. वि. पंडिताची जाली. तांचे खबरेक गेल्ले कडेन तांकां तेन्ना तें गंभीर दुयेंस जालां म्हणपाचें कळ्ळें तेन्ना र. वि. पंडित, बोलक्या दोळ्यांचो झेतार न्हशिल्लो, बरें कितेंय बरयतकच तुका फुलांचो हार घालपाचो म्हणत खाडार हात भोंवडावपी आनी राग येतकच भयंकर, संतप्त जावपी पंडित, आनी हाचेर ताचेर, ओगीच शीण राग काडपी पंडित, रविन्द्र केळेकाराचेर शीण राग काडपी पंडित, रमेशाक तोखेवपी पंडित आनी नागेशाचेर बेजार जाल्लो पंडित आनी ताच्या सत्काराची तयारी करपा खातीर जमिल्ले एके मिटिंगेंत मेज घडांयच करून आपटून आपल्या चल्याक लेगीत थंयच सांडून संतप्त जावन सभा सोडपी पंडित घस्स करून म्हज्या दोळ्या मुखार उबो जावंक लागलो. म्हाका याद जाता पंडिताक निमाणें निमाणें मात लेगीत उतर फुटनासलें, काक्राक लागून ताची सकनळीच धरिल्ली. तरीय पंडित आस नाशिल्लो फोर्स करून उलोवपाचो प्रयत्न करतालो. म्हऱ्यांत उबो आशिल्लो

कोण तरी पंडिताक म्हण्टालो.

"दोतोर उलोवं नाका बरो जातकच उलोवंचें."

तेन्ना दोळे मोट्टे करून दोतोर ताका भरिल्ल्या गळ्यान अस्पश्टसो म्हणी 'हांव आनी केन्ना उलयतलों?'• पंडित खबरेक वतल्यांचो हात घट धरतालो. कसोच सोडी नासलो. म्हजोय तांणीं हात घट धरून म्हणिल्लीं उतरां म्हाका याद जातात. 'आय हॅव सर्वड माय कंट्री, आतां म्हजो राम राम घेयात' पंडिताक मदीं मदीं इंग्लेज उलोवपाची संवंय आसली. त्या दिसा दोळ्यांत ओलसाण हाडीत पंडितान म्हळें 'गूड बाय'. म्हजे बरोबर यशवंत पालेकार आसलो. पंडिताचो तो भावनावेग पळोवन पालेकारान म्हाका फाटल्यान हळूच भायर या म्हणपाची खूण केली. नेट करून हांवें पंडिताच्या चपक्यांतल्यान हात सोडोवन घेतलो. बरें बरो करून म्हणत आमी हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरले. मन जड जाल्लें. पंडिताच्या मर्णाचे कल्पनेन आनी मागीर ती खबर केपें साहित्य मेळ चलतना आमच्या कानार पडली. मरणाची आदींच कल्पना केल्ल्यान आमकां कांय एक दिसलेंना. सगळी कार्यावळ थांबोवन आमी पणजे धांवले पंडितांक निमाणो निरोप दिवपाक.

आयज हो लेख बरयतां बरयतां मोहन कारापूरकार सोंपिल्ल्याची खबर पेपरांत वाचूंक मेळ्ळी. मोहन कारापूरकारांक हाली हांवें पळोवंकच ना, ते दुयेंत आसात म्हणपाचेंय खबर नासलें. अकस्मात तांच्या मरणाची खबर! मोहन कारापूरकार हे लोकमत कौला वेळावयले शंकर भांडाऱ्याचे सांगाती. ते भाशणां बिशणां दिनासले. मात गोंय वेगळें दवरपाक आमचे वांगडा रातदीस वावुरताले. मदीं मदीं कवनां रचताले. आपले परीन कोंकणीची सेवाय करताले. मोहन कारापूरकार आनी निकूबाब कारापूरकार हीं दोन नांवां भतग्रामांतल्यान आमच्या कानार सादतालीं. कोंकणींतले दोगूय कारापूरकार इतिहासांत भरसले.

मरणाचें येवजीतकच मनांत नाना तरेचे विचार घोळटात. केन्ना केन्नाय आपल्या सामके प्रिय व्यक्तींच्या मरणाची कल्पना येता. कोणूय नदरेपयस आसतकच ताच्या मरणाचो हुस्को जाता. खूब दीस भायर आसतकच भायल्यान घरच्यांचो असोच उगडास येवन थरकांप भरता. तर घरच्यांक घरा भायर आशिल्लो मनीस ओगीच मरणाचे कल्पनेंत घुस्पल्लो दिसता. खंयूय अपघात

बी जालो म्हण्टकच तांतूंत आमचो बी कोणूय ना मूं, आमचो भाव ते वटेन वता. आमचो बापूय तसो गेल्लो तो बी ना मूं! खरेपणी तो नासता पूण तो आशिल्ल्यार्च कल्पना मात इतली भिरांकूळ आसता की प्रत्यक्षांत आसा म्हणून कळतकच जी भिरांत दिसता ताचे परस काल्पनीक भिरांत अती भयंकर आसता.

मरणाच्या भंयान आमी कितें कितें करतात पळेयात. मरणाच्या भंयान आमी देव मानतात. देवाक भजतात, देव वायट करता, बरो करतलो ही कल्पना करतात आनी अमूक तमूक केलें ना, देवाक पांयां पडलोना, देवाची आंगवण, देवाक पावती केलीना जाल्यार तें आमकां बादतलें, म्हजें कितेंय वायट जाल्यार? म्हज्या बायल भुरग्यांचें कितेंय वायट जाल्यार? देवा संबधान हांव एके वटेन अशें म्हणटां 'फियर ईज गॉड' मनशाच्या भंयांतल्यान देवाची कल्पना साकार जाल्या आनी हे कल्पनेंतल्यानूच मागीर फुडल्यो सगळ्यो कल्पना जल्मल्यात. फुडल्यो कल्पना खंयच्च्यो?

फुडल्यो कल्पना म्हळ्यार म्हजो देव, ताचो देव, आमचो देव, तो असो पावता तो तसो कोपता, आनी तोच आमकां जल्माक घालता आनी तोच आमकां मारता आनी ह्यो सगळ्यो कल्पना मनशांनी वेगवेगळ्या संदर्भांत वेगवेगळ्या जाग्यांचेर संवसारभर मनीस जातीन केल्ल्यान मनशा मनशांचे धर्माच्या आनी जातीच्या रुपान वांटे जाल्यात. दर एकल्यान आपआपले परीन देवा संबंधिचे विचार सांगपाचो प्रयत्न केला. बरोवन दवरला, आनी ह्या विचारांक बळी पडिल्ले आमी लोक म्हळ्यार भड्डल्ले मनीस. मरण भिरांतिचे गुलाम जाल्यात. प्रत्येक धर्मांतल्या देवान हो संवसार निर्मिला. तरी लेगीत खरेपणी ही संवसार सृश्ट मात एकूच आसा.

आनी हे सृश्टीचो निर्मातो मात आपले कल्पनेंतल्यान आयिल्ल्या देवानूच केल्या अशें समजून आयज सगळे धर्म चलतात. एका भुरग्याक आपणेच जल्माक घाला अशें कितल्याश्या बापायनी दावो करपा सारकी ही हास्यापद गजाल जावन आसा. तरी लेगीत देव नांवाची कल्पना, वास्तव रूप धरून आमचे मर्दीं घट आसा ती फक्त मरणाच्या भंयान. वायट जावपाचें काल्पनीक नासता आमच्या देवाभाशेन. तें एक शाश्वत सत्य आसता. केन्नाय आनी खंयच्च्याय खिणाक आपलें वास्तव रूप दाखोवपी. देखून इतलें खरें. जगता तो खीण तुजो आसता,

ताचेरूय तुजो खरो अधिकार. फायचो खीण तुज्या नांवार आसतलोच म्हणपाचें कोणाच्यान सांगूंक जावचेंना. सांगलेंच जाल्यार तो फक्त अदमास, आनी अदमास खरो जाल्यार आमी म्हण्टात आमकां भंय ना. तात्पर्य मरण हें सत्य आनी अटळ हें खबर आसूनय आमी मात मरसर मरणाच्याच भंयान जियेतात. खरेली चिता वाट्याक येवचे पयलीं काल्पनिक चिंतेन आमी भितल्ल्यान जळत रावतात.



# धर्मक्रियांचो सैमाचेर कितलो प्रभाव, कितलें नियंत्रण?

अनादिकाल चलत आयिल्ल्या ह्या सैमाचो गूट स्पश्ट करपाचें थंयच उरलें; मात सैमाच्या चमत्कारां संबंदान पडिल्ल्या प्रस्नचिन्नांक जाप मेळ्ळी ती देव वो इतर प्रचलीत उतरांनी. हें सगळें चलोवपी एक अदृष्य शक्ती आसा आनी ते शक्तीचो म्हजेर शेक चलता इतले मेरेन कारण समजूं येतालें. पूण ह्या सत्याक कडेक दवरून म्हळ्यार निसर्गाच्या प्रभावा कडेन दुर्लक्ष करून ताच्याच चमत्कारांच्या आनी नवलांच्या नाड्यार म्हणुंया वो आदारान आपमतलबी मनशांनी मूळ शक्तीक कडेन दवरून (खऱ्या देवाक कडेक दवरून) आपआपले देव संवसाराचे माचयेर हाडले आनी पृथ्वीच्या वेगवेगळ्या वाठारांचेर, ते वेगवेगळ्या स्वरुपांत, वेगवेगळ्या भेसांत आनी समजण्यांनी आनी घडूंक नाशिल्ल्या चमत्कार आनी नवलांच्या वलयांतल्यान उबे केले. ते खातीर भोंवतणीं नवलांचें आनी चमत्कारांचें वलय नाशिल्लो एकूय देव ना. मागीर तो देव खंयच्याय धर्मान फुडें केल्लो आसूं. पळेयात हिन्दू धर्मांतल्या देवांचे अनेक चमत्कार! देवांचे सोडात, मनीस-देव म्हळ्यार आधुनीक स्वामी बाबा, संत हांगेले चमत्कार सांगलेनांत आनी कोणें ते आयकले नांत जाल्यारूच नवल! ना जाल्यार, खंयचोय एक असो देव, बाबा, स्वामी, संत सुद्धा चमत्कारांची पदवी घेवन ना तो दाखोवचो. जेजू ख्रिस्तान कुड्ड्यांक दोळे दिले, जनेलावयल्यान पडिल्ल्याक जिवो केलो, उदकाचो सोरो केलो, पांवाचे हजारांनी पांव केले आनी जायतें कितें कितें! हालींच्या बाबांनी तर चमत्कारांचेर चमत्कार केल्यात! भुरगीं नाशिल्ल्यांक भुरगीं दिल्यांत. बिबूत हवेंतल्यान काडून कपलाक लायल्या. व्हंकलेक हवेंतल्यान भांगराची सरपळी केळवण म्हण दिल्या! इतीसाईबाबा! हालींच पारवडच्या बाबान तर सोऱ्याचे बाटलेंत किडे केल्ले अशे तांचे भक्तच सांगताले. हे भशेन जायते

बाबा, स्वामी, संत, प्रेषीत, देवाचे पूत, देवाच्यो धुवो, देवाचे दूत, देवाच्यो परी म्हळ्यार अेंजल्स, हांणीं सगळ्यांनी हो संवसार तांच्या तांच्या चमत्कारांनी खूब भरून दवरला. आनी सामान्य मनशाक मात ह्या असल्या चमत्कारांचे गर्देत सैमाच्या चमत्कारांचें आनी नवलांचें मात लेगीत भान नासता. चडूच जाल्यार तेवूय बी तें तांच्या विस्वासांतल्यान देवान केलां अशेंच म्हणटले. पातकां चड जालीं म्हणून देवान ख्यास्त केल्या अशें म्हणटले. पूण जल्माक येवंचे आशिल्ल्या वो निकतेच जल्मल्ल्या अर्भकान कसलें पातक केलां म्हूण देवान तांकां मरणाची ख्यास्त दिल्या तें मात सांगचे नांत. म्हणजे ह्या लोकांच्या विस्वासा प्रमाणें धर्तरेर भुंयकांप जावन हजारांनी लोक मेल्यात ते सगळे पातकी आसले आनी देवान तांकां पातकी म्हळ्यार Sinners आशिल्ल्यांक मरणाची ख्यास्त केल्या! आतां मनशांनी पातकां केल्यांत, वो धरून चलुंया Man is born Sinner, आमी सगळे पातकी कित्याक तर पयलें पातक आदमान आधारलें आनी तें निस्तारपाक मागीर देवाचो पूत जल्माक आयलो. मरणाची ख्यास्त घेवन परत मरणांतल्यान उठलो. हें सगळें मनशा बाबतींत मानून घेवंया पूण भुंयकांपांत मोन्या जनावरांनी, प्राण्यांनी, जिवांनी, गाय-म्हसरांनी कसलीं पातकां आधारलेलीं काय All animals too are born Sinners? मनशाकूच जल्मान पातकी कशें म्हणू येता?

ईश्वरान संवसार निर्मिलो. संवसारांतलें सगळें कितें कितें निर्मिलें आनी निर्मितल्याक तो कितें कितें रचता, निर्मिता तेंवूय ताका खबर आसूंक जाय. जाल्यार जे राकेस वो देंवचार वो दुश्ट मनीस, क्रूर मनीस, जांच्यो काणयो आमकां वाचूंक आनी आयकूंक मेळटात त्या दुश्टांक, त्या राकेसांक कोणें रचले? रचतल्या देवाक नरकासूर हो दैत्य साबार प्रजेक त्रास करतलो हें कशें कळ्ळें ना? मागीर कसलो तर तो रचणार? दिवाळेक आमी नरकासूर मारतात. भगवान श्रीकृष्ण म्हळ्यार परमेश्वर राक्षसांक मारता अशी आख्यायिका. आतां आयच्या एका भुरग्यान जर ताचे आवयक असो प्रस्न केलो-

"आई, संवसार देवान रचला, मनशांक देवान रचल्यात जाल्यार दुश्ट राकेसाक कोणें रचलो? काय दुश्टांचो, राकेसांचो रचणार वेगळो? तशें जाल्यार दुश्टांचो संहार करपाचो प्रस्नूच खंय येता?"

आवय भुरग्याच्या ह्या पोरप्रस्नाक "चल थंयचो, चड सुबेज जावं नाका.



देवा विशीं तशें विचारनांत, देव पाप करतलो, पोले फोड." अशेंच सांगतली

हे भाशेन अशे तरेचे आनीक कितलेशेच प्रस्न उपस्थीत करूं येतात.

आनी हे चमत्कार (सैमाचे न्हय) धर्तरे वयल्या ह्या असंख्य देवां मागीर ते खंयच्याय धर्मान आसूं! तांचें महात्म्य पटोवपाक जो वावर सांगला सांगपा खातीर जे जे मार्ग आपणायल्यात तोच आमचो धर्म! गोंयांत अल्पसंख्यां हे सुबक वेवस्थे सकयल क्रिस्तांवांच्या सगळ्या शाळांनी धर्माची शिकव म्हळ्यार फक्त जेजू ख्रिस्ताच्या जिविता विशींची Value Education ह विशयां सकयल प्रामुख्यान आनी प्राधान्यान शिकवण दितात. हिन्दू भुरग्यां मात Morals शिकयनासतना धर्म म्हळ्यार जेजूची जीण-कॅथीसिझ शिकायतात. तांतूंत धर्माची व्याख्या अशी केल्ली आसा: धर्म म्हळ्यार कितें ताची जाप देवाचें वा देवा संबंदान (जेजू संबंदान) शिकप म्हळ्यार धर्म. हिन्द धर्माची व्याख्या तर way of life अशी करतात. एक जगपाची रीत. ते रितीक धर्म वो Religion अशें म्हणटात बी. अशें जायते कितें कितें सांगपाचें तात्पर Religion वो धर्म ह्या उतरांची नक्की आनी पक्की अशी व्याख्या खंयच्याच धर्मान, पंथान, संप्रदायान आजय मेरेन केल्ली ना. प्रत्येकान आपआपले सोयी प्रमाणें ती केल्ली आसा. तांतूंत हिन्दू धर्मियांचें तर आयतेंच फावलां. हिन्द धर्माचें मूळ आनी कूळ नक्की सांगूंक जायना. कोण ताका वैदीक धर्म म्हणटात तर कोण ताका सनातन धर्म म्हणटात, कोण आर्यधर्म म्हणटात तर कोण हिन्द धर्म म्हणटात.

पंडित जवाहरलाल नेहरूनी आपल्या 'भारताचो सोद' ह्या पुस्तकांत हिन्दू धर्माचें पुर्विल्लें नांव आर्यधर्म 'हिन्दू धर्म' कशें जालें हें सांगलां. सिंधू न्हंयचे देगेर रावपी लोक म्हळ्यार हिन्दू लोक. ह्या काळांत मध्य आशियेंतले लोक सिंधू लोक म्हणचे सुवातेर हिन्दू लोक म्हणटाले खंय! कारण त्या लोकांक 'स' चो उच्चार करूंक ये नासलो. आमच्या गोंयांत आयजूय दारासिंगाक हारासिंग कशे म्हणटात वो दोळ्यांक, दोयें वो काळें कायें कशें म्हणटात ते भाशेन हें 'स' चें 'ह' जावं येता. आनी तें शक्य आसूं येता. पुर्तुगेजांनी आमच्या गोंयच्या गांवांचीं नांवां कशीं बदलल्यांत ती देख ना?

इतलेंच न्हय जसो आर्यधर्म आसलो तशें ह्या देशाक आर्यदेश अशेंय नांव आसलें अशें नेहरू भारताचो सोद करतना बरयतात. कितेंय आसूं हांगासर

तो मुद्दो अप्रस्तूत. तो म्हज्या मुख्य विशयाक लागना; मात धर्माची व्याख्या करूंक सोदतल्या सद्याच्या कॉंग्रेस सरकाराच्या थोड्यातरी खासदारांक आनी मंत्र्यांक इतलें तरी खबर आसल्यार पुरो म्हणून आमी मागुंया आनी राजकारणाची आनी धर्माची फारकत करतना तांकां हिन्दू धर्म हो एक धार्मिक कारभार चलोवपाक कारभारी पद्धतीन कायद्या कानुनांनी आनी निती नेमांनी आनी हेतू-उद्दिशटांनी Organize वो established वो founded संस्था वो लोकांचो चोमो, वो जोमो न्हय, ताका अध्यक्ष म्हळ्यार prophet ना, कोण बापूय ना तो खंयच्यान पाझरेलो आनी खंयच्यान व्हांवत आयलो म्हळ्यार ताचो source हेर धर्मा भाशेन ना इतलें तरी खबर आसल्यार पुरो. तातूंत एकसुत्रीपणां नांत, एकसारकें देवस्पण ना, एकेतरेचीं च कर्मकांडां नांत, सारकेच उत्सव, सणपरबो नांत, सारकेच रिती रिवाज नांत, सारको भेस ना, भास ना आनी अनेक गजाली सारक्यो नांत. देवतांचीं प्रतिकां, मुर्ती आनी देवळां आनी तांच्यो बांदावळी लेगीत खंयचे एकेच पद्धतीन जावं, एकेच खुणेन बांदिल्लीं नांत इतलें तरी खबर आसल्यार पुरो.

ना जाल्यार जशें व्हॅटिकनांत तशें गोंयांत. रोमांत जसो पाद्री मीस सांगता तसोच व्हडल्या गोंयांतूय ख्रिस्त संवसारांतलीं समान कर्मकांडां, मुस्लीमाचो नमाज पडपाची आनी हेर समान पद्धत सगळी सारकी तशेंच समजून तांणीं हिन्दू धर्माकय बसोवन धर्माची व्याख्या करची न्हय आनी धर्म म्हळ्यार कितें हें तांचे कारभारी पद्धतीचेर नदर दवरून करची न्हय.

सद्याचे परिस्थिती खातीर आनी सद्याच्या राजकारणी वातावरणा खातीर हांवें वयर केल्लें थोडेशें विशयान्तर केले उपरांत हांव परत आनीक एका प्रस्नाकडेन येतां आनी तो प्रस्न म्हळ्यार ह्या तथाकथीत धर्माचो-दोनूय, म्हळ्यार स्वभावीक वो मूळ-कूळ नाशिल्ल्या हिन्दू धर्माचो आनी आतांच्या, हालींच्या कारभारी पद्धतीच्या organized, established वो founded अशा Administrative पद्धतीच्या ख्रिस्ती धर्माचो, मुस्लीम आनी हेर धर्माचो-ह्या निसर्गाचेर, निसर्गांतल्या ल्हान व्हड घडणुकांचेर, क्रिया आनी प्रक्रियांचेर कितलो प्रभाव आसा, कितल्या प्रमाणांत तांचें सैमाचेर नियंत्रण आसा? वो कांयच ना?

म्हजो प्रभाव वो दुबाव अदीक स्पश्ट सांगपा खातीर हांव एक उदाहरण हांगा दितां.

म्हजें घर नागेशी. घरा सामकार श्रीनागेश देवस्थान आसा. ह्या देवस्थानांतली ही खबर. देवस्थानां धर्माच्या निती नेमाप्रमाण चलतात अशें आमी मानतात. ते खातीर जें जें कितें देवस्थानांत चलता तें धर्माचें.

पावस पडप, ना पडप ही एक नैसर्गीक प्रक्रिया. निसर्गांत अमूक अमूक घडटकच, अमकें तमकें जातकच, हें वारें आनी तें वारे येतकच पावस येता अशें आमकां भुगोलाचो अभ्यास सांगता वो आमी भुगोलांत शिकतात.

जेन्ना पावस पडपाक उशीर जातालो, जून म्हयनो सुको वतालो तेन्ना आमच्या गांवांत 'घूड' जाताले. हो घूड भरप नागेश देवस्थानांत जाता. घूड म्हळ्यार पावस पडपाक केल्लें एक देवकृत्य. नागेशाचे गर्भकुडीचे फाटल्यान जी इल्लीशी घुमटी कशी देवळी आसा तातूंत एक बांय आसा. ती बांय फकत देवा खातीर, देवाक न्हाणोवपाक. बांयतलें उदक काडून सरळ गर्भकुडींत आशिल्ल्या शिवलींगाचेर पावपाची वेवस्था केल्ली आसा. जेन्ना पावस पडना तेन्ना देवाक म्हळ्यार नागेशाक उदकांत बुडोवन दवरतात. पावस पडचो, पावस पडचो म्हणून देवाक होरायतात. घूड करतकच पावस पडलो वो पडटलो? असो प्रस्न कोणेंच करचो न्हय. म्हाका कोणाचीच श्रद्धा जावं भावना दुखोवपाची ना. 'घूड' करतकच पावस पडटा अशें हांवूंय समजतालों. भरिल्ली गर्भकूड उदकान रिती करपाक जेन्ना भायर सोडटाले तेन्ना त्या कुंडांत आमी गांवचे पोर देवाचें म्हळ्यार देव न्हाल्लें उदक पवित्र उदक हे भावनेन न्हाताले.

हालीं दुदाच्या सहस्त्रधारांचो अभिशेक घालपाचो महापराक्रम देवळाच्या म्हाजनांनी केलो. भर पावसांत तांणीं टँकरभर दुदाची नासाडी केली. म्हणजे श्रद्धेचीं फकाणां आनी दुसरे वटेन वेव्हार, (दुदाचो टँकर रितो जालो पूण पावस मात पडलो ना.)

जसो 'घूड' भरप तशेंच पावस पडपाक जायते कडेन जायत्या गांवांनी असले तरेचीं कर्मकांडां वो देवकृत्यां करतात. ख्रिस्ती धर्मांतूय पावस पडपा खातीर फातर शेवटुपाची रीत आसा खंय! (आनी हिंदूंचो मीर्ग किरिस्तावांचो मीर्ग आमकां खबर आसाच!)

म्हजो प्रस्न तो हो की ह्या असल्या तरांच्या धार्मीक विधींचो वा देवकृत्यांचो वृतवल्कलांचो निसर्गाच्या धडणुकांचेर प्रभाव पडटा व्हय? 'घूड' केल्यार पावस पडप, वो हेर गजालींचो, म्हणजे धर्मांचो, निसर्गाचेर शास्त्रोक्त रितीन कितें प्रभाव

पडटा व्हय? वो ताचे वरवीं निसर्गाचेर नियंत्रण दवरूंक शकतात? काय धर्म नांवाचे एके मानव निर्मित वेवस्थेन हांगा थंय अवेवस्थीत रितीन, कशाय कशी जियेतले भटके मानवजातीक एका सुत्रान,पद्धतीन, रितीन एका अमक्याच नेमान आनी नितीन शिकोवंक वो सांगूंक केल्ली वेवस्था म्हळ्यार धर्म? आनी ही वेवस्था तंतोतंत त्या त्या मनशांनी मानून घेवंची म्हणून घाल्ली देवाची भिरांत?

देखीक घेवंया हिंदूंच्या दारांतली तुळस वो तुळशीवृंदावन. दारांत तुळशीचें झाड आसप हें शुद्ध वाठाराक पुरक. तुळशीच्या पानांत निसर्गीक जंतू मारपी शक्ती आसता खंय. गिराणांत उरिल्ल्या अन्नांत तुळशीचीं पानां घालून दवरतात. गिराण लागचे पयलीं शिजयिल्लें अन्न तुळशीचें पान घालून दवरून गिराण निवळटकच खातात. पूण ह्या तुळशीच्या झाडाची नित्यनेमान उदक घालून पुजा करतात, थंयच सूर्य नमस्कारूय घालतात. म्हणजे शास्त्रीय पद्धतीन तुळस आनी सुर्यनमस्कार भलायकेक बरें. पूण तांकां देवाचो संबंद आयला. म्हणजे देवाचो भंय वो त्या भंयान तुळशीक नित्य नेमान उदक पडचें आनी सुर्याक पांयां पडटना कूड बळिश्ट जावंची, निरोगी उरची हो ताचे फाटलो खरो हेत.

म्हणजे अशें की एक आवय भुरगें जेविना तेन्ना पडवेर व्हरून भायर आंगणांतल्या काळखांत भुरग्याक व्हरून, पळे हाऊ आयला बेगीन जेव, तो हाऊ तुका व्हरतलो अशी त्या भुरग्यांक भिरांत घालता. भुरगो बाबडो हाऊ आंगणांत आसा अशें समजता आनी भिवून जेवता. रडपाचो थांबता, पूण आंगणांत खरेपणी हाऊ नासता. तशें हें सगळें करपांत खरेपणी देव नासताच. मात ताच्या अस्तित्वाच्या भंयान आमी मनशां आवयच्या हांडिवयल्या त्या भुरग्या भाशेन न्हय मूं?

पूण इतले खातीर मर्यादीत देवधर्माची गरज आयज उरल्या व्हय? काय आंगणांत हाऊ हो नासताच; तसो देव हीवय मानवी संकल्पना, मानवी विचार! हो विचार भावनिक म्हळ्यार obstract – देखून व्याकरणांत सुध्दां देव हें भावनाम म्हणून शिटूक शिक्षक शिकयता. पूण अविचारी शिक्षक तें विशेश नांव म्हळ्यार proper naun म्हण शिकयता. धर्मीक करण्यांचो आनी विचारांचो प्रभाव शिक्षणाचेर पडल्यार आमचो बौध्दीक विकास जावप कठीण.



# हिंदू राष्ट्राचो 'ब्लु प्रिंट' कसो आसा?

**भा**रतांत मुसलमान आसात आनी तेवूयबी हिंदूपरस उणे आसात. संवसारांतल्या खंयच्याय मुस्लीम राष्ट्रांत आशिल्ल्या तिसऱ्या वांट्यान ते हांगा आसात. म्हणजे संवसारांत भारत हो लोकसंख्येच्या मानान तिसऱ्या क्रमावयलें मुस्लीम राष्ट्र जावं येता. म्हणटकच इतले व्हड संख्येन आशिल्ल्या मुसलमानांक काबार करप हिंदूची केदीय तांक जाली, सगळे हिंदू एक जाले तरी शक्य आसा व्हय? ते भायर तें तितलें सोंपेंय ना. संवसारांतलीं मुस्लीम आनी हेर राष्ट्रां भारतांतल्या मुस्लीमांची हिंदूकडल्यान जावपी हत्त्या मोन्यांनी पळोवंची नांत आनी इकरा कोटी मुसलमानूय हात पांगरून आपली हत्त्या करून घेवंचे नांत. म्हणजे हांगा हिंदुचीय कत्तल जातली. अशे तरेचो हो अमानवी रानटी आनी क्रूर प्रकार घडप शक्यूच ना.

दुसरो पर्याय. सगळ्या मुसलमानांक हद्दपार करप. वयले भाशेन हेंवूय केन्नाच शक्य ना. भारताचे फाळणेवेळार जाय तशें वातावरण आसतना हें जालें ना तें आतां जातलें? हेवूय गजालीक परत आंतरराष्ट्रीय दबाव येतलो आनी भारताची संवसारांत शी थू जातली.

तिसरो पर्याय तमाम मुसलमानांक बाटोवन हिंदू करपाचो. हेंवूय शक्य ना आनी चवथो पर्याय चलता, चालू आसा तो म्हणजे हिंदू मुसलमानांनी दिसपट्टे एकामेकाक कापीत धुमसत रावप, मर्दी मर्दी पेटप आनी प्रेताच्यो राशी घालप. रगतखेव करप.

हो पर्याय बरो काय होवूय पर्याय फुडें वचून बऱ्या पर्यायाचो आमी विचार करप?

काय विचारूच करप ना? वातावरण सदांकाळ अशेंच राग-मत्सराचें,

द्वेशाचें, दुगदुगीचें, हुस्को-चिंतेचें, बोबो-हुयेल्यांचें, दिसपट्ट्या पेट्ट्या सरणाचें चालूच दवरपाचें आनी ह्या देशांतल्या नागरिकांक, भुरग्यां बाळांक, दादल्या-बायलांक केन्नाच भंयाविरयत, हुस्क्यामेकळें जियेवपा सारकें वातावरण हांगा केन्नाच जावंचें न्हय हेंच आमी पळोवपांचें? भोंवता घुंवता थंय जीव मुठींत घेवन खंयच्च्याय खिणाक येवपी मरणाक वेंगावपाचे तयारेन जगपाचें?

आनी अशेंच जगपाचें आसा जाल्यार ह्या देशाच्या स्वातंत्र्याक अर्थ खंय उरता? कित्याक जाय हें स्वतंत्र्य? चुडटी लावपाक? काय स्वातंत्र्यांत धर्मांध शक्तिंक मिरोवपाक आनी धुडगूस घालपाक? स्वातंत्र्य प्राप्ती उपरांतचें आमचें दुसरें पावल कितें आसलें? एकदां जशें स्वातंत्र्य प्राप्त जालें की मागीर रोखडेंच हिंदू राष्ट्र निर्माण करपाचे तयारेक लागचें अशें कितें कोणें थारायिल्लें? स्वातंत्र्या उपरांत हांगा रामराज्य येवपाचें अशी इत्सा राष्ट्रपिता महात्मा गांधीनी उक्तायिल्ली एका धर्माचें राष्ट्र न्हय. राम हिंदूचो वो हे भुंयेचो पुरुषोत्तम म्हणून हिंदू राष्ट्राची निर्मिती करप हो विचार आमच्या फुडाऱ्यांचो केन्नाच नाशिल्लो, आनी जर आशिल्लो जाल्यार देशाची घटना तयार करतना ते गजालीचो उल्लेख घटनेत जावपाचो. गांधी-हत्त्या करपी शक्तीचो आनी आतां नथुराम गोडसे सारक्या खुन्याची जयंती मनोवपी देशघातकी आनी हिंदुसमाज घातकी प्रवृत्तीचो तेन्ना तसो अंतस्थ हेतू आशिल्लो जायत. पूण तो विचार स्वातंत्र्य चळवळींत नक्कीच नाशिल्लो. हिंदुत्वादाचो विचार हो राष्ट्रवादाचो विचार अशें समीकरण केन्नाच जावंक शकना. कारण हिंदुत्व नांवाक जरी व्यापक अर्थाचो दिसलो तरी तो भितरल्ल्यान ब्राह्मणवाद आशिल्लो आनी आयजूय तसोच तो आसा. तेच खातीर ह्या देशांतल्या हिंदूनी आनी चड करून आयज मेरेन सगळ्या मळांचेर फाटी उरिल्ल्या हिंदू बहुजनसमाजान हिंदू-हिंदू म्हणून घेवंचे पयलीं ह्या हिंदुत्त्वांत तांचें स्थान खंयचें आसा आनी फुडल्या हिंदू राष्ट्रांत तें कशें आसतलें तें बारीकसाणेन समजून घेवप गरजेचें आसा. देखून अखंड हिंदू राष्ट्राची कल्पना न्हय, वास्तव विचार आनी तें मेळोपाक सद्या सुरू केल्लीं कर्तुबां (मालूकपणां) करप्यांक हिंदू राष्ट्राचो 'ब्लु प्रिंट' आदीं स्पश्टपणान सगळ्या समाजा मुखार दवरात, मागीरूच हिंदू राष्ट्राच्यो गजाली करात अशें ठणकावन सांगूंक जाय.

हिंदू राष्ट्र म्हळ्यार हिंदू धर्मीयांचें राष्ट्र. ह्या राष्ट्रांत पयल्या दर्जाचे नागरीक म्हणून फकत हिंदूच आसतले. हेर धर्मीय हिंदू राष्ट्रांत आसतले काय ना, आसतले

जाल्यार खंयच्या खंयच्या धर्मांचे? हांगा किरिस्तांव आसात, बौद्ध आसात, शीख
आसात, जैन, पारशी अशे हेर बारीक मोट्या धर्मांचेय लोक आसात. हिंदू राष्ट्रांत
ह्या वो हेर धर्मियांचो जागो कितें काय मुसलमानां भाशेन हेवूय धर्मियांक आम
भारता भायर काडटले?

हिंदू राष्ट्रांत हेर धर्मीयांचें बरें आसा. ते सगळे आपआपले परीन तशे बरे
आसात. खूब म्हत्त्वाचो प्रस्न आसा हिंदू धर्मा मदल्या उपधर्मांचो वा उपधर्मियांचो।
उपधर्मीय म्हळ्यार हिंदू धर्मियां मदले वर्ण. हिंदू धर्माचे वांटे चार वर्णांनी केल्यात
आनी ह्या वर्णाचे वाटे परत असंख्य जातींनी केल्यात. मागीर उपजातींनी, मागीर
आडवे, उबे, धाकले, व्हडले बी. हिंदू राष्ट्राच्या ब्लु प्रिंटांत वर्णाश्रम आनी जाती
वेवस्था आसतली काय ना? हिंदू राष्ट्रांत हिंदुच्या कर्मकांडाक व्रतवैकल्यांक,
देवदेवतांक, श्रद्धांक, कुड्ड्या भावार्थाक-जे आयजूय तिगून आसा आनी जे
तशातशें हितसंबंधियांनी सांबाळून दवरलां - तें सगळें आसतलें काय कितें?

सामाजीक स्थिती, गरीबी,दुर्बळपणां, नाडणूक, शोशण, धार्मीक
पिडापीड, मठ, संप्रदाय, पंथ, धर्मग्रंथ हांच्या आदारान आयज हिंदू धर्मांत एक
वयल्या वर्गान आपलेंच हीत आनी सुवार्थ पळोवपी जी एक 'ऑर्डर' तयार
केल्ली आसा ती ब्राह्मणी वेवस्था नो 'ब्राह्मोनीकर ऑर्डर' कशी आसतली?
पोरण्या धर्मग्रंथांचें परत लेखन जातलें? तातुंतले अनिश्ट तें भायर मारून बरें तें
दवरपाचो प्रयत्न जातलो? काय सगळें पोरणें तितलेंय आनी वायट तितलेंय लासून
नवे धर्मग्रंथ बरयतले?

हिंदू राष्ट्राची घटना कशी आसतली? सद्याक जी भारतीय घटना आसा
ते घटनेचें कितें जातलें? ती अस्तित्वांत आसतली वो ती रद्द करतले?

अशे तरेन आनीकय जायते प्रस्न, दुबाव आसात. हिंदू राष्ट्राची कल्पना
न्हय, विचार फुडें मांडून हांगासल्ल्या कांय लोकांक चक्रावपाचो प्रयत्न करतल्या
हिंदुत्ववादी नेत्यांक हें पयलें आव्हान आसा. कोणें तरी स्वाभिमानी हिंदुत्ववाद्यान
वो वाद्यांनी आमचे सारक्या पामरांचें, गरिबांचें आनी चड करून आयज मेरेन
पिडिल्ल्यांचें आनी नाडिल्ल्यांचें फावो ती जाप दिवन शंकानिरसन करचें आनी
आयज जो आमच्या मनांत दुबाव उप्रासला तो पयस करपाचो प्रयत्न करचो.

सर्वसामान्य मनशाचो कसल्याय कामाक कशाय कसो वापर करप,
तरणाट्यांक खुबळावन घालप, नाका आशिल्लो धर्माचो आनी जातीचो फाजील

अभिमान तांचे मर्दी रिगोवप खूब सोंपें, गर्वसे कहो हम हिंदू हैं, ही घोशणा दिवप खूब सोंपें, पूण खंयच्या आनी कसल्या हिंदुत्वाचो आमी गर्व बाळगप अशें विचारतकच तोंडाक कुलूप लावन मोनो जावप हें खंयचोय प्रामाणीक आनी बरो आनी खरो (जर तसो आसल्यार) विचार मांडून तशें घडोवंक सोदतल्याक निखालूस सोबना. आनी तें सोंपें ना वो सत्य मांडपाक 'अनमनतात जाल्यार हिंदुत्वाच्या नांवान हिंदू राष्ट्राची कल्पना वो विचार जो आसा तो निव्वळ फटींगपणाचो आनी घात मारपी विचार म्हणचो पडटलो.

आनी इतकेंच उक्तायल्या उपरांत म्हत्वाचो प्रस्न ह्या हिंदू राष्ट्राचो 'ब्लु प्रिंट' कसो आसतलो अशें विचारतना उदेता तो ह्या तथाकथीत हिंदू राष्ट्राच्यो सिमो वो सरादी कशो आसतल्यो? फकत हिंदू राष्ट्रच न्हय तर अखंड हिंदू राष्ट्र! अखंड हिंदू राष्ट्र म्हळ्यार आयचें पाकिस्तान आनी बंगला देश धरून, काय आयज आसा तशेंच? 

आतां, हें सगळें शक्य आसा, अशक्य गजाल आसा, हें एक मृगजळ आसा, केन्नाच खरें जावप शक्य नाशिल्लें सपन आसा काय कितें तें मागीर पळोवंया. बांगला देश, पाकिस्तान ना करप, अखंड भारत निर्माण करप जितलें हिंदुत्ववाद्यांच्या बोंबले देंठाकडच्यान येवपी शब्दांनी दिसता,भडक उतरांनी दिसता, न्हय तांच्या मनांत आनी मेंदवांतूय जरी दिसता, तरूय हें सगळें कोणाक फुसलावपाक आनी भुलोवपाक तें उप्रांत सिद्ध जातलेंच; भारतांतल्या एक दोन तीन लाख तरणाट्यांनी मोटवीं खाकी कल्सावां आनी तोपयो घालून दांडे हवेंत घुंवडायले आनी सांजवेळा दक्ष केले उपरांत कबड्डी खेळ्ळे वो त्या वयल्यान शिस्तबद्ध मार्चींग केलें म्हणून हिंदू राष्ट्र जावचें ना हें सूर्यप्रकाशा इतलें खरें आसुनय पिशें पांगरून भारतांतल्या तमाम हिंदू तरणाट्यांक असल्या वायट मार्गांक लावपाचो खेळ जे खेळटा त्या नेतृत्वाक पूज्य मानून तांचीं पांयजेलां पुजपी आनी तांकां सदांच गंधफूल घालपी तथाकथीत कट्टर हिंदुत्ववाद्यांक सर्वसामान्य हिंदू समाजाचे हे सवाल आसात. फुडले प्रतिसवाल आनी दुबाव, वास्तवता, आडखळी जावं कितें कितलें शक्य आसा आनी कितें शक्य ना तें उपरांतच पळोवप सोंपें जातलें. ना, हें सगळें मागीर पळोवंया, पयलीं हिंदू निर्माण करूंया ही भाशा म्हळ्यार, ना पयलीं स्वातंत्र्य घेवंया, मागीर देशाची घटना कशी आसतली ती थारोवया, अशें देशाच्या स्वातंत्र्या पयलीं म्हणटले तशें हांगा आमी आयज एका सार्वभौम गणतंत्र

देशांत आसात, स्वतंत्र आसात, तातूंत आमी आतां हिंदू राष्ट्राचो विचार मांडटात! म्हणटकच हिंदू राष्ट्राची संकल्पना फुडें दवरप्यांची पयली लागणूक जावन आसा ती हिंदू राष्ट्राचो 'ब्लु प्रिंट' हिंदुमुखार पयलो दवरपाचो. देखून पयलीं हिंदू राष्ट्राचे इमारतीचो, प्रकल्पाचो आराखडो हिंदू जनतेचे मान्यतायेन फुडें मांडून दवरात. तो तपासूनच मागीर फुडलें चिंतुंया.



# भारतांतल्या मुसलमानांचें कितें करपाचें?

इस्लाम संवसारांत शाराचे आधुनीक रितीचे राजवटीचो पराभव करून जेन्ना धर्मांध आनी मालूक खोमेनी उदेलो तेन्ना ह्या खोमेनीन मुसलमानांक परत दोनशें वर्सां फाटीं व्हेले. हांवें एक मुद्दो फुडें दवरिल्लो तो म्हळ्यार धर्म काबार करूंया म्हणनासतना धर्माचें आधुनिकीकरण करूंया वो करचें असो आसलो. हिंदू धर्माचे जे जे कोण धर्मदंड घेवन मिरयतात त्या भगव्या वस्त्रांनी गुटलावन भोंवतल्या तथाकथीत शंकराचार्य जावं हेर मठाधीश, स्वामी, बाबा-बुवा वो साधुसंतांनी, ते खऱ्यांनीच हिंदू धर्मियांचो एक पार्लामेंट भरचो, एकठांय बसचें, भासाभास करची, आयज मेरेनचो अणभव, वायट-बरे प्रसंग, आयज मेरेन हिंदू धर्मा विरुद्ध आनी हिंदू धर्माच्या फावराद मांडिल्ले विचार, तांतूंत आंबेडकारी विचार, ज्योतिबा फुलेंचे विचार, कर्मवीर भाऊ पाटीलांचे विचार, हेर समाजसुधारकांचे विचार, तशेंच यज्ञयाग करपी चंद्रास्वामी आनी पुत्रकामेश्टी यज्ञ करपी परंपरावादी लोक ह्या सगळ्यांच्या करण्या-कर्तुबाचें मेजमाप करचें आनी जाल्ल्या मंथनांतल्यान जें अमृत भायर सरता तितलें दवरून नवो मानवता धर्म स्थापना केल्ल्याचो एकमुखी निर्णय घेवंचो.

पूण एके व्यक्तीच्यो अपेक्षा आनी एका अमूक वर्गाच्यो अपेक्षा ह्यो शेवटाक अपेक्षाच आसतात. तातुंतलो एक तरी विचार, एक मुद्दो कोणाकूय भावलोच जाल्यार खूब व्हड गजाल म्हणूंक जाय. तरी अशें घडून येवपाक पाशाण-शिळा फोडून ताचो पिठो करचो पडटलो आनी पाशाण-शिळा फोडपाचे परिस्थितींत आयजूय आयचो समाज ना हेंवूय तितलेंच खरें. तरी सुद्धा हीं खडपां आनी तळपां पळोवन तीं निबर आसात, तीं मोव करूंक जाय हें सांगपय तितलेंच कठीण काम आसा. आनी देखून तें समादान-दिणें आसा.

ना जाल्यारं पळेयात. एके वटेन आमी 'गर्वसे कहो हम हिंदू हैं' म्हणट आनी दुसरे वटेन आमी आमच्या संप्रदायाची, आमच्या जातीसमाजाची कोट्यां रुपया खर्चून वास्तू बांददतात. त्यो वास्तू आधुनीक वास्तुशिल्पान बांददतात. 'न आमच्यो पुर्विल्ल्यो वास्तू अशो नाशिल्ल्यो, तांची बांदावळ अशी आशिल्ल तशोच त्यो आतां बांदुया' अशें कोण म्हणनांत. वास्तूंची बांदावळ सुद्धा आधुनी वास्तुशास्त्राक धरून, इतलेंच न्हय तर कार्यावळीचो तपशील देवा भाशेंतल्यान मराठींतल्यान वा नागरी थळावे भाशेन नाच तर परमपुज्य शब्दाचे सुवातेर His Holiness जाता आनी अशा His Holiness च्या कार्यावळीचो तपशील पसून इंग्लीश भाशेंतल्यान जाता. असल्या सुवाळ्याचीं आमंत्रणां पसून इंग्लिशींतल्यान आसतात. म्हणजे आमच्या मुलभुतवाद्यांक फिरंगी भास मठां चलता, फकत तांकां कोताक येना तो थंय हेर हिंदू समाज!

आयज ह्या देशांत मुसलमानांचो भंय घालून आनी ते खातीर राममंदिराचो वापर करतल्यांक उत्तर भारतांत बहुजन समाज पक्षान बरी जाप दिल्ली आसा. ह्या देशांतल्या मुसलमानांचीं मालूकपणां खीणभर कडेक दवरून बारीकसाणेन विचार करीत जाल्यार हिंदुत्ववाद्यांक आनी हिंदू धर्माचो अभिमान बाळगात म्हणून आपल्या जातीचो आनी वर्णाचोय गर्व आनी फाजील अभिमान बाळगून आशिल्ल्यांक एक आव्हान आसा.

आनी तें आव्हान कसलें? फकत ह्या लोकांनी सांगपाचें की हिंदू धर्मियांतल्या गरीब-दुबळ्या, मागासवर्गांतल्या वो बहुजनसमाजांतल्या भौसंख्य जनतेचें शोशण, पिळवणूक, नाडणूक आनी सतावणूक कोणें केल्या? हिंदुमदल्याच हिंदूनी काय मुसलमानांनी? एका हिंदू वर्गाचें शोशण करपी दुसरो वरचढ आशिल्लो वो आयजूय आसा तो वर्ग हिंदुतलो नाशिल्लो? तशें जाल्यार मुसलमानांनी, ज्या मुसलमानांचो चांटेपावलाक हे आमचे हिंदुत्ववादी चुडटे सोरोप करून दाखयतात, त्या मुसलमानांनी, हांगासल्ल्या भारतीय म्हणपी, हिंदू म्हणपी हिंदू समाजाचें खंय खंय शोशण केलां, ताणीं खंय खंय हिंदुचे अधिकार बळकायल्यात, ताणीं आयच्या लोकशाय राजकारभारांत कितल्या प्रमाणांत सुवाती मेळयिल्ल्यो आसात, ह्या देशांतले फौजेंत इकरा कोटींतले कितले मुसलमान वो कितले शीख बी हेर धर्मीय आसात आनी तांचें एकूण प्रमाणांत कितलें प्रमाण आसा? सरकारी नोकऱ्यांनी अहिंदू कितले आसात आनी वयले अधिकाराचे

जागे कितल्या मुसलमान अधिकाऱ्यांनी हिंदूचेर अन्याय करून मेळयल्यात. तें सप्रमाण सिद्ध करून दाखोवंचें. मुसलमानांचें प्रमाण सोडाच, ह्या देशांतल्या एकूण हिंदू लोकसंख्येंतले हिंदू बहुजनसमाजांतल्या लोकांचें सरकारांत वयले जागो प्राप्त केल्ल्यांचे कितलें प्रमाण आसा? एक बुखारी बडबडटा वो एक शहाबुद्दीन चवताळटा आनी तांच्या खुस्तार ही धर्मांध शक्ती बोडकी वयर काडून हांगा बाँबस्फोटां वो हेर घडणुको घडयतात तातुंतय खंयचो वर्ग अर्थात हिंदुंतलो खंयचो वर्ग बळी पडटा? रस्त्याचे देगेक खोंप बांदून रावपीच हिंदू रक्तन्हाणां न्हातात मूं? कारण गर्वसे कहो हम हिंदू हैं च्यो घोशणा आनी नारे दियात म्हणून आड्ड्यो मारपी, मायक घेवन भाशणां ठोकपी हिंदू हो वयर वयर राखणेदळां खाला आनी कमांडोच्या आडोशाक सुखरूप उरता. तलवारी, सुरयो आनी पारयो घेवन भायर सरता तो मनीस फकत धर्म नांवाची अफुची गुळी घेतिल्लो(काय दिल्ली?) सादो भावार्थीच आसता. आनी ताचोच मर्णकाळ येता. ताचेच खोंपीक उजो लागता, कोणाच्या बंगल्याक उजो लागून बंगल्यांतलो लोक लासून मेल्ल्याचें क्वचीत आयकूंक मेळटा. बंगल्यांत लासून मरचें अशें कोण म्हणनांत, पूण बंगल्यांत रावपी फुडाऱ्यांच्या सांगण्यांनी हजारांनी खोंपी लासून वतात आनी हजारांनी मनशांक कुत्र्याचें मरण येता ताचें कितें? उटसूट हिंदूत्वाचे धोल-ताशे वाजोवन आपसुवार्थाक हिंदूच्या संख्याबळाचो वापर करतल्या हिंदुतल्या एका वर्गाक हें कोणें तरी आयज स्पश्टपणान सांगपाची गरज आसा. तांकां सांगूंक जाय की ह्या देशांत अखंड भारतखंडाची खंडणी जावन लेगीत जे मुसलमान हांगा उरले वो रावले तांणीं हांगासल्ल्या हिंदूचें सामाजीक; राजकी जावं आर्थिक शोशण जितलें हिंदूंतल्या वयल्या वर्गान केलां आनी करीत आसा तितलें मुसलमानांनी केन्ना करूंक ना. तांणीं हिंदूंतल्या डिजर्वींग भौसांतल्या तरणाट्यांच्या वयलो अधिकार मेळपाचो घांस केन्ना ओडून काडुना. मात तो एका हिंदून काडिल्ल्याच्यो अनेक देखी आमच्या देशांत आसात. मुसलमानांतले कितले लोक आयज अधिकाराचे जागे बळकावन बशिल्ले आसात तें कोणूय स्वाभिमानी हिंदूत्ववादी देखीसयत सिद्ध करीत व्हय? खंयचीं मळां जीं हिंदूंक फावतालीं तीं आयज भारतांतल्या मुसलमानांनी व्याप्त केल्लीं आसा? आनी तेच बरोबर मुसलमानांचे आर्थिक सुबत्तेचेंय प्रमाण सांगचें. कितले मुसलमान कसलो धंदो-वावर करतात? तांचें शिक्षणाचें प्रमाण कितलें? इकरा कोटींतले कितले कोटी मुसलमान शिक्षीत

आसात? हिंदू भौसांची आनी मुसलमान भौसांची गजाल वेगळी ना. हो मुद्
मातसो कडेक दवरून आमी हिंदूत्वाची राखण करपाक मुसलमानांचें कितें करू
शकतात?

आमी एक गजाल घट्ट मतींत धरूंक जाय की आमी ह्या मुसलमानां काय एक करूंक शकनांत. तांकां आमी सगळ्यांक काबार करून हांगा फक हिंदूच आसतले म्हणूंक शकनांत. ना जाल्यार खंयच्याय हिंदूत्ववाद्यांनी पयलें सांगचें की आमी ह्या देशांतल्या तीस कोटी मुसलमानांक खंयच्या मार्गान काबा करूंक शकतात तें. हिंदुत्ववाद्यांच्या घोशणांनी आनी नाऱ्यांनी ते भिवून हिंदुस्थान सोडून पळून वतले बी म्हणटात ती गजाल विसरात. आमी मुसलमानांची कत्तल करूंक शकनांत हें सिद्ध जातकच दुसरो पर्याय उरता तो ह्या देशांतल्या सगळ्या मुसलमानांक हद्दपार करपाचो. ह्या देशांतल्यान तांकां धांवडावन घालपाचो. आसा हें शक्य? तिसरो पर्याय सगळ्या मुसलमानांक बाटोवन हिंदू करपाचो. हय, हिंदू धर्मीय हेर धार्मियांक बाटोवन आपल्या धर्मांत घेनांत. मात हिंदू धर्मांतल्यान कितलेय हिंदू परधर्मांत गेल्यार उपकारता. न्हय ताका परतो स्वधर्मांत सुद्धां येवपाची वाट सोंपी ना. अशें पाठभूंयेचेर समजा फाल्यां तीस कोटी मुसलमानांनी स्वखोशयेन हिंदू धर्मांत येवपाचें थारायलें जाल्यार तांकां हिंदू धर्मांत सुवात आसतली व्हय? आनी आसली जाल्यार हिंदूतले नेमके खंयचे जातींत? खंयचे धर्मगूरू तांकां हिंदूत्वाची दिक्षा दिवंक आपलीं धर्मस्थळां उक्तीं करतले? काय परत हिंदू धर्मांतल्या चार वर्णांमदीं पांचवो वर्ण निर्माण जातलो? म्हणजे परत तांची तीच गत. तांकां कांय कोण बामण करून घेवचोना, क्षत्रीय म्हणचो ना वो वैश्य न्हय, हिंदुंतलो शुद्रय म्हणचे नांत. म्हणटकच मुसलमान आसात तेच बरे म्हणचें पडलें ना?

हें जालें एक सपन. हांगाच्या मुसलमानांक बाटोवन हिंदू करप ही फिजूल कल्पना! पूण ही कल्पना सुद्धा तर्कान फुडें व्हरप कितलें कठीण तें पळेल्या उपरांत आतां ह्या देशांतल्या मुसलमानांनी कितें करपाचें आनी तांणीं हांगा कशें रावपाचें?

कोणूय हिंदुत्ववादी सश्रद्धो भावार्थी म्हाका सट्ट करून जाप दितलो की हांगासल्ल्या मुसलमानांनी ह्या देशाकडेन प्रमाणीक रावंक जाय. ह्या देशाचेर प्रेम करूंक जाय. ही भूंय आपली मानूंक जाय. तांणीं पाकिस्तानी क्रिकेट पंगड जिखल्यार फोगोट्यो मारूंक जायनांत. तांणीं पाकिस्तानाचो अभिमान बाळगूंक जायना. पूण मुसलमान असो वागपाक कारण कोण? हांगासल्ल्या हिंदूनी 'गर्व से

कहो हम हिंदू है' अशें म्हणून अच्छेव कांडचो, धुमशेणां कांडचीं, मात ही भूंय आपल्याय बापजाद्यांची समजतल्या मुसलमानांनी 'गर्व से कहो हम मुसलमान हैं', 'इस्लाम हमारा गर्व है' अशे नारे दिल्यार ते हिंदूत्वाचो गर्व सांगतल्या हिंदूंक राष्ट्रविरोधी नारे दिसतात! म्हणजे हिंदूनी मात ते संख्येन चड आसात म्हणून धर्मांध जावंचें, आपल्या धर्माचे भगवे झेंडे हुबोवचे! हिंदूतेरांनी मात निधर्मी जावंचें, राष्ट्रवादी जावंचें, तांणीं पांचवो इस्लामाचो चंद्रछाप बावटो गुटलावंचो आनी तिरंग्याक तितलो सलाम करचो. आनी हिंदूनी मात दिल्लीचेर भगवो चडोवपाच्यो घोशणां करच्यो? कोण माल्लूक? हिंदू काय मुसलमान? काय सगळेच धर्मांध? मागीर हातुंतल्यान खंयचो मार्ग काडूं येता?



# धर्म मार्तंडांच्य
# मुळभूततावादाचें खरें रूप

जो कोण भारतांत रावता तो हिंदू. मागीर तो धर्मान कोणूय आसूं. ब्लु प्रिंट कितें आसा? असो प्रस्न करतकच भाजपाच्या एका कार्यकर्त्यान म्हाका म्हळें! हांवें ताका म्हळें, भारतांत आपूण हिंदू न्हय म्हणून सांगपी तो धार्मीक अर्थान; राष्ट्रीय अर्थान न्हय. जर हिंदू म्हळ्यारच भारतीय. जाल्यार मुस्लीम, शीख वो किरिस्तांव जावं बौद्ध आशिल्ल्या भारतीय मनशांचो धर्म खंयचो? ताणें धर्मीक स्तरार आपली वळख कशी करून दिवपाची? ताणें हिंदू म्हणून सांगतकच तो भारतीय थारता. हिंदू मुस्लीम म्हण सांगतकच धर्माचो मनीस म्हणून कळटा म्हणजे तो धर्मान भारतीय नासता, आनी जो भारतीय नासता तोच मुस्लीम, किरिस्तांव बी आसता असो ह्या व्यापक हिंदूत्वाचे व्याख्येंतल्यान अर्थ भायर सरता.

पूण हें खरें न्हय. वयर वयर पळोवपाक जरी भारतांतल्या समस्त लोकांनी आपणांक हिंदू म्हणून घेवचें, किरिस्तांवांनी, मुस्लीम, शिखांनी हिंदू वो राष्ट्रीय हिंदूत्ववादी धरतात तें स्पश्ट नांत, भारतांत रावता तो हिंदू अशें मानतात जाल्यार एका मुसलमानान वो एका किरिस्तांवान स्वताक हिंदूच म्हणून हांगा रावचो असो आग्रो कित्याक? ताणें स्वताक भारतीय म्हणून रावल्यार कितें जाता? भारत हें उतर कितें परकें उतर? जर एका मुसलमानान आपूण भारतीय म्हणून सांगल्यार तो हिंदू ह्या लोकांचे संकल्पनेंतलो हिंदू थारना? भारतीय म्हणप आनी हिंदू म्हणप हांतूंत फरक कसलो?

पूण हे बाबतींत हिंदू हो शब्द राष्ट्र ह्या अर्थान वापरपाचो आग्रो धरतले आमचे हिंदूत्वादी खंयचेच बाबतींत प्रामाणीक नांत. परधर्मीयांचे बाबतींत प्रामाणीक नांत. निदान तितले तरी तांणीं आसूंक जाय आशिल्ले. तांच्या मनांतलो

हेंदूत्ववाद साप्प स्पश्ट दिसता. तांकां आंबेडकारांची मागणी मान्य ना. तांकां ज्योतीबा फुलेंचो विचार मान्य ना, वयलेचाराक समानतेचो पावडर तांणीं कितलोय तोंडाक सारोवन हम सब एक हैं अशें म्हळें तरी हो तांच्या त्या त्या नाटकापुरतोच रंग आसता. खंयचेय सभेंत हिंदू आमी हिंदू अशें म्हणू पूण आपणाल्या घराचीं सपणां चडून घरांत भितर सरतकच ताका तो खरो कोण तो दिश्टावो जाता, आनी तो स्वता भितर उपहासान म्हणटा, पिंपळ तो पिंपळ, पिंपळाचो वड जाता? वास्तवीक पिंपळाचोच म्हणून एक धर्म आसता आनी तसोच हिंदूचोच म्हणून एक धर्म आसता तें तो विसरता. सैमीक फरक दाखोवपाक सैमांतल्या दोन गजालींची तो तुळा करता. सैमीक रुपान मनीस हो मनीस हें एकेच जातींत मोडटा अशें धरून तो भेद करिना. हिंदूचो मुसलमान जावं येता हो नेम ताका मान्य आसा, म्हणजे धर्मांतर जावं येता, फकत जावं नजो तें जातीन्तर, सकयलो वयर, वयलो सकयल आनी तोवूय बी धर्मांतरा भाशेन धर्मीक संस्कारांनी जाल्लो न्हय तर स्वकर्तुत्वान, पात्रतेन, संस्कारान जाल्लो. एक हरिजन भटपण शिकून भट जावं येता हें एक मुसलमान हिंदू जावं येता हे गजाली परस म्हाराचो भट जावप कठीण, न्हय शक्यच ना, आनी ही अशक्यताय पटोवन सिद्ध करपाक मागीर ते धर्म पोथयां धर्मग्रंथ (कोणें बरयिल्लें?) काना मात्रा बदली नासताना संदर्भाक घेतात आनी ठामपणान सांगतात जातीन्तर हें धर्मांतरापरसूय कठीण आसा, अशक्य आसा. म्हणजेच धर्मा परस जात ही कठीण आसा. ती केन्ना फुटना, धर्म फुटूं येता. ना जाल्यार केन्नाच कोणें धर्मांतराच्यो खबरो वाचतल्यांनी अमके तमके कडेन अमक्या तमक्या देवळांत वो मठांत अमकें तमकें क्रियाकर्म जावन मोठ्या प्रमाणांत अमूक तमूक जातीच्या लोकांनी अमके तमके जातींत प्रवेश घेवन जातीन्तर केलें अशें आयकलां?

फाटींच लातूराक जो भुंयकांप जालो त्या भुंयकांपांत सांपडिल्ल्या निराधार हिंदू भुरग्यांची सेवा करतां करतां तांकां किरिस्तांव करपाचो प्रयत्न एके भारतीय ख्रिस्ती धर्मसंस्थेन चलयला अशी बातमी वर्तमानपत्रांनी चौकटींत प्रसिद्ध जाली. पूण अमक्या गांवांतल्या ब्राह्मणांनी आपले जातींत ताका आस्पाव करून घेतलो अशें केन्ना आयकूंक मेळटा न्हय?

कर्मान कोण तो थारता. जो कोण ब्रह्म जाणां तो ब्राह्मण बी सुभाषीतां केन्ना केन्नाय आमच्या तोंडार मारपाचो यत्न जाता, पूण कर्मान ब्राह्मण तो फकत

खऱ्यांनीच कर्मानूच स्वतापुरतो उरता आनी हें केन्ना सिद्ध जाता? जेन्ना ताचे संस्काराचो प्रस्न येता, लग्नाचो प्रस्न येता तेन्ना. आं तो आतां कर्मण्ये ब्राह्मण कर्मान ब्राह्मण जालो, आं, आतां ताका सोयरीक व्हरपाक हरकत ना अशें म्हण कोण ब्राह्मण फुडें येना. मोगान, वळखीन आंतरजातीय लग्नां जाल्यांत तां देख हांगा कोणें सांगची न्हय. मोग हो सभावीक, सैमीक आनी म्हणून तांतल्या जावपी नातें हें सभावीक मानवतेचें सत्य नातें आनी तें जावं येता हेंच सिद्ध कर आनी वड तो वड आनी पिंपळ तो पिंपळ अशा दोन भिन्न पदार्थांक फुडें करू एकेच मनीसजातींत वड-पिंपळा भाशेनची भिन्नता आसा अशें दाखोवप्या मोगान जाल्लीं लग्नां हीं खरें म्हळ्यार बरी चपराक आसा. पूण हेवूय गजाल कडेन सोयीप्रमाण दुर्लक्ष करून आपलो तोच हट्ट फुडें व्हरपाचीच अश जात्यंधांची धडपड आसता.

हे भाशेन हिंदुत्वामदीं असो मोठ्या प्रमाणांत भेदाभेद दवरून वयलेचाराक हिंदू.ह्या शब्दाचो वापर करून हिंदूतर धर्मीयांचो भंय हांगासल्ल्या दुबळ्या आनी नेणार समाजाक घालून परत चारशें पांचशें वर्सां फाटीं वचपाची धडपड करपी आतां सामान्य मनशां मदलीं पापीभिरूपणा, देवपणाची भावना परत चार्ज करूंक लागल्यांत. ह्या लोकांक मूलभूततावादी म्हणटात. हे मूलभूततावादी सगळ्या धर्मांनी, पंथांनी आनी संप्रदायांनी खूब आसतात. तांकां धर्मातलें कुस्कूटय बदलिल्लें नाका आसता. तांकां पंथांन कांयच फरक जाल्लो नाका, तांकां आपल्या सांप्रदायांतय कसलोच बदल जाल्लो नाका. म्हणजे एकाद्र्या सांप्रदायाक हेर सांप्रदायांचो प्रवेश नाकारप बी. अशे मुलभूततावादी फकत हिंदूधर्मीयां मदींच नांत तर किरिस्तांवां मदींय आसात. मुसलमानां मदीं आसात. फाटीं जेजू क्रिस्ताचो अलौकीक जल्म, ताचें पुनरुत्थान, बायबलचें खरेंपण मानप्यांनी म्हळ्यारूच मूलभूततावाद्यांनी मोटी चळवळ केल्ली. अर्थात ती युरोपांतल्यान सुरू जाल्ली. इराणांत खोमेनीन कुराणाचो नेम बारीकसाणेन पाळचो अशें इस्लामी संवसाराक फर्मान सोडिल्लें. तेच भाशेन वेदीक धर्म वो वेदा कडेन चलात अशे नारे दिवन चातुर्वण्य मानांत अशें आवाहन करपी आर्यसमाजाचेंय स्वरूप अशेंच इराणाच्या खोमेनीच्या मूलभूततावादा भशेनूच आसलें आनी सद्याचो हिंदूत्ववादूय दुर्दैवान तसोच खोमेनी टायम मूलभूततावाद आसा. देखून हिंदूत्ववाद्यांनी व्यापक नदरेन स्वताक हिंदू म्हणून घेतलें तरी ते संकुचीत नदरेन ते ते जातीचेच आसतात.

म्हणजे कोणूय धर्मीक फुडारी आपल्या प्रवचनांत हिंदू धर्म, हिंदू संस्कृती राखून दवरूंक जाय, आमच्या देवस्थानांनी हिंदू धर्म, हिंदू संस्कृती राखून दवरल्या अशें जेन्ना म्हण्टा, खंयचेय अगरसाळेचें वा धर्मशाळेचें उद्घाटन केल्या उपरांत प्रवचन वो आशिर्वाद दिवपी उलोवप करता ताचो अर्थ कितें? ह्या फुडाऱ्यांक हिंदू धर्म, हिंदू संस्कृती प्रामाणिकपणान अभिप्रेत आसता, जातीविरयत ती अभिप्रेत आसता. समस्त हिंदूखातीर ती अभिप्रेत आसता, जाल्यार ते अमक्या जातीच्या हिंदूक अमके कडेन प्रवेश ना, तमक्या हिंदूक अमके कडेन प्रवेश ना, तमक्यांनी गर्भा घरांत वचूंक जायना असलो भेद दाखोवपी गजालीक महत्व दिवचें नासले. त्यो हिंदुत्वाक कलंक लावपी, लांछन हाडपी आसात अशें सांगून आपल्या अनुयायांचे कान पिळटले आसले. तांकां बरी देख दितले आसले. पूण असल्या धर्मीक फुडाऱ्यांचें भाशण म्हळ्यार कितें? भितरल्यान तमाशा जातीचो, आनी भायल्यान नाटक धर्मांचें!

आनी भितरल्या तमाशाचो जो कोण बोमाडो फोडटा तो अधर्मी, तो जातीवादी वो जातीद्वेश्टो, तो आमच्या समाजाचो, ज्ञातीचो दुस्मान अशें खोमेनी टायम ते जाहीरूय करतात. आनी तमाशा आनी नाटक हांतलो फरक दाखोवपी मागीर ह्या लोकांक नाक एके कडेन आनी आदोळी दुसरे कडेन आशिल्ले भाशेन दिसूंक लागतात. खरें म्हळ्यार, समस्त हिंदू समाजाचो हक्क आशिल्लो 'हिंदू' शब्द ह्या लोकांक स्वताच्या जातीवादाचेर कट्टें वा रुपडें कशें घालपाक जाय. पुराय समाज वो ज्ञात खऱ्या अर्थान हिंदू करपाची नासता. आयच्या हिंदुत्ववाद्यांचें हें अस्सल रूप. आयंज खरो हिंदुत्ववाद अभिप्रेत आशिल्ल्यांनी मतींत धरूंक जाय आनी तांचें तें बेगडी रूप पिंजून उडोवंक जाय.

देखून जे मेरेन हांगा मूलभूततावाद मोट्या प्रमाणांत आसतलो तो मेरेन तरेतरेचीं कारणां, निमतां, अडचणी, आडमेळीं, पापपुण्याचो भंय, मोक्ष, आत्मा, परमात्मा सारकीं शस्त्रां फुडें करून हिंदू खोमेनी हिंदुत्वाच्या नांवान आपआपलें अंतस्थ अस्तित्व जातीचें, पंथाचें, वर्णाचें, सांप्रदायाचें ह्या ना त्या स्वरुपान राखूनच दवरपाचो न्हय तर तें चड प्रबळ आनी घट करपाचो प्रयत्न करतलो.

अशा लोकांचे भूतकाळाचेर खूब प्रेम आसता आनी वर्तमानाचो कडक द्वेश आसता. "कितें बाबा आतांच्या पोरांचेर सांवार आयला! आमच्या वेळार अशें नाशिल्लें. खेव पडला हांचेर. अधर्म आडायला हांणीं! कली मातला, आपलो

धर्म म्हणून विसरूं येता?" अशे तरेचीं ह्या लोकांचीं उतरां आसतात. आधुनीक तितलेंय वायट आनी पोरणें तितलेंय बरें आनी खरें अशी तांची भुमिका आसता.

खऱ्यांनीच आपलें कल्याण करून घेवंक जाय जाल्यार मनशान आतां आपलें मूळ अवस्थे कडेन पर्थूपाक जाय अशें हे लोक अक्षरशा बोबो मारून सांगतात. थोडयाच उतरांनी सांगचें जाल्यार हे लोक धर्मीक पवित्रतायेची 'बॅटरी' परत चार्ज करतात.

ही धर्मीक पवित्रताय म्हणजेच आसा तश्शी समाजीक परिस्थिती उरची, तीच आपल्या फायद्याची, अधिकाराची आनी लागणुकेची असो ठाम विस्वास जाल्ल्यान मागीर हांगा ईश्वर ना जाल्यार प्रेषीत, आनी जेन्ना जेन्ना मनीस जातीचेर संकटां येतात, मनशाचें अधपतन जाता, सर्वनाश जाता (अर्थात ताचे नदरेन) तेन्ना हे पृथ्वीचेर ईश्वर अवतार घेता, मागीर एक अवतार, दोन अवतार, अशे तरेचे अवताराचे अवतारूच जातात. देखून आतां कलीयुगाचो रणखेव, धुमशेणां सोंपतकच विष्णूचो धावो अवतार येतलो आनी हिंदू धर्माची शुद्ध रुपान परत स्थापना करतलो अशें आमच्या तथाकथीत हिंदुत्ववाद्यांक आयजूय दिसता! जशें अल्-महदी नांवाचो इमाम एकदां प्रकट जातलो, लोकांचो उद्धार करतलो अशें इस्लामांतल्या शिया पंथांच्या लोकांक दिसता, तशेंच आमच्या कांय हिंदुत्ववाद्यांकय विष्णूचो धावो अवतार दोळ्यां सामकार दिसता, कारण हिंदू समाजाक असल्या भ्रामक कल्पनांनी घुस्पावन दवरल्यारूच तांचो शेक हांगा हिंदू भौसाचेर चलप शक्य आसा.



# आमका देव-धर्म जाय, पूण कसले?

**म्हा**का दिसता, मनशान आपले बुद्धीचे तांकीन आपल्या सुखासमाधाना खातीर जें जें कितें नवें नवें सोदून काडलां तें तें सगळें मनीस स्वताच्या सूख-समाधाना खातीरूच वापरता. तसोच दिश्टीकोन धरून जर देव धर्माचो वापर मनशान स्वताच्या कल्याणा खातीर केलो जाल्यार देव-धर्माक विरोध करपाचें कारणूच ना. आनी म्हाका दिसता देव धर्माची व्यवस्था वो सोदपासून त्या त्या काळांत जो लागलो तो हेच भावनेन. रानवट अवस्थेंत, विस्कळीत समाजव्यवस्थेंत, बेशीस्त नेमां भायर कशायकसोय रावतल्या मनशाचे जिणेंत एके तरेची एकसुत्रता, एकेतरेची समानता आनी एक वेवस्ता निर्माण करपा खातीर ह्यो दोन म्हत्वाच्यो घडणुको मनशांनी आपणावन घेतल्यो आसूंक जाय आनी होच उद्देश खरो आसूंक जाय. हातुंतल्यान साबार मनशां मदीं साबार सुवातांनी साबार तरेच्यो चाली-रिती-रिवाज, समज, गैरसमज, समाजीक नेम आनी कायदे तयार जाले. हाकाच आमी त्या त्या मनशांची संस्कृती म्हणटात मूं? मनीस जल्माक येत पासून ते ताच्या मरणा पर्यंत जर कसलेच संस्कार नाशिल्ले जाल्यार मनशाचें कितें जावपाचें? मनशाचे वेगळे वेगळे स्थितीचेर तें तें करूंक जाय, भुरगो आसतना अमूक करूंक जाय, तरणो जातकच तमूक करूंक जाय, जाण्टेपणांत अमकें आनी मरणांत अमकें, आनी ही जीण -घटना तयार करतल्यांनी जावं तें तें बरोवन दवरतल्यांनी एक समाज-व्यवस्था, एक धर्म-व्यवस्था कळटां नकळटां तयार करून दवरली.

आयज आमचे मदीं उणें म्हळ्यार इकरा बारा तरी धर्म आसात आनी ह्या धर्मां मदीं संवसारांतली मनीसजात वाटून गेल्या. पूण ह्या सगळ्या मूळ धर्मांचो हेतूच तांच्यांत आस्पावल्ल्या वा आस्पावन घेतिल्ल्या मनशांचें बरें करप. ताका

वेवस्थीत निती-नेमान जियेवपाक मार्ग तयार करप हें प्रत्येक धर्मान आपले परी थारायिल्लें आसा. जाका आमी निमणो संस्कार म्हणटात, ताचेय पयलीं मनशाचे जल्माक येत पासून शेंकड्यांनी ल्हान व्हड संस्कार जातात आनी हे संस्कार प्रत्येक धर्मांत वेगवेगळे तरेन जातात. मागीर ह्या भागांतलो एक संस्कार त्य भागांतल्या मनशांक पटूं वो मानूं ना मानूं तो तांचो तांचो संस्कार आसा. येरोपांत मनशाची कूड पुरतात. ताका थंयचें हवामान वो थंयची परिस्थिती कारण आसता. पूण आमी हें भितर भितर पळय नासतना सट् करून म्हणून वतात की ही तांच्या धर्माची रीत वो तांचो तो कायदो. मुद्दो हो की समज मेल्ल्या मनशांचें कितें करचें हें जर कोणेंच थारावन दवरूंक नासलें जाल्यार कित्याय कितें आमकां पळोवंक मेळचें नासलें? म्हणटकच ही एक मानून घेतिल्ली वेवस्था. तोच नेम कसो आनी कायदो कसो जाता. अशेच तरेन हेर नेम, चालीरिती आनी वेवस्था. हातुंतल्यान मागीर समज गैरसमज जल्मांक आयल्यात आनी खंयचीय गजाल बरोबर तरेन पक्की मानून घेतली जाल्यार ती श्रद्धा थारता आनी चुकीन मानून घेतल्यार अंधश्रद्धा जाता. देखून समजून घेतिल्ली वो मानिल्ली एखाद्री श्रद्धा आसत जाल्यार अशे श्रद्धेक विरोध करपाचें कारण ना. मात चुकिचे समजुतिचेर आधारिल्ली श्रद्धा म्हणजेच अंधश्रद्धा आसत जाल्यार ती अंधश्रद्धा. ती चुकिची आनी मनशाक माल पडटा अशें दिसतकच तिका विरोध हो जावंकच जाय. बुद्धी प्रमाण्यावाद्यांचें हें कर्तव्यूच थरता अशें म्हाका दिसता.

म्हण्टकच आमकां जर एक पटलें की निसर्ग शक्ती जी अनंत आनी हो वेळ मेरेन तरी अखंड तशीच सर्वशक्तीमान अशीच आसा आनी ते शक्तीचो आपूण एक कणभर अंश, ह्या म्हज्या अंशांत ती आस्पावल्या आनी तिच्यांत म्हजो अंश आस्पावल्लो आसा, जाल्यार तिका वेगळी कडेक काडून पळोवपाचो वो तिची पुजा करपाचो वो ती आपलें बरें वायट करता हें समजुपाचें कारणूच ना. जें जें घडटा तें तें सगळें तेच शक्तीचें एक कर्म वा ते शक्तीचो तो एक स्वभावीक नेम, आनी त्या नेमांक तिचो एक अंश, एक कण कसो आशिल्लो मनीस वेगळो रावून तिका आवाहन कसो दिवंक शकतलो? मोटारीच्या टायरांत जो वारो आमी भरतात तो खंयचो? टायरांत वतकच त्या वाऱ्यान आपूण वेगळो अशें समजल्यार जायत? आनी टायर फुटून जातकच तो वेगळो समजुपी वारो खंय वता? वो दर्याचें उदक तांबयांत भरलें म्हणून तांबयांतलें उदक दर्यापासून वेगळें रूप घेता

न्हय, आनी घेतलेंय जाल्यार कितलो वेळ? जे मेरेन तें तांबयांत आसा ते मेरेन मूं? मनशाचेंयं अशेंच न्हय? जेन्ना मनीस जल्माक आयिल्लोच नासता तेन्ना तो खंय आसता? आनी उपरांत मरतकच खंय आसता? जीण म्हळ्यार तांबयांत आशिल्ल्या उदका भशेन. टायरांत भरचे पयलीं वारो वाऱ्यांत म्हळ्यार सैमांत आसता आनी फुस्स जातकच तो आशिल्लो तसो परतो त्या सैमांत वो वाऱ्यांत भरसता. मनशाची वेगळी गत जायना.

आनी मनशाक इतलें भान आसत जाल्यार हे शक्तीक वेगळी कडेक काडून तिका फातरांतले मुर्तीत वो लांकडाचे मुर्तींत ल्हान करून पुजपाची गरज ना, कारण तशें केल्ल्यान कोणाचेरूच कसलोच परिणाम जायना. कोण प्रसन्नय जायना आनी कोण रागारूय जायना. सैमाचो वा निसर्गाचो जो सभावीक नेम आसा तोच हांगा चलतलो.

अशें आसल्यार देव ही कल्पना वो देव ही वस्त आमकां कित्याक जाय? आमी देवाच्यो मुर्ती कित्याक पुजूंक जाय? तांचीं देवळां कित्याक तयार करूंक जाय वो देव कित्याक आसात?

आमकां अनंतरूप, सैमशक्तींतल्या अवर्शणांक, आपत्तींक भयांतल्यान शरण वचूंक जाय. शक्तीक आमचें समाधान म्हणून थातारून धरूंक जाय. तिका प्रसन्न दवरूंक जाय अशें दिसता तेन्ना अनंत आनी अखंड, कोणाची वेंग पावनाशिल्ली, निराकार आनी निर्गूण अशी आपणाक जाय तशी जाय तसली ल्हान करून कशी फुडें दवरतलो! हांवें जर कोणाकूय सांगलें, हो निसर्गूच देव. तोच तारपी-मारपी, तोच सगळें, तेन्ना तो सामान्य मनीस हे शक्तीक समजूंक शकना. ताची तितली तांक नासता. तेन्ना हांव कितें करतां, सैमांतलोच एक फातोर काडटां आनी ह्या फातराक आकार आसता, गूण आसता तो त्या मनशाक सांगता. हो तुजो देव. मनीस समाधानी जाता. हय, तुजें वायट-बरें होच करता, वच ताका शरण, पड ताच्या पांयां, कर ताची तुस्त -तोखणांय, गाय ताचेर गायनां आनी स्तोत्रां, बांद ताचे खातीर एक पाखें, मान ताका पवित्र, पळय ताच्यांत देव, म्हळ्यारूच कळटां न कळटां ती अभिप्रेत 'सैमशक्ती' आसता. मात, ती समजुपाची तांक ताका नासता, ती तांक मनशाक येवप म्हळ्यारूच देव ही संकल्पना समजप.

माणकुलो राम मळबांतल्या चंद्राखातीर रडपाक लागलो, कौसल्या चंद्रीम

रामाक कशी दितली? तिणें कितें केलें, रामाक रडपाचो थांबोवपाक चंद्राक रा
म्हऱ्यांत धतरीर हाडलोच मूं? खरो आसतलो तो चंद्रीम? रामाचें जालें मूं समाधा
सैम वो निसर्गशक्ती आमी देवळांत पुजेक लावंक शकनांत म्हणटक
सैमशक्तीचींच प्रतिकां म्हूण जर देवाची कल्पना आसत आनी जसो चंद्राचें पडबिं
पळोवन राम समाधानी आनी खोशी जालो तेच भशेन तशेंच फातराचे मुर्तींतल्य
जर मनशाक सर्वशक्तीक पळयिल्ल्याचें सुखसमाधान मेळटा आनी इतलोच ज
बरो आनी खरो उद्देश आसत जाल्यार आमकां आयचे देवूय जाय आनी तांव
हे पद्धतीच पळोवपाक शिकोवपी धर्मय जाय.

पूण आमी आयज कितें पळेतात? संवसारभर सगळीं गणितां सारकीं
आसतात. म्हळ्यार ५ x ४ बेरीज णव. ती अमेरिकेंत वेगळी जायना वो आफ्रिकेंत
वेगळी जायना. भारतांत भुगोल शिकयतल्यान पृथ्वी दुसरेच भशेन घुंवता अशें
शिकल्यार तें खरें जातलें? जशें हें गणित चुकूंक फावना वो चुकना तशें देवधर्माचेंय
गणित चुकूंक फावना. मागीर देवधर्म समजून घेवपाक वेगळी पद्धत आनी वेगळी
रीत आपणायली म्हणून कियें जालें? जाप सारकी येवंक जाय न्हय? पूण ती जाप
सारकी येना कारण आयच्या देवधर्माचें गणित सारकें ना. ताचो हिशोब सारको
जायना. आयचो जात-धर्मांमदलो आनी संप्रदायां मदलो चलिल्लो संघर्श ह्याच
चुकिल्ल्या गणिताक लागून! चुकिल्लें गणित कशें म्हणुंया, मुळांत तें गणितूच
न्हय. आमी मुळांतच देव समजुपाक असमर्थ आसात. धर्मसंस्थेचो हेतूय आमकां
खबर ना, तेच खातीर आयज बुद्धिप्रामाण्यवाद्यांक, विचारवंतांक ज्या देवाधर्माच्या
नांवान मनीसजाती मदीं जो मोनजातीक पसून सोबना असलो अच्छेव चालू आसा
ताका लागून देवधर्माचे खरें स्वरूप विस्कटावन सांगचें पडटा. ही विस्कटावणी
करपाचो प्रयत्न करतल्यांक आव्हान दिवप्यांनी सदांच आपलें गणित मांडूनच
फुडें येवपाक जाय आनी ज्याका गणित करूंक कळना वो आपणाक करपाचेंच
ना अशें म्हणून जें जें असत्य कल्पीत आसता तें आपणावन बशिल्ल्यांक आनी
कितें म्हणपाचें?

सारांश, आमकां देवूय जाय आनी धर्मूय जाय, पूण तो असो सत्त्याचेर,
गणिताचेर कसाक लावन आसता तो धर्म जाय. फटीचेर, कल्पीत आनी निराधार
आशिल्ले गजालींचेर उबारिल्लो न्हय. असल्या देवधर्माचो कालान्तरान शेवट
जातलोच, पूण ती प्रक्रिया उत्क्रांतीची थरतली. आयज मनीसजातीक नाशांतल्यान

त्राटायतलो जाल्यार सत्याचेर आधारिल्ली गणिती क्रांती जाय, आनी तशें घडल्यारूच हांगा देव-धर्माचें म्हत्व फकत वास्तवतेचे कसवटेर तिगून उरतलें. ना जाल्यार देव धर्म जे सद्याक चालंत आसात ते मनशाक जीण असह्य करून सोडटले. तशे ते सद्याक करतातय बी.





# अतिमानवी शक्तींचो भंय आन
# आत्मसंरक्षणाची गरज

मुक्तसार सदरांतल्यान देवाधर्माच्या संदर्भातल्या कांय मुळाव्या आशय
विशयांचेर चर्चा केले उपरांत ह्या विशयांत आस्था आशिल्ल्या म्हज्या क
इश्टांनी ते चर्चेवयर बरे अभिप्राय दिले आनी निदान विचार करतल्यां मदीं आ
कितेंय जाणां वा समजून घेवप्यां मदीं अशे तरेचें लिखाण येवंक जाय म्हणपा
सांगलें.

समता आंदोलनाचे प्रमूख, म्हजो इश्ट श्री. दत्ता दामोदर नायक हांग
म्हाका ह्या विशया वयलीं दोन म्हत्वाची पुस्तकां भेट दिलीं. एक पुस्तक म्हळ्य
'आस्तिशिरोमणी चार्वाक' आनी दुसरे 'धर्म की धर्मापलीकडे?' हीं दोनूय पुस्त
महाराष्ट्रांतले विचारवंत श्री. आ. ह. साळुंखे हांगेली निर्मिती आसा. ह्या विशयांचे
स्वतंत्रपणान हांव विचार करतांच म्हाका Daddy, am I a Hindu? हे श्र
विश्वनाथन हांणीं संपादीत केल्ले प्रस्न – जापाचें पुस्तक वाचूंक मेळ्ळें. तांत
श्री. आ. ह. साळुंखे हांणीं चर्चिल्ले विशय आसात. अस्तंते कडले प्रभाव
विचार, खासा करून इगर्जेविशीं आनी ख्रिस्ती धर्मावयर प्रखर आनी कड
भाश्य केल्लीं इंग्लीश पुस्तकां म्हळ्यार C.T. Gorham हांगेलें Religion a
a bar to progress आनी A layman's plea for Rationalism
हीं वाचूंक मेळ्ळीं. हीं सगळीं पुस्तकां आनी धर्मावयर बरयिल्ले कांय लेख वाचू
म्हाका एकच खोस भोगली ती म्हळ्यार हांव त्याच रुळावयल्यान चलताल
आनी –चलतां. Religion as a bar to Progress हें पुस्तक म्हाक
दिल्लींत आसतना १९८२ वर्सा चक्रवर्ती नांवांच्या एका बंगाली मनशान भे
दिल्लें, इतली याद जाता. हें इतलेच खातीर सांगन दिसता तें म्हळ्यार सर्वसाधार

नीस फटीच्या विश्वांत कसो जियेता आनी खरें विश्व कितलें पयस आसा तें अणभवूंक मेळटा.

हें सगळें वाचतकच आनी ताचेर स्वतंत्र रितीन विचार करतकच आयज जी परिस्थिती आमचे मदीं अस्तित्वांत आसा ते भिरांकूळ परिस्थितींतल्यान भायर सरतलो जाल्यार ह्या असल्या विचारांची सामकी गरज आसा. खासा श्री. आ. ह. साळुंखे हांगेल्या "धर्म की धर्मा पलीकडे" ह्या पुस्तकांतले विचार तर भारतांतल्या सर्वसामान्य मनशां मेरेन – हिंदूकडेन तशेंच मुसलमानांकडेन पावपाची गरज आसा. राजकारणा पासून धर्माची फारकत जावची अशें प्रामाणीकपणान दिसतल्या कॉंग्रेसच्या आनी भाजपाच्या प्रत्येक कार्यकर्त्या मेरेन आनी नेत्या मेरेन तरी तांणीं मांडिल्ले विचार पावंक जाय अशें म्हाका पुस्तकांतलें प्रत्येक प्रकरण वाचतां वाचतां दिसूंक लागलें. दत्ता नायकान हीं पुस्तकां म्हाका भेट म्हणून दिवपा फाटलो कसलो हेतू आसलो तें म्हाका खबर ना. पुणून ह्या पुस्तकांत चर्चिल्ले कांय मुद्दे, सामाजीक तशेच सद्याचे राजकी परिस्थितीचे नदरेन महत्वाचे आसात आनी देखून जंय पावोवं येतात थंय ते पावोवचे हे नदरेन त्या मुद्यांचो आदार घेवन तांचेंच पडबींब पळोवपाची इत्सा अनावर जाता.

तुमकां धर्म जाय काय नाका हें नेमकें कितें तें बेगीन सांगात असो घाईगडबडींत सर्वसादारण मनश्यांक आमी जेन्ना प्रस्न करतात तेन्ना तांतूंत धर्म जाय म्हणप्यांचें प्रमाण चड आसतलें आनी धर्म जाय म्हणप्यांक विरोध करपी इल्लो मूठभर वर्गय अस्तित्वांत आसतलो. ह्या मुठभर लोकांच्या मतांक आयचे संख्येच्या हिशोबांत कोंत ना जरी जालें तरूय ह्या दोन वर्गांमदलें स्वरूप समजून घेवपा खातीर शाब्दीक आनी 'वास्तव' अशे दोनूच प्रकार समजून घेवपाची गरज आसा.

साधारणपणान शाब्दीक विरोधाचें स्वरूप अशें आसूं येता. 'धर्म' ह्या शब्दाचो अर्थ समजून घेतना दर एके व्यक्तीची धारणा विंगड विंगड आसूं येता. धर्मीक मुल्यां आपणावपी मनशांक जेन्ना तीं आपणावंक विरोध करतात अशें दिसलें तरी तें सदांच खरें नासता; कारण एकल्यान जरी धर्म म्हळें जाल्यार एकलो ताका आपणायता तर दुसरो तिका न्हयकारता. पूण मूळ धर्म तोच आसता. देखीक एकल्याक धर्म म्हळ्यार मनीसपण आसूं येता तर दुसऱ्याक भेदभाव, असमानता असो आसूं येता. हाका लागून आशय आनी मुल्यां हांच्या संबंदान

दोगांचोय कसलोच मतभेद नासून लेगीत फकत एकाच शब्दाक लागून विरो टाळपाक जाय, आनी टाळ्ळो ना जाल्यार विनाकारण गैरसमज जावन आपल शक्ती पिड्ड्यार जावंक पावता. ते भायर, इश्ट आशिल्लेय ओगीच दुस्मान जाव मोटें लुकसाण जावपाचो भंय उरता. ते खातीर शाब्दीक विरोध टळत वो कडेव दवरीत जाल्यार ज्या मुद्यांचेर भासाभास वो संघर्श करपाची चड गरज आसत त्या मुद्याचेर लक्ष केंद्रीत करपाक सोंपें जाता. म्हणजेच भासाभाशेच्य झुजामळाच्यो शिमो-मेरो थारांव येतात.

जिणेकडेन पळोवपाची नदर, हितसंबंद हांकां लागून दोग जाण धर्मा वयर विंगड विंगड मतां मांडटना पळोवंक मेळटा. मात अशा वेळार हीं मतां वेगळी म्हणून गैरसमजुतींतल्यान तयार जाल्लीं मतां म्हणूंक जावचें ना. देखीक एकलो अशें सांगता की चातुर्वर्ण्य देवानूच निर्मिल्यात देखून चातुर्वर्ण्यरुपी धर्माक पाळो दिवपाक जाय. तर दुसरो म्हणटा की देव अस्तित्वांतूच ना आनी आसलोच जाल्यार चातुर्वर्ण्य देवान निर्मूंक ना. ह्या दोगांच्या विरोधाक शाब्दीक विरोध म्हणूंक जावंचें ना तर तो धार्मीक मुल्यांच्या संदर्भांत खूब मुळावो असो विरोध आसा. जेन्ना अशे तरेचो विरोध जाता तेन्ना बरीं आनी खरीं मुल्यां राखून दवरपाक नेमको खंय संघर्श करूं येता वो करप शक्य आसा आनी खंय खंय संघर्श टाळू येता हांचें भान दवरपाची गरज आसताच.

तेच खातीर खऱ्यांनीच धर्माची आयज गरज आसा? काय आमी ह्या धर्माबगर जियेवंकच शकचेनांत? म्हणजेच, आमकां धर्म जाय काय नाका हें थारावचें पयलीं प्रत्येकान धर्माचें स्वरूप जाणा जावप गरजेचें आसा. विवेक म्हणून आपणाक धर्म जायूच अशें म्हणूंक शकना आनी दुसरो ताका दिसता म्हणून आपणाक धर्म नाकाच अशेंय म्हणूंक शकना.

आतां एक गजाल खरी की सगळ्यांक सारकेंच समाधान दिता अशी एक वाक्य धर्माची व्याख्या करूंक जावचिना. मात सर्वसादारणपणान आमच्यांनी धर्म म्हळ्यार कितें हाची व्याख्या करतना अशें म्हणूं येता की, कल्पीत आसूनय खरी आसा अशे अतीमानवी शक्तीक वो सैमीक शक्तीक प्रसन्न करून घेवपा खातीर मनशान जो मार्ग पत्करला वो रीत आपणायल्या ती उपासना पद्धतीन धर्म म्हणूं येता. मनीस-कुळयेच्या आरंभापासून हे तरेचो धर्म-अस्तित्वांत आयिल्लो आसा. हाचे विरुद्ध आशिल्लो असो धर्म म्हळ्यार अतीमानवी शक्तीक

प्रसन्न करपाचो मार्ग सोडून वेगळो संदर्भ घेवन आशिल्लो एक लेगीत समाज संवसारांत समाज शास्त्रज्ञांक दिसूंक येवंक ना. पूण अशे मनीस वो संघटना मात आसूं येतात.

जल्माक येतल्या प्रत्येक जिवाक तशेंच मनशाक स्वताची राखण म्हळ्यार स्वताक सयसलामत रावपाची आनी उरपाची मनापासून इत्सा आसता. हाकाच आमी आत्मसंरक्षण अशें म्हणटात.

मनशांक सतत कळटा न कळटा एक जाणीव मनांत खोलखोल रुजिल्ली आसता. ती जाणीव म्हळ्यार हांगा आपलो नाश करपी, आपणाक दूख दिवपी अशी एक प्रबळ अतीमानवी शक्ती आसा (हांवें तिका आदल्या लेखांनी सैमीक वो निसर्गीक शक्ती म्हळ्या) आनी हे अतीमानवी शक्तीक आपणें प्रसन्न दवरूंक जाय, खोशी दवरूंक जाय, समाधानी दवरूंक जाय (आयचे चालंत समाजीक जिणेंत लेगीत आपल्या बॉसाक, मालकाक खोशी दवरूंक जाय, प्रसन्न दवरूंक जाय, ते खातीर आमी कसले फावोर लायतात) ना जाल्यार ही अतीमानवी शक्ती आपणाक सोंपयतली अशी मनशाक सदांच दुगदूग लागत आयल्या. तात्पर्य हो जो आत्म संकटाचो भंय म्हळ्यार एक प्रबळ भावना दर मनशाचे भितर उपाट भरिल्ली आसता आनी ह्याच भंयाचेर मात करपाचो मार्ग पत्करप म्हळ्यार अतीमानवी शक्तीक प्रसन्न दवरपाची प्रक्रिया. म्हळ्यारूच धर्म वो धर्माचो मार्ग. मनशाक जो अतीमानवी शक्तीचो भंय दिसता त्या भंयाचें कारण लटकें आसूं येता; पूण भंय खरो आसूं येता. सोरोप नासतनाय सादो बिनविखारी सोरोप चाबल्यार लेगीत भंयकांपानूच मनीस मरूंक शकता. नेमकी अशीच स्थिती धार्मीक भंयाचीय आसूंक शकता. संवसारांतल्या वेगवेगळ्या घटकांत आशिल्ल्या वस्तुनिश्ठ अशा कार्य–कारणाचो संबंद आसतात त्या संबंदाचें मनशाक सारकें वो अर्देकच्चें गिन्यान आसता. ताका लागून हो भंय भिरांकूळ रूप धारण करता आनी देखून मनीस धर्माक चड आनी चड बळी पडटा. अतीमानवी वो सैमीक शक्तीक तो शरण वता आनी तिचे कडेन आपली हार कबूल करता तेन्ना सगळो भरिभार –तारप मारप–हेच अतीमानवी शक्तीचेर सोंपोवन मनीस हुस्क्यामेकळो, भंयविरयत रावपाचो प्रयत्न करता. न्हय आयज चडशे मनीस हेच अवस्थेंत जगतात.

अशे तरेन संवसारांतले सगळेच मनीस कुळयेची अतीमानवी शक्तीविशीं

पक्की समजूत जाल्ल्यान आनी अतीमानवी शक्तीक शरण गेले बगर पर्याय ना
अशी भावना जाल्ल्यान अतीमानवी शक्तीक भजपाक आनी प्रसन्न करपाक वाट
आनी उपाय जाय आसले. ती एक गरज धर्म संस्थेन वा धर्म संस्थांनी भागयली
अशें म्हणूं येता. ते खातीर आमकां धर्माचो मूळ इतिहास पळोवंचो पडटलो.



# अपघाताच्या वेळार अल्ला -ईश्वर खंय आसतात?

सगळ्यांत व्हड आनी खर भंय कोणाचो? मनीस सगळ्यांत चड कोणाक भिता? ह्या प्रस्नांची जाप सट्ट करून कोणय दितलो ती अशी: सगळ्यांत व्हड भंय म्हळ्यार मरण. मनीस सगळ्यांत चड मरणाक भिता.

आनी ह्या मरणाच्या भंयाचेर तिगून आसा देव आनी धर्म ह्यो संकल्पना. आपलें वायट जावचें न्हय, आपलें सदांच कल्याण जावंचें, आपणाक सुखसमाधान, धनदौलत आनी सवस्तकाय, मौजमजा, आराम मेळचो, सगळें सूख आपणाक लाबचें आनी हें सगळें मेळटना आपणाचेर कसलेंच अदृश्ट येवंचें न्हय, वायट प्रसंग येवचो न्हय आनी ते खातीर रोखठोक उपाय करप म्हळ्यार देवसपणां. देवाक जाता ते भाशेन, जाता ते वाटेन खूश करप, प्रसन्न करून घेवप!

देव आपणाक पावता, देव आपलें बरें करता, देवूच आपणाक तारता आनी देवान आपणाक पावंक जाय, जाल्यार आमी देवाक खूश करूंक जाय. ताका कितें-कितें तरी दिवंकच जाय, त्या त्या देवाचें नांव घेवंक जाय. देवाची तुस्त तोखणाय करपाक जाय. हे तुस्त तोखणायेक धर्मीक भाशेंत प्रार्थना, स्मरण, भजन, भक्ती बी म्हणटात. देवाक खूश करपाक जें जें कितें दान बीन करपाक जाय तें सगळें देवाचे ब्रोकर वा मदले दलाल आसात तांचे तर्फे जावंक जाय हो दुसरो समज. आनी प्रत्यक्षांत भक्तीच्या नांवान आनी देवकार्याच्या नांवान ज्यो ज्यो वस्तू देवांक म्हणून दितात त्यो सगळ्यो वस्तू, जिन्नस ह्या ब्रोकर वा मदल्या दलालांच्या घरांत पावता हें आमी जाणांत. शी:शी: देवाक लांच दितात अशें आमी म्हणुनये. पूण जो सायबाक खूश करपाक सागवाद दिता (आदल्या तेंपार सागवाद, आतां कवरांतली भेट वो प्रेजेंट) तशी सागवाद आमच्या सगळ्या

देवांक दिवंक जाय ही प्रथा. हे धर्मीक सागवादीक दान, त्याग बी म्हणप!

ते खातीर कोण देवाचें मखर सजयता, कोण स्वखर्चान देवूळ बांदता त कोण देवळाक, मशिदीक, इगर्जेक तिजुले घालतात. देवळांतलीं हेर तरेचीं देवकाय करता.

तात्पर्य, देवाक कशेय भाशेन 'प्लीज' करप हो ताचो खरो अर्थ. आनी आमचीं गाराणीं, मागण्यो सुद्धां 'प्लीज' करूनच आसतात. देवा म्हाका लांब आयुश्य दी, आरोग्य दी, धन दौलत दी, विद्या दी, पयसो आडको दी, संपत्ती दी हें दी आनी तें दी. हें मागलेंना जाल्यार तो मनीस आयज मुर्खच म्हणूंक जाय.

आंगवणेच्या रुपान आमी देवाक आमिशांय दाखयतात. नोकरी लागल्यार, पास जाल्यार, काम जाल्यार अमूक तमूक दितलों. पांच नाल्लांचे पंचखादय पासून समराधना ते नवचंडी, शतचंडी मेरेन आंगवणी आसतात. आजून तरी खंयच्याय देवाक कान कापून दिल्यार कल्याण जाता, एक बोट कापून दिल्यार आनी कितें जाता अशें ना. तशी प्रथा खंयूय आसल्यार आमचो मनीस देवाक कान, हात, बोट बी कापून दिवपाकय फाटीं रावचो नासलो. पूण कोतान आपलें कल्याण देवान करपाक जाय! मनशांचे बळी दितात. भुरग्यांचे बळी दितात, देवाक बोकडो, रेडो, कोंबयो खावपाक दिवपी आमी!

देवांक 'प्लीज' करपाची ही प्रथा वो रीत मूळ मनशा पासून आयजवेर अखंडपणान चलत आसा. म्हणजे आदिमानव, पाशाणमावन, रानवटी मानव जसो देवाक (तेन्ना निसर्ग देव) 'प्लीज' करतालो तसोच आयचोय आधुनीक मनीस देवाक त्याच प्रमाणांत तसोच 'प्लीज' करीत आसा. न्हय त्या रानवटी मनशापरसय आयचो शारांतलो तथाकथीत सुधारिल्लो शिकिल्लो सवरिल्लो, विज्ञानीक युगांतलो मनीस देवांक प्लीज करपाक इल्लोय फाटीं ना. आदल्या मनशांमदीं आनी आतां मनशां मदीं इल्लोय फरक ना हें सिद्ध करपाक आयचो मनीस एकसारको धडपडटा.

मनशाचे हे मानसिकतायेंत आयज इल्लोय फरक जावंना, इल्लीय सुधारणां जावंना. फरक जालो तो भायल्यान. म्हणजे आदलो मनीस घोलींत रावतालो, आंगापांगार वस्त्रां नाशिल्लो, तो मनीस आयज मॉडर्न बंगल्यांत रावता, आतांचे बरे बरे कपडे वापरता, आपली कूड बरी सजयता, आधुनीक भोगसाधना वापरता आनी सुखा खातीर धडपडटा. मनशाच्यो ह्यो भांगरा शिंगरांच्योय आंगवणी

ासतात. आदल्या तेंपार जमिनदार देवाक म्हणून जमनीय सोडटालो. देवाक मीन जाय ही कल्पना. देवाक जमीन दान दिली असो उल्लेख आदल्या ागदपत्रांनी आनी शिळालेखांनी आमकां वाचूंक मेळटा. हें सर्वव्यापी ईश्वराचें वमुल्यन न्हय आं! कारण प्रत्येकाचो देव ताच्या ताच्या व्यापा इतलोच व्हड ासता.

देवाक 'प्लीज' करपाचे नाना तरांचे उपाय दर एका धर्मांत तरेतरेन सांगिल्लें ासात. देवाक माथ्याचे केंस तासून दिवपा मेरेन! आपले कुडीचें दान सद्‌ध्याक र्यादीत आसा. तिरुपतीक गेल्लो बोडको जावनच येता. परत हांगाय तोच स्वार्थ! तिरुपतीक केंस दिल्यार केंस दितल्याची भरभराट जाता. म्हणजेच केंसांचीय लांच. सुदारणां खूब जाल्यात. मनशाल्या भौतीक विकासाक खऱ्यांनीच शीम मेर ना. मनशाचे आशेक आनी वान्शेक कसलीच वंय ना.

आदल्या मनशाचे विचार देवाचे बाबतींत बी तशे सुदारिल्ले आनी खरे नाशिल्ले अशें आयचे पापभिरू मनीस समजतात. पूण बारीक पळोवपाक गेल्यार आदल्या लोकांकच खरो देव वळखूंक कळटालो अशें म्हणचें पडटा. कारण, जी गजाल आपले परस चड पावरफूल, जी गजाल आपणाक तारूंक वो मारूंक शकता ती आपलेपरस श्रेश्ठ आनी तिका सांबाळून आपणें रावपाक जाय हें तेन्नाच्या मनशाक कळटालें. म्हणचेच तेन्नाचो मनीस खऱ्या देवाक वो खरे शक्तीक वळखतालो. तर आयचो आधुनीक मनीस मात निश्क्रीय, निर्जीव,आनी अर्थ नाशिल्ले गजालीक देव मानता. बरें, ह्यो ज्यो निश्क्रीय, निर्जीव मनशांनीच तयार केल्ल्यो वस्तू, मुर्ती, फोटे बी खऱ्या देवाचीं म्हळ्यार सैमाचीं प्रतिकां आसात अशें म्हणून ह्या निश्क्रीय निर्जीव वस्तूंक आयचो मनीस देव समजल्लो जाल्यारूय एक वेळ समजूं येतालें; पूण होवूय विचार कोण सांगना. कारण प्रत्येकाचे वेगवेगळे देव आनी उपदेव, आनी तांची उत्पती, इतिहास सगळेंच वेगळें पळोवंक मेळटा.

पंचमहाभुतां वो निसर्गांतली शक्ती म्हणुंया, वारो, पावस, वत, उदक हे आमचे देव अशें आदले लोक मानताले. तांची ते पुजा, भक्ती करताले. ह्यो गजाली आमकां काबार करूंक शकतात, मारूंक शकतात हो भंय खरो. आनी हो खरो भंय तेन्नाच्या मनशाक आसलो, देखून सैमाक देव मानून सैमाकडेन तेन्नाच मनीस नमळ जातालो.

आनी हें सत आयजूय फट जावंना, फट ना. आदले भाशेन आतांय निसर्गच

सर्वशक्तिमान, सर्वश्रेश्ठ आसा. आयजूय अग्निदेव शक्तिमान म्हणून हाज यात्रे गेल्ल्यांक मीना शारांत ताका खूश करपाक खंयच्याच अल्लाक जमलें ना महमदाक जमलेंना. मनशांनी जल्माक घाल्ले सगळे देव ह्या देवाच्या कोपां लासून मेले. देखून पातकां धुवपाक कुंभमेळ्याक वचपी हिंदू भावीक गंगेंत बुडू मरतात, जात्रांनी चिंरगटून मरतात. घुस्मटून मरतात. म्हणजे मनशाचो देव म्हळ्या प्राणवायू वो ऑक्सिजन. हो ऑक्सिजन पांच धा मिनटां मनशाक मेळ्ळो ना जाल्यार खंयचो कोणालो आतांचो आधुनीक गॉड, अल्ला, ईश्वर बी त्या मनशाक वाचोवंक शकता? ही वस्तुस्थिती आयच्या मनशाक समजना.

ह्या सत देवांक मरण ना, मरण येना. म्हणजे जो ऑक्सिजन वो प्राणवायू पयलो मनीस घेवन जगलो तो ऑक्सिजन वो प्राणवायू आयच्या मनशाक, जिवांक, प्राण्यांक तितल्याच प्रमाणांत जाय. म्हळ्यार हो देव वो ही शक्ती, ही चेतना हांगा अखंड चलत आसा.

आनी हे सतशक्ती कडेन दुर्लक्ष करून मनशांनी आपआपणाक जाय जाय तशे आनी जाय तितले देव तयार केल्यात. बरें, हो तयार केल्लो देव सगळ्या मनशांक जसो एकूच प्राणवायू वो एकच उदक आसता तसो एकूच देव आशिल्लो जाल्यारूय एकवेळ समजूं येतालें.

हें म्हजें उदक, हो म्हजो प्राणवायू, हो म्हजो सुर्या, हें म्हजें चान्नें, हीं आमचीं नकेत्रां म्हणून हांगा केन्ना मनीस झगडलोना. हांगा मनीस झगडटा तो हो म्हजो ईश्वर, हो म्हजो अल्ला, तो म्हजो लॉर्ड आनी गॉड. म्हजो अल्ला खरो, म्हजो लॉर्ड तितलो सोडवणदार, म्हज्या धर्मांत सांगलां तेंच खरें, हेरांचें फकाण वो फट, आपल्या धर्मांतले चमत्कार खरे, आपूण जाका देव मानतां तोच खरो मसिहा, प्रेषीत देवदूत. आपल्याच धर्माची शिकवण तितली खरी आनी बरी.

हे आमच्या आधुनीक मनशाचे देव आनी धर्म!

ह्या देवांनी आनी धर्मांनी खऱ्या मूळ देवाक वो सैम शक्तीक आयज लजेक घाल्या.

देखून हिमालयांत धर्मीक यात्रेक वचपी यात्रीक झेलांत शेकेवन मरतात, गंगेंत बुडून मरतात. गर्देंत चिड्डून मरतात आनी ज्या देवांचे भक्तीन हे त्या त्या देवाचे भक्त स्वताच्या कल्याणा खातीर म्हणून देवकार्य करपाचे भावनेन वतात तांकां तांचेर संकटां येतकच तांगेले निश्क्रीय आनी निर्जीव देव तांकां वाटावपाक

पावनांत.

इतलेंय आसून हांगा दिसपट्टीं देवळां उबारतात. देवळांनी नव्यो नव्यो मुर्ती स्थापन करतात. यज्ञ, रूद्र, महारूद्र, चंडी, नवचंडी अतीरूद्र बी करीत आसतात. मनशाचें कितलें बरें जालें आनी कितलें वायट जालें हाचो हिशोब असल्या देवकार्यांतल्यान केन्ना जायना.

मात हे 'मॅनमेड डमीगॉड' आयच्या तथाकथीत शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या विज्ञान युगांतल्या मनशाचेर शेक गाजयतात आनी हेच 'मॅनमेड डमीगॉड' मनशाच्या चडशा दुखाक आनी हालअपेश्टांक कारण जाल्यात. देव धर्माच्या संघर्शांत संवसारभर जीं झगडीं-झुजां, नाशाडी, मानव हत्त्या चलता तशी दुसरे खंयचेच हेर गजालीक लागून जायना. जे मेरेन मूळ शक्तीक वो खऱ्या देवाक मनीस वळखुचोना ते मेरेन हांगां हाज यात्रेक, कुंभमेळ्याक जावं सारनाथाचे- अमरनाथाचे यात्रेक, रथयात्रेक, गंगेंत आनी हिमालयांत सत देवाच्या नेमाक पाळो दिनाशिल्ल्यान मनशाक ही सत सैमशक्ती ख्यास्त करतलीच, आनी आतां ह्या तथाकथीत मनीस निर्मीत मनशांतल्या देवाचेंय खरेलें रूप समाजाक दिसपाक लागलां. केरळ राज्यांत तर कितल्याश्याच बाबा-स्वाम्याक केरळाच्या वेगवेगळ्या बंदखणीनी गुन्यांवकार म्हणून पावयल्यात. सुक्या बरोबर ओलेंय जळटा तशें कांय सभ्य आचरणाचेय गुरुपदवेक पाविल्लो एक ह्या लोकां मदीं सापडूंक शकता. पूण सद्याच्या भारतांत आतां स्वामी विवेकानंद जावं रामकृष्ण परमहंस मेळप म्हळ्यार अजापूच म्हणचें पडटलें.



# जात धर्माची भावना ही
# घुंवळे वखदापरस कारेंगाव

**म**नीसपणान सगळ्यांक सारके मानान वागोपाचो विचार म्हळ्यार समता. समतेचो विचार सदांच हांगा आशिल्लो. विचारी मनशाक जेन्ना प्रस्न पडटालो की आमी तर सगळे मनीस. आमचे मदीं सगळे तरेचीं सारकेपणां आसात. जल्म मरणा मेरेन मनीस जें जिवीत भोगता तेवूय बी एकाच सैमाच्या कायद्यान आनी नेमान गुंथलां. मनशाची रचणूक, मनशाची कूड, मनशाचो आकार, दिसप सगळें प्रकृतीक धरून. इतलेंच न्हय तर मनशाची मानसिकताय लेगीत समान तत्वांचेर बांदिल्ली आसा. कोणांक चड वो थोडी हें निसर्गांतल्या, त्या आमकां खबर नाशिल्ल्या प्रक्रियेंतल्यानच घडलां. तर तिचो विकास भोवतणच्या वातावरणांप्रमाणें घडला. दोन व्यक्ती समान पातळेर हुशार आसून लेगीत एक व्यक्ती फाटीं उरता कारण दुसरे व्यक्तीक ताचे सभावीक हुशारकायेक फुलोवपाची, फळोवपाची संद फावो जाता. तर दुसरे व्यक्तीक ती जायना. अशें जातकच एक नेम वो एक चुकिची समजूत पक्की जाली. अमक्या वर्गांतले लोक हुशार, शाणे, बुदवंत बी आनी तमक्या वर्गांतले लोक अबुद्ध, अजागळ, नेणार, अज्ञानी बी. ह्याच नेमान शिक्षीत आनी अशिक्षीत घडलां. जांकां शिकपाची संदी मेळ्ळी ते शिकले, जांकां ती संदी मेळ्ळीना ते आशिक्षीत उल्ले.

पूण तांचें फाटीं उरप, तांचें अज्ञान, तांचें नेणारपण, तांची अबुद्धपणां वो ते अमूक-तमूक हो सैमाचो कायदो न्हय. सैम आपलें कर्तव्य तत्परतेन करता. ताका आमी प्राकृतीक परिणाम वो काळाचो परिणाम म्हणटात. सैम आपलो प्रभाव सैमांतल्या सगळ्या गजालींचेर, वस्तूंचेर, व्यक्तींचेर समानतेन करतात. म्हणजे सगळ्यांक जल्म मरण आसता. सगळ्यांक भुरगेपण, तारुण्य, जाण्टेपण

ह्यो अवस्था आसतात. सगळ्यांक तानभूक आसता. सगळ्यांचेर तोच परिणाम करता. कोण वयल्या वर्गांतलो म्हणून ताका साठ वर्सांचो जालो तरी तरणाटो दवरिना वो धा वर्सांच्या भुरग्यांक अयशीं वर्सांच्या मनशाचें शरीर दिना.

तात्पर्य सैमांत समता आसा. सैमाच्या नेमांत समता आसा. देखून संवसार भर सैमाच्या नेमांनी भरिल्ली समता वो सारकेपणां जेन्ना आमी पळेतात तेन्ना सैमा भायर जी असमता, भेदभाव, उच्च उणाकपणां जीं आमच्या मदीं आसात तीं सगळीं मनीस स्वभावाचेंच उत्पादन. आतां मनशांनी अशें कित्याक केलें हाकाय जापो आसात. सैमान मनशाक हेर प्राण्यापरस वेगळ्यो कांय गजाली दिल्यात. बुद्धविचार, हांसो, रंगरूप त्याच साच्या भितर आशिल्ल्यान मनशाक प्राकृतीक स्वरुपांत प्राप्त जाल्ल्यो आसात. खरें म्हळ्यार हाका लागून मनीस आनी हेर प्राणी हांचे मदीं फरक जावं येता आनी तो फरक सभावीक कसो, प्रकृतीच्या नेमाक धरून, पूण मनीस जेन्ना मनशां मदींच भेद करपाचो प्रयत्न करता तेन्ना तो भेद प्राकृतीक न्हय, ती त्या मनशाची विकृती.

खिस्ती धर्मांत एक समजूत आसा. स्वर्गार वतना भुरगो जावन वच्चो. कारण देवाच्या राज्यांत खंय सगळे समान उरूंक जाय. पूण देवाच्या गोपांत वतना भुरगो कित्याक जावंक जाय? हाचे फाटल्यान नक्कीच कसलो तरी खर विचार लिपिल्लो आसूंक जाय. आनी तो विचार म्हळ्यार ल्हान भुरगो हो सभावीक निश्पाप, निश्कलंक, आनी साप्प प्राकृतीक अवस्थेंतल्यान सभावजीण जगपी आसता. जें कितें जाणटे पिरायेंत आसता तें भुरगेपणांत नासता. भुरगेंपण म्हळ्यार अबुद्धपण वो बुद्धीचो विकास जावंक नाशिल्ली अवस्था अशें मानतात. पूण हे अविकसीत अवस्थेंत विकसीत अवस्थेंतल्या बुदवंत, विचारवंत बी हुशार मनशाक देख घेवपाची एक खूब व्हड गजाल दडिल्ली आसंता. ती गजाल म्हळ्यार ल्हान भुरगो बिलकूल प्रकतीच्या नेमाप्रमाणें प्रकृतीकडे समरस जावन वागता. ताका बुदवंत मनीस जो भेद करता तो खबर नासता. ताका काळो गोरो, उंच उणाक, गरीब गिरेस्त, वर्ण, पंथ, धर्म संप्रदाय बी कांय एक लागना, ताका ती खबरूय नासता. आमी जाणटे बुदवंत ताचे ते अवस्थेक अविकसीत अवस्था म्हणटात. भुरगेपणां म्हणटात आनी जाण्टेपणाच्या वायट अवस्थेचो मात पुरस्कार करतात. म्हणजे आमी प्रौढ मनीस आपली बुद्ध प्राकृतीक मार्गान वापरचे सुवातेर विकृत मार्गान घेतात.

ह्या संबंधान एक गजाल खंय तरी आयकल्ली ती याद जाता.

एक ल्हान पिरायेचो गोरो गुटगुटीत भुरगो एके शाळेंत शिकतालो. त्या शाळेंत शिकोवपी एक शिक्षिका त्या भुरग्याक खूब बरी करताली. त्या भुरग्याचो माया मोग करताली, आनी त्या भुरग्याकूय ती शिक्षिका खूब आवडटाली. तो घराकडे येवन आपले आवयक सदांच सांगतालो. 'माय टिचर इज झस्ट लायक यु' म्हजी टिचर सारकी तुजे भशेन दिसता. आनी आपलेभशेन सारकी दिसपी ही दुसरी बायलमनीस आसा तरी कशी, खऱ्यानीच ती सारकी आपणा भशेन दिसता आनी म्हज्या भुरग्यांक तर ती तशीच दिसता म्हणजे म्हजे भाशेन आसूकच जाय. म्हजे भशेन गोरी, ऊंच, सुंदर.

एक दीस हे भुरग्याचे आवयन भुरग्या बरोबर ताच्या इस्कोलांत वचून भुरग्याचे ते टिचरीक मेळपाचें थारायलें, आनी ती गेली. इस्कोलांत पावना फुडें एके बायलमनशेक तिच्या चल्यान हॅलो टिचर, म्हणून उलो माल्लो. आनी आवयचो हात सोडून तिच्या म्हऱ्यांत धांवलो. तिचो हात धरून आपले आवयक पळेत म्हणपाक लागलो, 'मामी लूक माय टिचर, शी इज जस्ट लायक यू.'

आनी कितें सांगतलो, त्या भुरग्याचे आवयक शॉक बसलो. खऱ्यांनीच ती टिचर तिचे भशेन मात लेगीत नासली. ती एक काळी बायल, तिचेपरस आंगलटीन खूब फरक आशिल्ली, कुरूप म्हिळ्यारूय जाता, अशी. मनांतल्या मनांत आपल्या चल्याचेर ती तिडकलीय बी. म्हज्या चल्याक ही काळी बायल म्हजे भशेन दिसचीच तरी कशी?

गोरे बायलेन वेगळे तरेन आपली बुद्ध वापरली तर ल्हान चल्यान वेगळे तरेन. भुरग्याक रंग खंयच अभिप्रेत नासलो. भुरग्याक बायलेची आंगलट अभिप्रेत नासली. तो जाणा आसलो आनी समजतालो तो आवयचो नितळ मोग. जशी घरा गोरी कातीची आवय ताका आवयचो मोग दिताली तस्सो शाळेंत ताची काळी टिचर ताका आवयच्या मोगा भाशेनूच मोग दिताली, देखूनच तो आवयक म्हणटालो माय टिचर इज लायक यू. गोरे आवयक हें चल्याचें निरिक्षण वायट तर दिसलेंच त्या भायर अबुद्धपणाचें लक्षण. भुरग्याक दोन मनशां मदलो फरक कसो करचो तो खबर नाशिल्लो अशें न्हय. पूण प्रौढ जे पद्धतीन आपले सोयीचें तितलें आनी आपणांक बरें पडटा तें, आपलें वेगळेंपण सिद्ध करपाक मेळटा तितलेंय घेवन काळो आनी गोरो ह्या रंगाचो फरक मानून जशें येवजितात तशीं भुरगीं

येवजिनात, त्या चल्यानूच तशें येवजिलेंना आनी भुरग्यांचें चितप सारकें आसलें काय चुकीचें आसलें असो प्रस्न केल्यार परत विकृत तरेन विचार करपाची संवय जाल्लो सर्वसामान्य मनीस भुरग्याचें चितप चूक म्हणटलो आनी ताची आवय सारकी आसली अशें म्हणटलो.

आनी भोव थोडे त्या भुरग्याचें चितप पुराय प्राकृतीक, सभावीक आनी सारकें आसा अशें म्हणटलो.

आमचे मदीं जात धर्माच्यो, पंथ सांप्रदायाच्यो आनी वर्णाच्यो ज्यो वणटी उब्यो आसात तांची बुन्याद साधारणशी वयले विचारसरणेचेर घाल्ली आसा वो पडिल्ली आसा.

समतेचो विचार हो बिलकूल मायनर थॉट, क्षुल्लक विचार. ह्या विचाराक आमचे मदीं बुन्यादी पाठबळ ना. तो सकयल तर नाच ना. आसलोच जाल्यार तो समाजाच्या वयल्या थरारूच थोडो भोव पळोवंक मेळटा. सकयलो थर जेन्ना आमी म्हण्टात तेन्ना परत हांगांय थरांचोय भेदभाव जायना काय म्हणून कोणूय प्रस्न करतलो. आनी थर हो अस्थीर, घट, निबर, पक्को, सासणाचो मुळांत निजाचो आसा अशें चितपी मनीस असो प्रस्न करूंक शकता. पूण म्हाका थर तसो अभिप्रेत ना. तो लवचीक, मोव, पातळ, ह्या तोंका वयल्यान त्या तोंकार व्हावूंक शकता. तसलो, सरभरस जाता तसलो, म्हणजे सकयलो थर वयल्या थराक भरसूंक शकता तसलो. आमचे प्रचलीत जाती व्यवस्थेंत उलोवचें जाल्यार ब्राह्मणाक शूद्र आनी शुद्राक ब्राह्मण जावपाक मेळपाचो तो थर आनी त्या प्रमाणें वयलो थर जो असल्या विचारांक वळखता तो मात भुरग्याचेच विचार उखलून धरतलो.

सर्गांत वतना भुरगो जावन देवाच्या गोंपांत वचचो हो जो ख्रिस्ती धर्मांतलो विचार हेच खातीर सांगला आसूंक जाय.

आमी सगळे एका वेगळ्या वातावरणांत, वेगळ्या संस्कारांत वाडिल्ले आसात. आमच्यांतल्या दर एकल्याक ल्हान आसतनाच दुदाचे दांत येतनाच देव-धर्म, जातपात, समाज ह्या जिनसांचो कार्रेकाद कडो पिवपाक दिल्लो. हो कडो इल्लो इल्लो इतलीं वर्सां जालीं आमच्या आंगापांगांत रिगला. सोऱ्याची नशा झप करून येता आनी झप करून वता. आमी सोरो निवळ्ळो अशें म्हणटात

पूण हांगा हो जात धर्माचो अर्क घालून वर्ण - पंथाची साकर मीठ घालून घोळयिल्लो कडो घुंवळे वखदा परस कार्रेकाद आसा, आनी ताची नशा आमका आयजूय आसा. ही नशा आमकां आमच्या समाजांत अदीं मदीं वयर पासून सकयल मेरेन पळोवंक मेळटा. अशी ही जात धर्मांची नशा वो धुंदी तशी सोपेपणान आमच्या आंगांतल्यान वचचिना. ती खूब वर्सां जाली अमचे मदीं आंगापांगांतल्यान शिराशिरांनी रिगल्या. ते खातीरूच ती सोऱ्याच्या जांव ड्रग्स वो ब्रावन शुगराचे नशेपरस कार्रेकाद जावन आसा.

हे भयंकर नशेक आयज आमीच हात घालीनांत. बुद्धा पासून, चार्वाका पासून ते आताच्या सगळ्या समाजसुधारकां मेरेन, बुद्धी प्रामाण्यवाद्या मेरेन अशे प्रयत्न सातत्त्यान चलत आयल्यात. पूण ह्या प्रयत्नांक ही नशा बदना. कारण हे नशेंतले धूंद लोक संख्येन आनी बळान कमी आसात. तांकां येद्या व्हड भूतकाळाचें बळ आसा. आनी तांतूंत मनशां मदली जबरदस्त देवभिरूपणा आनी पापभिरुपणां नशेक सारे घालपाक आसात.

म्हणटकच आमकां हे खातीर आमी अशे घडल्यात वाडल्यात आनी सद्याक जियेतात ही सगळें मतींत धरून आमी आमकांच तपासून घेवंक जाय. कारण आमकां तपासपाक आमच्या विचारा परस चड यंत्रणा जावं शक्ती हांगा ना.

जात धर्माचेर आधारिल्ले विशमतेचो प्रभाव आमचेरूय जो जाल्लो आसा, आनी तो आमच्या कुटुंबांनी, घरच्यांनी, शेजारापाजाऱ्यांनी जावं समाजान आनी थोडे भोव प्रमाणांत ह्या स्वतंत्र राष्ट्रानूय आमचेर केल्लो आसा. देखून म्हाका म्हजी जात म्हज्या घरांत पयलीं सांगली, मागीर ती समाजान सांगली आनी उपरांत राष्ट्र विचारतां, डू यू बिलाँग टू शेड्यूल कास्ट/ट्रायब्स, आर यू हिंदू? तुजो धर्म कितें? पणजे बांबोळे हॉस्पीटलांत त्रातामेंत घेवपाक वच, थंय सुद्धा तुका तुजो धर्म सांगचो पडटा, शाळेंत शिक्षण घेवपाक वच थंय तुका जात-धर्म बरोवंचो पडटा. म्हणटकंच, आमचें हें स्वतंत्र गणतंत्र राष्ट्र लेगीत हे नशेंतल्यान आमकां मेकळें जावंक दिना. सरकारी सवलती आतां जातीचेर आदारून आसात. OBC जावं ST ह्यो खास सवलती मेळटा म्हण आसात. राजस्थानांत तर गुर्जर जात ST खातीर देशांत धुमाकूळ घालतात. वास्तवीक सरकाराचो हेतू ह्या फाटी

उरिल्ल्या लोकांक फुडें हाडपाक हो प्रयत्न आसता. पूण नकळटां हाका लागून ह्या देशांतलो जातीवाद आनी धर्मवाद अदीक घटमूट जाता.

हाचेर उपाय काडूंक जाय. फकत खरेपणी फाटीं उरला, खरेपणी सुदारूंक ना अशाच नागरीकाक वेंचून काडून ह्यो सरकारी सवलती जात धर्म पळेनासतना दिवपाक जाय आसल्यो. तशें करप शक्य ना काय कितें?

शक्य आसा. पूण ह्या देशांत जाती धर्माचें भांडवल जायत्या जाणांक वेचणुको लडोवन सत्तेर पावपाक मजत करता. देखून जात-धर्माचो सोरो घालून भौसाक जितलो तेंप झिंगोव येता तितलो तेंप झिंगयत दवरूया, अशें मानपी राजकर्ते लोक हांगा वरचड आसतले तो मेरेन हें अशेंच चलतलें.



# दुसऱ्या मनशाक उणाक लेखपी सुशिक्षीत कसो?

हरिजन म्हळ्यार देवाचीं मनशां वो देवाचे मनीस. आनी ह्या देवाच्या मनशाचे चलयेचो दुसरो विकृतीजन दोळो फोडटा. आमी हरिजन आनी महात्मा गांधी कोणाचो जन? महात्मा गांधीन आमकां हरिजन म्हळें खरें पूण आमच्या जनाक हरी मात दिलो ना. मायावतीचीं भाशणां ह्या वाक्याक गर्देक चेव हाडटा. मायावती सद्या मुख्यमंत्री जाल्या. आमी तिका पयली दलीत बायल मुख्यमंत्री म्हणटात. महात्मा गांधी आशिल्ले जाल्यार तिका हरिजन बायल मुख्यमंत्री म्हणटले आसले.

एकेकडे दलीत बायल एका राज्यांत मुख्यमंत्री जाता तर दुसऱ्या राज्यांत एके दलीत चलयेचो शिक्षक मारमारून दोळोच फोडटा. केरळ राज्यांत खंय शिक्षणाचें प्रमाण चड. केरळांतले चडशे लोक शिक्षीत आसात. आमी जायते खेपो शिक्षीत ह्या शब्दांनी गफलत करतात. जो बरोवंक वाचूंक जाणां आशिल्लो, विद्यापिठाची पदवी घेतिल्लो एकाद्रो सदांच सुशिक्षीत आसताच अशें ना. देखून आयज सुद्धां जायते शिक्षीत सुशिक्षीत जाल्ले दिसनांत. पोर्तुगीज भाशेंत येदुकादोर आनी येदुकाद ह्या शब्दांनी हो फरक सांगला. दुसऱ्या शब्दांनी कल्चर्ड वो सुसंस्कृत- सुशिक्षीत आसतातच अशें ना. मात तो एके विशिश्ट पद्धतीन, विशिश्ट शिस्तीन आनी रितीन वागता, जी वागपाची ताची रीत हेरांक बरी दिसता, तेन्ना ताका आमी कल्चर्ड वो ससंस्कृत बी म्हणून पाचारतात.

सुशिक्षीत जावपा खातीर एक तरेची अदृश्य, इनविजीबल बॉर्डर कळटां नकळटां मनशाक हुपून वचपाची गरज आसता. पूण ही शीम मेर गांठपाक बऱ्योच गजाली करच्यो पडटात. एखाद्रया धांवपटूक जे शारिरीक श्रम घेवन अमके अंतर अमके वेळेंत कापूंक प्रयास-प्रयत्न करचे पडटात तशें. सुशिक्षीतपणाचो पल्लो

ांठप्याक शारिरीक जरी नासलें तरी मानसीक तयारी करची पडटा.

ही तयारी सुशिक्षीत जाल्लो मनीस करपाक पात्र थरता. चड करून शिक्षीत मनशाची दुसरी पायरी 'सुशिक्षीत'. पूण खूब फावटी कोणाय शाळेंत वचून शिकिल्ल्या मनशाक आमी तो बरो सुशिक्षीत आं अशें म्हणटात. म्हणजे आमच्या कोतान दर एकलो शिक्षीत मनीस वो लिटरेट मनीस हो सुशिक्षीत जालो वो जाता अशें आमी मानतात.

पूण ही आमची चूक आमकांच जायते खेपो भोवता. केन्ना केन्नाय शिक्षीत मनीस जेन्ना कसलेंय विपरीत करता तेन्ना आमी चटकन रियक्ट जातात. 'कितें? ताणें आनी अशें केलें? तो बरो शिक्षीत मरे!' आनी मनशाच्या कुकर्माचेर भाश्य करतात. पूण ही आमी चूक करतात हेंवूय आमच्या केन्ना लक्षांत येना, कारण खंयच्याय शिक्षीत मनशाक सुशिक्षीत समजप हें सभावीक आसा आनी तोच ताचो अंतीम परिणाम.

बसीर क्लीनर आसता ताका सर्रासपणान आमी बसीचो किलिंडर म्हणटात. स्कुटरीक शॉकऑब्जर्वर आसता ताका बरो इंग्लेज जाणा आशिल्लो स्कुटरमालक लेगीत चोकोस्वर म्हणटा. आतां चालंत शब्द ते सगळ्यांच्या तोंडांत व्यवहारी भाशेंतल्यान आयिल्ले आसतात, पूण हो व्यवहार खरो नासता. बसीचो क्लीनर किलिंडर न्हय, वो नासता तशेच कितेंशे शिक्षीत आनी सुशिक्षीत शब्दांचें जालां. म्हणजे सगळेंच शिक्षीत सुशिक्षीत नासतात.

शिक्षीत तो शिक्षीत. ताची तीच मर्यादा, कारण तो तितल्यारच येवन थांबिल्लो आसता. शिक्षीत जावन ताणें सुशिक्षीत जावपाक जो मार्ग चलपाचो आसता तो मार्ग धरिल्लो नासता. 'सुशिक्षीत' हे उपादी कडे पावतलो जाल्यार कांय क्रम आसता. जसो आंगावयलीं बुरशेपणां उडयतलो जाल्यार तुवें कांय गजाली करच्योच पडटात. ते बगर तुज्या आंगाचो मळ आपसूक वचना. तुवें न्हावपाक जाय, आंग घासपाक जाय, साबण म्हणून लावपाक जाय वो कुडींतलें दुयेंस काडून उडयतलो जाल्यार कांय वखदां म्हणून घेवंक जाय. कितें तरी उपाय करूंकच जाय. कांय ल्हानशीं दुयेंसां आपसूक बरीं जावं येतात. पूण ताकाय पथ्यां पाळचींच पडटात.

गोरेपीट्ट कातीचेर रांपिल्लो मळ त्या गोरेकातीच्या मनशाक विद्रूप करतात. सुशिक्षितपणाचेर जेन्ना विकृतीचो रांप रांपलेलो आसता तेन्ना प्रकृतीकडे म्हळ्यार

खरे गोरे काती कडे पावतलो जाल्यार मळ रुपी विकृती धुंवपाकच जाय. 
भशेन मनशाक सुशिक्षितपणा कडेन पावतलो जाल्यार ताचे प्रकृतींत घाण अ
मळ भरून जाल्ली विकृती धुवपाकच जाय. ही धुल्ली वो धुवन गेल्ली स
म्हळ्यार सुशिक्षितपणा. पूण सद्याक तरी तो आमचे पासून बरोच पयस आस

देखून चडान चड शिक्षणाच्या राज्यांत, केरळ राज्यांतले चडांत च
लोक आमच्यांनी चडांत चड शिक्षीत म्हणू येता. सुशिक्षीत न्हय. देखून केरळांत
लोक हे सुशिक्षीत न्हय म्हणपाचें ह्या राज्यांतल्या लोकांनी जायतेदां सिद्ध केल

वाचप्यांक याद जाता जाल्यार पळेयात, ह्याच शिक्षितांच्या (सुशिक्षितांच
न्हय) राज्यांत पुत्रकामेश्ठी यज्ञ जाल्लो.

ज्या जोडप्यांक पूत ना (पूत नाशिल्लो नरकांत वता खंय!) त्या जोडप्यां
एकठांय बसून भरपूर दुडू खर्चून हो पुत्रकामेश्ठी यज्ञ केल्लो. आयज हे गजाली
खूब वर्सां जायत आयली. यज्ञ जावंचे पयलीं ह्या यज्ञासंबंदान सदांच खबरो येताल्यो
यज्ञ जाल्ल्याच्योय खबरो वाचूंक, आयकूंक मेळटाल्यो.

पूण आतां इतल्या वर्सांनी पूत जावंचो म्हणून यज्ञाक बशिल्ल्या कितल्य
जोडप्यांक पूत जल्मल्यात तें मात अजून भायर सरूंक ना. तिनशीं जोडप
यज्ञांतल्यान पूत मेळोवपाक केरळांत जमिल्लीं. यज्ञ कर्मकांडांनी आपली बायल
गुरवार जावंची, तिच्या गर्भांत फकत पूत जावंचो वो जातलो म्हणून मानप
केरळांतले लोक नेमके कोण आसुंये, सगळेच सुशिक्षीत न्हय? खऱ्यांनीच ह्य
जोडप्यांक आमी अशिक्षीत म्हणप, मागीर यज्ञाक बशिल्लें जोडपें केदेंय
विद्यापिठाच्या पदव्यांनी नटिल्लें आसूं.

आमचे जाण्टेले जेन्ना शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या मनशान कितेंय वायट केल
म्हणटकच ते चटकन म्हणी, 'शिकून सवरून ब्रूत'. आयजूय म्हणटात. सामको
ब्रूत मरे तूं, हो ब्रूत म्हणजेच शिक्षीत, तो खरेपणी सुशिक्षीत नासता. म्हार म्हणून
म्हाराचे चलयेक बडयेन धाडावपी केरळांतलो तो मनीस तर नक्कीच ना, तो
फकत शिक्षक म्हणून सुशिक्षीत म्हणप? तशें म्हणटल्याचीच तकली जाग्यार ना
अशेंच कोणूय म्हणटलो, कारण आमी गृहीत धरिल्लेंच आसता की दर एकलो
शिक्षक म्हणजे सुशिक्षीत. पूण शिक्षकांचे बाबतींत तीच गजाल. शिक्षक शाळेंत
वचून बरोवंक वाचूंक बी शिकिल्लो आसता. पदवीय घेतिल्ली आसता. पूण ही
जी पदवी वो इंटनशीप करपाची आसता ती ताणें केल्ली नासता. दोतोरकीची

पदवी घेतिल्लो कोण रोखडोच दवाखानो वो कन्सल्टींग रूम उगडिनांत. म्हाका दिसता शिक्षीत मनशाची इंटनशीप जायना. आनी ती जाल्ली जाल्यार ताचे कडच्यान उजळ प्रकृती विरुद्ध वचून विकृतीचीं कर्मा जावंचींच नाशिल्लीं.

एक मनीस आपल्या सारक्याच हाडमांसाच्या दुसऱ्या मनशाक उणाक मानता, कमी मानता आनी आपणाक ताच्या परस श्रेश्ठ मानता हीं कसलीं लक्षणां? सुसंस्कृतपणाचीं काय सुशिक्षितपणाची?

हीं लक्षणां सुशिक्षितपणाचीं, सुसंस्कृतपणाचीं नक्कीच न्हय. देखून एक मनीस जेन्ना दुसऱ्या मनशाक जात, वर्ण वो कातीवयल्यान उणाक लेखता तो मनीस विकृत. तो मनीस प्राकृतीक वो स्वाभाविकपणान चलता, वागता अशें म्हणून जावंचें ना. तो दुयेंत मनीस. तो मानसीक विकृतीन झपाटलेलो आसता. आतां आमी चडशे विकृत आनी ह्या दुयेंसाची लागण जाल्लेच आशिल्ल्यान आमकां आमचे मदले हे विकृतीचो मरसर केन्नाच दिश्टावो जायना. पिशांच्या हॉस्पिटलांत सगळेच पिशे आसतकच एक-दोग जाण बरे मनीस लेगीत तातूंतच मोडटात. तांकां पिशेंपण तेंच शाणेंपण कशें दिसता. जातीभेद वो मनीस निसर्गाच्या परिणामाक लागून काळो-गोरो, उंच-मोटवो, कुरूप-सरूप, बरो -वायट बी आसूं येता. हें सगळें आसलेंच जाल्यार बाह्य वो भायले प्राकृतीक भेद आनी हे भेद कोणाय मदीं, आनी खंयच्याय वर्गां मदीं आसूं येतात.

धरून चलुया, एका वयल्या वर्गांतलो लोक ते सगळेच लोक कितें एकेच भशेन गोरे, एकेच भशेन हुशार, एकेच भशेन उंच, एकेच भशेन तांचे वागणें, चलणें, एकेच भशेन तांची चाल-रीत. अशें कांय घडिल्लें ना. तरी लेगीत एक विशिश्ट मनशांचो पंगड कांय पारंपारीक चालीरीतीन फुडें आयिल्ल्या विचारांनी पुराय झपाटलेलो आसता आनी तो जायते खेपो तेच अवस्थेंत उरता आनी तेच अवस्थेंत सोंपता. एका महाविद्यापीठाच्या कुलगुरूक एका जातीच्या व्यासपीठार वचून आपले जातीचे गोडवे गायता आनी आपलीच जात,आपलो वर्ग हो सर्वश्रेश्ठ वर्ग तो आमी राखूंक जाय, आनी हो श्रेश्ठत्वाचो मक्तो जपून दवरूंक जाय अशें एकीकडे ज्ञातीय, समाजाचे भर सभेंत सांगता आनी उपरांत रोकडोच दुसऱ्या एका सरभरस वर्गांतल्या जनसमुदायांत येवन सांगता की शेवटी मनीस हो एक. हांगा मनशां मनशां मदीं मनीस म्हणून कसलोच भेद ना, वाद आसूंक फावना आनी आसले जाल्यार वर्गभेद आनी जातीभेद ना जावपाक जाय. एका लेखकान

एका सांप्रदायाच्या स्वामीच्या मठांत वचून आपल्या जातीच्या एकचाराक उल मारप आनी दुसरे वटेन आंबेडकर जयंतीक आंबेडकरांचेर दुरदर्शनाचेर भाशण करप ही विसंगती. हो विरोधाभास आशिल्ल्या लेखकाक सुसंस्कृत कशें म्हणप एका नामनेच्या कोंकणी लेखका संबंधान हें विधान आसा.

देखून आयज आमच्यांनी एखाद्रया शिकिल्ल्या संवरिल्ल्या धवाड्या मनशाक चडांत चड शिक्षीत म्हणूं येता. आनी असो कुलपतीचे पदवेक पाविल्लो सुद्धां आसलो आनी तो जर प्रकृतीचे विरूद्ध वागता आनी उलयता जाल्यार तो विकृतच म्हणचो पडटलो. तो फकत शिक्षीत आसूं, सुशिक्षीत नक्कीच न्हय.

असलो हो मानसीक विकृतीचो रोग चड करून ह्या देशांतल्या चडांत चड लोकांक लागिल्लो आसा. देखून हांगा आजूनय महात्मा गांधीन त्या मनशाक नांव दिल्ल्या हरिजनांक लासून मरचें पडटा; देखून हांगा धर्मांतराक शरण वचचें पडटा, देखून हांगा देव देवळांच्या पायऱ्यां पायऱ्यांचेर आपआपली सुवात सोदची पडटा. जो मेरेन ह्या लोकांचो हो मानसीक रोग ना जावचो ना तो मेरेन हरिजन म्हण वो म्हार म्हण हांगा कांयच फरक पडचो ना, तशेंच दुसऱ्या मनशाक उणाक लेखता ताका सुशिक्षीत वो सुसंस्कृत, सुधारिल्लो म्हणूंक जावंचेंना. हे कसवटेचेर आता दर एकल्यान आपूण सुशिक्षीत, सुसंस्कृत, सुधारक काय शिकून सवरून ब्रूत तें तपासून पळोवचें.



# शवप्रदर्शना परस पुस्तक प्रदर्शनाचें म्हत्व समजुपी आमकां नवो समाज जाय

**प**णजेंत १ ते ८ जानेर मेरेन कोंकणी अकादेमी आनी नॅशनल बूक ट्रस्ट हांच्या जोड पालवान, पणजे कला अकादमीच्या वाठारांत पयलेच खेपे पुस्तक समारोह घडून आयलो. कोंकणी अकादेमीन हो पुस्तक समारोह घडोवन हाडपाक रस घेतलो आनी ते नदरेन तयारी केल्ली. गोंयांत येदो व्हड पुस्तक समारोह हे आदीं म्हजे यादींत तरी जावंक ना. हांगा हे आदी सर्कशी जाल्यात. सद्याक म्हापशें शारांत आयला तसलो हँडलूम इम्पेरियम शो आयल्यात. शॉपी, रेडीगार्मेंट, आयदणांचो सेल, साडयांचो सेल, बुटांचो सेल, नकली भांगराचो शो वा प्रदर्शन, सोऱ्या-बियरीचो शो. पणजे मडगांवां आर्लेमचो पिवपाचो आनी नाचपाचो शो, पूण अशे तरेचो पुस्तकांचो शो गोंयांत पयलेच खेप! ते खातीर सुमार त्रेआत्तर बुकस्टॉलांचो आस्पाव आशिल्लो पुस्तक समारोह जैतीवंत जातलो काय ना हे विशीं दुगदूग आसली. पूण ना, दुरदर्शनाचो प्रभाव, हेर गजालींचो प्रभाव, भौतीकपणां, आपस्वार्थ, सगळें झटपट करपाची संवय फास्ट फुडाभशेन फास्ट पूण जायतितलेंच गिन्यान घेवपाची नवी फॅशन वो नवो विचार. नाथ माधवाच्यो पांचशे पानांच्यो कादंबरी वाचपाचो गेल्लो हो काळ. पुस्तकांची मिनीसायज आनी बोल्सांत घालपाचीं पुस्तकां तिवूय बी गरजेपुरतींच, सिनेमाचो प्रभाव आसतनाय लोकांक पुस्तकां जाय-नाका अशा संभ्रांतलें वातावरण आसतना थोड्या तरी लोकांक पुस्तकां जाय. फकत तांकां तशी संद मेळना अशेंच कितें तरी ह्या पुस्तक समारोहान दाखोवन दिलें.

ना म्हळ्यार पुस्तक समारोहाक बऱ्याच लोकांनी गर्दी केली. ती गर्दी कोणांची, खंयच्या लोकांची आसली तेंवूय बारीक पळोवपाची गरज आसा. एकदां हांवें एक विचार मांडिल्लो. तो म्हळ्यार मनशाचे तिसरे भुकेचो. मनशाक

तिसरी भूक म्हळ्यार गिन्यानाची भूक आसूंक जाय. अशें हांवें म्हणिल्लें. आनी ते खातीर पुस्तक समारोहाक गोंयांतल्यान चडांत चड शाळा कॉलेजींतल्या शिकपी भुरग्यांनी येवंक जाय आनी ते खातीर गोंयच्या शिक्षण खात्यान रस घेवन चडांत चड विद्यार्थी पुस्तक समारोहाक पावतले हे खातीर खासा प्रयत्न करपाचे. पूण तशें कांय एक शिक्षण खात्यान केलेंना. पूण पुस्तक समारोहाचे पोस्टर्स गोंयांतल्या बहुतेक शाळा-कॉलेजीनी पावিল्ले. हे पोस्टर्स, रंगीत पोस्टर्स इंग्लीश, हिंदी, कोंकणी आनी मराठींतल्यान आसले. ते पोस्टर्स नोटीस बोर्डार, शाळा कॉलेजीच्या वाठारांत विद्यार्थ्यांचे माहिती खातीर लावपाचे. पूण आमचे शाळेंत पोस्टर्स बारा तारकेक हांवें पळयले आनी तेवूय बी गुटली करून अशेच मेळत थंय उडयिल्ले. पोस्टर्स कोणें धाडले, आनी ते नोटीस बोर्डाचेर लायनासतना कित्याक मेळत थंय उडयले कळपाक मार्ग ना.

घडये ज्या शाळांनी शिकोवपी टिचर्सूय वाचपाक तयार नांत थंय भुरग्यांनी पुस्तकां वाचप ना अशा विचारांचें शिक्षक, प्राचार्य बी आसूं येतात. अशे शिक्षक हांवें पळेल्यात. टिचर म्हणून केन्ना एकाद्रें वर्तमान पत्र विकतें घेवन वाचिल्लें पळोवंक मेळना. एके शाळेंत तीस टिचर्स आसले जाल्यार तातुंतले वाचपाची गोडी, आपूण टिचर म्हणून वाचूंक जाय हे जाणीवेन वाचपी एक दोन टक्के. म्हजे पंचवीस वर्सांचे शिक्षणीक कारकिर्दींत सर्वसामान्य गिन्यानान म्हाका प्रभावीत करपी वांगडी शिक्षक क्वचीत सांपडल्यात. बायलां टिचरांचें तर विचारूं नाका. तांकां दिसता तो आपलो शिकोवपाचो जो विशय आसा तो भुरग्यांक क्लाशींत शिकोवपा पुरतो प्रिपेर केल्यार पुरो. तितलोच चाप्टर वाचून तयार करून गेल्यार पुरो. ताका सायड रिडींग नाका, जनरल नॉलेज नाका वो आनी कसलीय जोड म्हायती नाका. तरूय अशे टिचर्स बरे टिचर्स, कारण ते तांची ड्युटी रेक्त करतात, कारण आयचे एकूण शिक्षणीक साच्यांत आनी पद्धतींत पाल्हाळपणा नाकात, लिमिटेड पोर्शन, जिस्ताज्युस्त. सायन्स शिकोवपी टिचराक इतिहासाचें गिन्यान आसप पाप. भाशा शिकोवपी टिचराक गणित नाका. ताचो विशय बरो की तो टिचर बरो. हे विचारसरणींत फीट्ट बसपी आयचे टिचर्स त्या त्या दिसाचें एखाद्रें वर्तमानपत्र सुद्धा वाचपाचे भानगडींत पडनांत. वर्तमानपत्र घेवपाकय खूब खर्च जाता न्हय?

म्हजो आनी एक वायट अणभव सांगतां. एक भायलो टिचर, तो पी.टी.

शिकयता. दुबाव ना तो गोंयांत फकत पोट भरपाकच आसा म्हण, ताका फुडलें कांय एक पडून गेल्लें ना. तो सदांच सकाळीं म्हजे पेपर घेतालो आनी अस्सो उक्तो करून पळेतालो आनी रोकडोच परत करतालो. म्हाका अजाप दिसलें, हो असो खिणां भितर वाचता तरी कितें. आनी एकदीस हांवेंच ताका विचाल्लें. ताणें लजभिड नासतना म्हाका सरळ सांगलें, "नंबर पळेतालों, मटक्याचो." असले टिचर्स हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेल्यात. आतां कोणूय म्हणटलो तातूंत कसलें अजाप, आयज मटको सगळेच खेळटात. आदर्श जुगार तो, फटिंगपणां नाशिल्लो, विश्वासाचेर चलपी. आसतय बी! तो टिचर तरी मटक्या नंबर पळोवपाक पेपर खिणभर हातांत घेतालो. हांवें कांय बायलां टिचर्स पळेल्यांत, जीं सरळ म्हणपी. पेपर वाचून कितें करपाचें आसा? वेळ मात पिड्डच्यार. शाळेंत स्टाफांत नव्या फॅशनीचेर, साडयांचेर आनी नव्या खाणां जेवणांच्या जिनसांचेर वर-वर चर्चा करपी बायल टिचरांक एखाद्रें पुस्तक वो वर्तमान पत्र वाचपाक वेळ नासता. तरी आसतना अशीं बायलां निरूपद्रवी आशिल्ल्यान तीं बऱ्यो टिचरी? आदर्श टिचरी कारण कितें?

सांगपाचें तात्पर्य म्हळ्यार आमच्या गोंयांतल्या शाळांनी शिकोवपी जे टिचर्स आसात तातूंत पुस्तक वाचनाची गोडी आशिल्ले भोव थोडे. इस्कोलांनी दर सुमनाक लायब्ररी पिरेड आसता पूण त्या पिरेडाक भुरग्यांक पुस्तकां कोण दितात? पुस्तकां घेवपाक जी ग्रँट मेळटा ती हेर कसल्याय कारणांक वापरपी मॅनेजमेंट गोंयांत उणी नांत. लायब्ररी आसा पूण पुस्तकां लॉकपांत. आल्मारींत. तीं भुरग्यांक वाचूंक कशींच दिवप ना. कित्याक तर भुरगीं पुस्तकां पिंजतात. खेळाचें सामान हाडून तें भुरग्यांक खेळपाकच दिलें ना जाल्यार कितें जातलें, फुटबॉल खेळटकच फुट्टलो, क्रिकेटचें बेट मोडटलें म्हणून ह्यो वस्तू भुरग्यांच्या हातांत दिनासतना आमी रावतात? मागीर पुस्तकांच्याच बाबतींत अशें कित्याक? पुस्तकां पिंजलीं, शेणलीं जाल्यार लेगीत तीं दिवंकच जाय हो विचार आशिल्ले हेडमास्तर आमकां कितले पळोवंक मेळत? हेड नाशिल्ले हेड मास्तर कशे जातात तेंवूय एक अजापच.

पणजे पुस्तक समारोह आनी पोरणें गोंयां शवप्रदर्शन जालें. पूण आमच्या कांय इस्कोलांनी पोरणें गोंयां आपल्या विद्यार्थ्यांक मुजरत व्हेले. कित्याक? कसलें गिन्यान(?) दिवपाक, कसलो इतिहास, खरो वो फट तें सांगपाक? शवप्रदर्शनाक

गर्दी करपी लोक बरे आसात, पूण शिकपी भुरग्यांचें कितें?

देवधर्माच्या नांवान कितल्योय फटी सांगल्यार तें पातक जायना. ती बरी देख आनी देवाचें कार्य जाता. फटींगपणां धर्मांच्या मळार सोपेंपणान पचून वतात, कारण थंय कोणूच आव्हान दिवपाचे भानगडींत पडना. तथाकथीत बुदवंत सुद्धां धार्मीक भावना बी दुखावतल्यो म्हणून फटींगपणांय मानून घेतात. गोंयांत असले प्रकार चड प्रमाणांत चलतात. शवप्रदर्शनाच्या निमतान जें लिखाण उजवाडाक आयलां तें कितलें खरें कितलें फट तें कोणूय सांगत व्हय? सोड तो एक वेगळो विशय, म्हजो मुद्दो असो की जर पोरण्या गोंयां शव प्रदर्शनाक शाळांच्या शिकपी भुरग्यांक मुद्दम शाळेक सुटी दिवन व्हरतात. मात पुस्तक प्रदर्शनाची सादी नोटीस लेगीत भुरग्यांक शाळांनी वचना. ही कसली दळदीरपणां, आमच्या शिक्षण संस्थांनी आसात? कांय विद्यार्थी पुस्तकां वाचून मडीं पळोवपाक वच्चेना म्हण भितात?

शिक्षणखातेंय पुस्तक समारोहा संबंदान उदास आनी निरुत्साही कित्याक रावलें? शिक्षण खातें म्हळ्यार भौशीक बांदकाम खातें न्हय वो न्हंय येरादारी खातें न्हय. शिक्षण खात्याचो कारभार हो सांस्कृतीक, बौद्धीक, वैचारीक दिश्टीकोनान जावंक जाय. तांबड्या फितांक सदळ करून कांय सरकारी निर्णय सदळ जावंक जाय आसले. गोंयच्या कला आनी सांस्कृतीक खात्यान आझाद मैदानाचेर शवप्रदर्शना निमतान कल्चरल(?) प्रोग्राम केले. लाखांनी दुडू खर्चीलो पूण आठ दीस पुस्तक प्रदर्शनांत मात ह्या खात्याचें कांयच काम नासलें? आमची कपलफुटकेपणा शिक्षणाच्या, कलेच्या आनी संस्कृतीच्या मळार आयचींच न्हय. राज्यकर्तेच पयले शिक्षण कला आनी संस्कृतीचे दुस्मान कशे वागतात तांकां ह्या गजालींचें इल्लेंय म्हत्व नासता. ज्या दिसा पुस्तक समारोहाचें उदघाटन मुख्यमंत्र्यांच्या आनी राजपालांच्या हातान जालें तेन्ना मुख्यमंत्र्यांक हांवें ते शिक्षणमंत्रीय आसात हाची जाणीव करून सांगिल्लें की सगळ्या शाळांक पुस्तक समारोहाक भुरग्यांक हाडपा खातीर एक परिपत्रक धाडपाची वेवस्था करात, पूण परिपत्रकां केन्ना पावलीं? पुस्तक प्रदर्शनाक भेट दियात हे पोस्टर्स केन्ना पावले? आमकां मुख्यमंत्रीय मेळ्ळे ते अक्षराचे दुस्मान आशिल्ले काय? ही जाली फाटली खबर.

सगळेच पुस्तकां बरोवंक लागल्यार सरकाराची धांदल जावंची ना? अशें प्रकाशकांक सांगपी व्यक्ती तेन्ना गोंयचे सत्तेर पाविल्ली. पांच वर्सां उपरांत तांचे

विचारसरणेंत इल्ली तरी सुधारणां जाल्या आसतली अशें आमी धरून चलताले देखून कला, साहित्य, शिक्षण, ह्या गजालींक म्हत्व येतलें अशी आस्त धरून आसले. शिक्षण, कला, संस्कृती ह्यो गजाली सरकाराच्या गैरकारभारा भशेन चलूंक फावना हें आमच्या राज्यकर्त्यांक कळपाक जाय आसलें. पूण सुर्या केन्ना उदेलोच ना.

अख्खी पिळगी, अख्खो समाज सतत काळखांत उरल्यार जायत्या जाणांचें फावता. हो वेव्हार आमी जाणांत पूण हो वेव्हार चड तेंप तिगचोना. विधानसभेंत वतलो जाल्यार विकतीं मतां दिवपीच समाज आमकां जाय अशें चिंतून लोकांक काळखांत, अज्ञानांत दवरूपी राज्यकर्ते आनी धर्मांद, धर्मीक पाद्री, भट, स्वामी, पुजारी हांचे वृत्तींत इल्लोय फरक ना. मनीस काळखांतल्यान उजवाडांत आयल्यार स्वतंत्र चिंततलो, विचार करून वागतलो, कसलीय फटी मानून घेवचो ना. देव धर्माच्या नांवान कसलीय मड्याचीं मूर्खपणां सोंसचोना हें जाणा आशिल्ले धर्माचे  कारखाने चलोवपी मॅनेजमेंट आपलें प्रॉडक्ट खपोवपाक फुकट लिटरेचेर धाडटात तितलें सोडलें जाल्यार आमी आमच्या शिकपी भुरग्यांक कसलो उजवाड दितात? कितलें सत्य तांका शिकयतात?

श्रीमंत आनी नवश्रीमंत एक हजारभर रुपयांचीं पुस्तकां बरेशे शिशाचे शाकशींत शोवाक दवरतात. तांकां त्या शोकेशींत आशिल्ल्या एक्काय पुस्तकांचें नांव खबर नासता वो केन्ना तांणीं तें चाळिल्लें सुद्धा नासता. पूण पंदरा लाख रुपयांच्या बंगल्यांत एक हजार रुपयांचीं पुस्तकां शोवाक दवरप हिवूय वायटशी गजाल न्हय. (निदान पुस्तकां तरी खपतात.)

पूण इतलेंय आसून, अशे शिक्षणमंत्री, असो मुख्यमंत्री, अश्यो शाळा अशे हेडमास्तर, प्रिन्सीपल, अशे पाद्री आनी असले पालक आसूनय पणजे भरिल्लो पुस्तक समारोहाक भरपूर गर्दी तेन्ना जाल्ली.

गोंयांत जशीं परत परत रेडीमेड गार्मेंटांचीं प्रदर्शनां आनी सेल जातात. तशे तरेचे पुतकांचेय सेल परत परत लागपाक जाय. गोंयांत लायब्ररी चळवळ वाडूंक जाय. आदलीं वाचनालयां परतीं उक्तीं जावंक जाय. सुसंस्कृत समाजाचे घडपाचे प्रक्रियेंतलें हें एक पयलें पावल अशें म्हाका तरी दिसता. खाक्सा करून खेड्यांनी जय मोठ्या प्रमाणांत नेणारपणां, अंधश्रद्धा, भित्रेपणां, भैरजळोप आसा थंय पुस्तकांचें म्हत्त्व वाडीक लागपाची गरज आसा. हाचो परिणाम आमच्या

राजकारणाचेर सुद्धां जातलो. बरे राज्यकर्ते, बरे प्रशासक आनी बरे राजकारणीय फुडें येवपाक हे पुस्तक चळवळीचो उपयोग नक्कीच जातलो. सरकारान मनार घेतल्यार गोंयांत वाचक चळवळ जैतीवंत जावपाक कळाव लागचो ना, सद्याक कला आनी संस्कृती खातें हो वावर करता, त्या वावराचो व्याप वाचक चळवळींत वाडपाक जावपाक जाय.



# अंधश्रद्धेल्या रोगाचें केंद्र देव हे कल्पनेंतच आसा

**आ**मोरेचेर फोंडे प्रासार एका कोनशाक लख्ख उजवाडसो दिसलो म्हणून हांवें ते खाचींत पळयलें तर थंय अंधश्रद्धा निर्मुलन समितिचे कांय कार्यकर्ते भविश्य आनी कुंडलीक उजो घालताले, कुंडलीचें दहन करताले. उजो पेट्टालो, कागद लासतालो तशे अनिसचे कार्यकर्ते घोशणा दिताले. भविश्य - ज्योतीश सगळें थोतांड, बुवाबाजी, अंधश्रद्धा, वायट रुढी, कुड्डो भावार्थ, भैरजळोप ह्या सगळ्या वायट गजालींचो अनिसचे कार्यकर्ते मोटे पोटतिडकीन निशेध करताले.

हालींच अनिसचे कार्यकर्त्यांनी एक जाहीर सभा घेतली. सभेंत कांय जाणांनी बरेपयकीं मराठी भाशेंतल्यान भाशणां केलीं आनी प्रासावयल्या लोकांक आपले परीन मनशां मर्दीं आशिल्ल्या अंधश्रद्धांचेर कचाकच कुराड चलयली.

एका कोनशाक खाचीक चलतले हे म्हत्वाचे कार्यावळींत सगळोच बोवाळ आसलो. भोंवतणीं मोटारीचें पोंकपोंक, मदींच रिक्षा - मोटारसायकलींचें यो - वच. फोंड्या प्रासार उब्यो आशिल्ल्या बाबड्या पोटार्थी रिक्षावाल्यांचें लक्ष गिरायकाचेर आसलें. आपले सामकार कोण तरी मायकार कितें तरी सांगपाचो प्रयत्न करता हें सुद्धा एका दोळ्यान ते पळोवपाक तयार नासले. रिक्षा चालकांच्या मर्दीं थोडे टॅक्सी ड्रायव्हरूय आसले. अयसपयस हात पांगरून उबे राविल्ले. कांय लोक घडये अनिसच्या कार्यकर्त्यांक तें कितें लासतात? पिशे खंयचे अशेच म्हण्टाले जावंक जाय. जंय अंधश्रद्धा निर्मूलन समितीची सभा चलताली ती सुवात झरेश्वराची. थंय झरेश्वर नांवाचो आनी एक देव आसा. आनी ह्या झरेश्वराचे सासायेन हे टॅक्सीवाले, रिक्षावाले आनी मोटरसायकल पायलट भाडीं मारून आपलें पोट भरतात. झरेश्वराचो वार्सीक उत्सवय जाता. ते भायर सार्वजनीक गणपतीय जाता. लाखांनी रुपया ह्या उत्सवाचेर निधी जमोवन खर्च जाता. पयशांचो धूप

जाता. मौजमजा जाता. पंदरा दिसांच्या उत्सवांत सगळे तरेचे लोक अशें ना तशें भावार्थी जातात, देवाचे मनीस जातात. आपणाक भाडें मेळचें, आपली जोड जावंची म्हणून झरेश्वराक वाती- जोत -उजवाती पेटयतात. भक्तीभावान पांयतणा काडून कोपरापासून नमस्कार करतात.

अशा जाग्यार अनिसच्या कार्यकर्त्यांनी कुंडली लासली. निदान लासतना तरी ह्या लोकांची उमळशीक उत्तेजीत जावपाची! हांव कुशीक एका गाड्याचे नाबीक तेंकून उबो आसलों.थंय त्या गाड्यार एक अपंगूळ एक हात आनी एक पांय नाशिल्लो अल्लाबक्ष बसून मटको घेतालो. मटको बंद जाला अशें आमी आयकतात, मागीर पयशे घेवन तो स्लीप कसली दिता? हांव मदींच अनिसचो कार्यक्रम विसरून फोंड्यां प्रासार आमोरेर मटको घेतल्या त्या बिगर गोंयकार अल्लाबक्षाक पळेत उल्लों.

मातशे पेल्यान कांय तरणाटे इस्पीकांचो खेळ खेळटाले. चड करून भाडें नाशिल्ले ड्रायव्हरूच आसूंक जाय. पूण ह्या सगळ्यांचें लक्ष ओडपाक अनिसच्या वावुरप्यांक कुंडलीक उजो घालुनय यश आयलें ना. पूण कोण आयकता कोण आयकना वो कोण पळेता कोण पळेना हाचेकडेन लक्ष दिनासतना अनिसचे कार्यकर्ते आपलो वावर करीत रावले. अंधश्रद्धेचो पारंपारीक रोग तसो तो इतले सोंपेपणी ना जावंचो ना. त्या रोगाक आजून तरी कार्रेगाद वखद सांपडूंक ना. अंधश्रद्धेचो रोग सगळया समाजांत सगळ्यांकच जाल्लो आसा आनी तो अनुवांशीक. ते टॅक्सीकारांक आनी रिक्षा चालकांक तर तो मोठ्या प्रमाणांत आसा. ते भायर तो खुद्द आमकां म्हळ्यार अंधश्रद्धे विरूद्ध उलयतल्यांक आनी बरयतल्यांक भितल्ले भितर पिडीत आसा. आमी त्या रोगाक संस्कार अशेंच म्हणत आयल्यात.

अंधश्रद्धेच्या रोगाचो म्हत्वाचो विशाणू वो मायक्रोब म्हळ्यार वायरस देवाची जी कल्पना आमच्या लोकांचे तकलेंत आसा ती. देव आमकां तारता, देव आमकां मारता, देव आमकां बरें वायट करता, देव आमकां विद्या-गिरेस्तकाय सवस्थकाय दिता, देव आमकां ख्यास्त करता, देव सर्गांत सुवात दिता, देव नरकांत उडयता माती आनी गोबोर. आनी हो गोबोर आमच्या मनशाचे तकलेंत इतलो रांपला-इतलो रांपला की तो आमचे भितर खोल खोल तळाक खडप जावन घट जाला. आनी ह्या खडपाचेर घाव घालप भोवच कठीण. पूण कठीण

म्हणून घाव घालीनासतना रावपय समा न्हय, देखूनच फोंडेच्या प्रासार अनिसचे कार्यकर्ते जें कितें करताले ताका नक्कीच अर्थ आशिल्लो.

फोंडे म्हालांतल्या काळजाचेर अनिसच्या वावुरप्यांनी कुंडली जाळून उडयली हाकाय खेरीत अर्थ आसा. कारण गोंयचें फोंडे हें काळीज आनी हें काळीजूच देवभूमी तपोभूमी म्हणून वळंखतात. हांगा जायतीं देवळां आसात. ह्या देवळांनी हजारांनी लोक दीसपट्टे येतात-वतात. देवाक पांयां पडून सगळे नतमस्तक जावन शरण वचून काकुळट कर देवा, दया कर देवा, आशिर्वाद घाल देवा, कल्याण कर देवा म्हणून मागतात. अंधश्रद्धेचो उगम हो अशा भावार्थान जाता. देवा भोंवतणीं अंधश्रद्धेचीं जळमटां घुस्पल्लीं आसात. कुंडली, भविश्य, ज्योतीश, पंचांग, प्रसाद-पाकळी, यज्ञ हवनां आनी रूद्र-लघुरूद्र, महारूद्र चंडी -शतचंडी, सहस्त्र चंडी, बाबा, स्वामी मठाधीश ह्या सगळ्यांचो भोवपा-घुंवपाचो हो वांठार. देवळाच्या प्राकारांत देवाक भेटूंक येवपी सगळ्या थरांतले गरीब गिरेस्त लोक व्हड परंपरेन हे मुळावे अंधश्रद्धेक घट दसून आसात. म्हणटकच अंधश्रद्धेचें मूळ जर देव-देवळां आसा अशें आमकां कळटा जाल्यार आमी वयर वयर मलम लावन भितल्लें घट जाल्लें खडप फुटचेंना. देव -धर्माक आमचो विरोध ना अशें म्हणपय समा न्हय. अंधश्रद्धा निर्मूलन समितीच्या कार्यकर्त्यांक देव हे कल्पनेक हात घालप शक्य ना हें जरी खरें आसलें तरी देव देवळांकडे लोटपी लोकांचे गर्देक थांबोवन धरपय शक्य ना. तरी सुद्धा देव ही मानवी कल्पना. देवाक मनशान जल्माक घाला. जल्माक खंयच्यान घाला तर भंयभिरांतींतल्यान आनी ही भंयभिरांत खंयच्यान येता काय म्हळ्यार ती सैमांतल्यान येता हो सादो विचार मुळाव्या पांवड्यार बुद्ध येवपी भुरग्यांक शिकोवंक जाय. बुद्ध येवन परंपरेंतल्या मानवी विचारांनी पक्को जाल्ल्या मनश्याक देव ही कल्पना, एक विचार अशें सांगल्यार कशेंच पटचें ना. मागीर ती आयकतलो मनीस साप्प गावंडळ आसूं वो अमेरीकेक वचून डॉक्टरेट घेवन आयिल्लो आसूं. फॉरेन रिटर्न म्हणून तर तो खूब तेंपान आपल्या कुलदेवाक नमस्कार घालपाक खासा वतात. म्हणटकच जे लोक देव ह्या आकार आनी सगूण कल्पनेक मानतात आनी ते कल्पनेच्यो फातरा मूर्ती पुजेक लावन तांचे कडेन संवाद करतात तेन्ना ते आमकां पिशे दिसनांत. देवळांतलो भट गर्भकुडींतले फातराचे मुर्तीकडे उलयता, एकटोच उलयता तेन्ना तो आमकां पिसो कसो दिसना, उलट तो शाणो आनी आमी मूर्ख?

मात रस्त्यार उबो रावन एक मनीस बडबडत रावत जाल्यार आमी ताका रोकडोच पिसो थारायतात. रस्त्यावयल्या फातराक वो तळपाक पळोवन उलोवपी एखाद्रया मनशाक आमी देवाकडे तो उलयता अशें केन्ना म्हणचेंना. कारण आमचे तकलेंत कांय विचार पक्के जाल्ले आसतात. प्रसाद लावन, देव पाकळी दिवन आमचेकडे उलयता आनी देव आमकां अमको तमको उपदेश करता हें कितलें खरें कितलें फट हाचो आमी केन्नाच विचार करिनांत. प्रसादांचेर थरिल्लें लग्न, लग्ना उपरांत ताचें विघ्न जाल्लें आमी पळेतात. तरूय प्रसादावयलो आमचो पारंपारीक विस्वास कसोच ढळना, इल्लोय उणो जायना.

देवदेवळां आनी बाबा स्वामीचें वास्तव्य आशिल्ल्या अंत्रूज म्हालांत अंधश्रद्धा निर्मूलन समितीच्या कार्यकर्त्यांनी कुंडली दहन केलें ताची खबर ह्या सगळ्या तथाकथीत दैववाद्यांक कळपाक जाय. कारण अंधश्रद्धेचें मुळावण थंयच्यानूच सुरू जाता, कारण संवसारांतली सगळ्यांत पयलीं अंधश्रद्धा ही देव वो देवाची कल्पना, देवाची मानसिकता, पूण हें सत्य मनशाक कळप भोवूच कठीण कशें जालां, कारण आयज संवसारभर देव-धर्म हांचो मोटो उद्योग जाला, तो एक मोटो धंदो जाला. जाचेर लाखांनी क्रोटांनी तथाकथीत धर्मगुरू, बाबा स्वामी, माद्री, पाद्री, काजी, मुल्ला बी सगळे आपणालो चरितार्थ चलयतात. अंधश्रद्धा निर्मूलनाच्या मार्गावयलें हें मोटें सत्य समजुनच, अंधश्रद्धा निर्मूलनाचो वावर जावंक जाय.

हाली तेंपार तर फोंड्यां सारकेल्या शाराभोंवतणी मठ-मठाधीश धुमशेणां घालूंक लागल्यात. मठाधीश जावप खूबच सोपें जालां. कोणेंय खाड-मिशयो वाडोवंच्यो, कपलाक गंध सारोवंचें, भगवे कपडे घालचे, माथ्याक साईबाबा टायप तुवालो गुठलांवचो आनी बसचो एके सुवातेर. फक्त हात उबारून तथास्तू म्हण, जालो बाबा. ही सवंगां फक्त हांगा म्हणून सोबून वतात, कारण आमी हांगा रावतात ते दोळे धापून, कान बंद करून, तोंड धापून.



# अल्पसंख्यांक, भौसंख्यांक काय भारतीय?

'अल्पसंख्यांक आयोग हांगा कित्याक? कोण भौसंख्यांक आनी कोण अल्पसंख्यांक आसात हांगा? आनी भारतीय म्हणून कोण संख्येन उणो आसा? ह्या देशांत आसात ते सगळे ह्या देशाचे नागरीक म्हणटकच सगळेक भौसंख्यांक भारतीय जाले नांत तर? मागीर अशा सगल्या भारतियां मदीं अल्पसंख्यांक म्हणटात ते कोण? म्हज्या मनांत अखंड देशांत खंडीत जाल्लें नागरिकत्व आसूंक शकना.' तो संतप्त जावन उलयतालो. हांवें ताका म्हळें तुजे विचार म्हजे गांठभेटी खातीर वापरतां. म्हाका तुजे हे विचार म्हत्वपूर्ण दिसतात.

'नाका बाबा त्यो भानगडी. तूं कितें बरयत तें सांगूंक नज. म्हजें नांव घेनासतना तूं जाय तें बरय' ताणें म्हळें. तो एक एस सर आनी नो सर करपी गोंय सरकाराचो उंचलो अधिकारी. 'गवरमेंट सर्वेंट' म्हणटात ताका!

कितेंय आसूं, ताची प्रतिक्रिया मात खऱ्यांनीच विचार करपा सारकीच. हें पळय हांव अशें उलयतां म्हणून हांव भाजपाचो समजुशी, कित्याक जो जो कोण आयज राष्ट्रीयत्वाचेर उलयता, जावं मुसलमान आनी शीख वा किरिस्तांवांचेर टिकात्मक उलयता ताका भाजपाचो वास मारता अशें म्हणटात.

खरें तुजें, हांवें म्हळें, आनी जालांय बी तशेंच थोडें भोव प्रमाणांत तर कॉंग्रेशीन सापूच विटयलें, आनी आतां अल्पसंख्यांक आयोग नियुक्त करून ताका खाशेले अधिकार प्रदान करपाक विधेयक हाडलां.

म्हाका एक गजाल समजना. हो देश नेमको कोणांचो आनी नेमकी कसली संख्या मानता? काय विघातक जात धर्म नांवाच्या कळपांनी वांटून गेल्ल्याची संख्या हो देश मानता? तशें जाल्यार हो देश मनशांक मानचे सुवातेर मनशां मदले घातक विकृतीक चड मानता. आनी म्हज्या मतान जात धर्माची भावना ही एक सद्याक तरी मानवी विकृती कशी आशिल्ल्यान आमचो देश हे मानवी मनांतले सुप्त विकृतीन जो स्वताचे वांटे करून रावता त्या वाट्याक चड म्हत्व दिता.

आनी अखंड नागरिकत्वाक ह्या देशांत दुय्यम सुवात दिता आनी केन्ना केन्नाय बिलकूल दिना. ताचे कडेन उलयतां उलयतां म्हाकाय हो प्रस्न पडलो. जर आमचे राजघटनेक खंयचोय अमुकच धर्म अभिप्रेत ना. अभिप्रेत आसा तें फकत भारतियत्व आनी भारताच्या संविधाना कडेन आशिल्ली नागरीकाची लागणूक आनी चलणूक तशें जाल्यार जातधर्म निरपेक्ष नागरिकत्वाक आनी ताच्या भारतियत्वाक पळोवंचे सुवातेर ह्या देशांत त्या त्या नागरिकाच्या जात धर्मा कडेन पळोवन संख्येचे हिशोब असो चांटेपावलाक करपाचें कारण कितें? ह्या देशांतले सगळे भारतीय जाल्यार थोडे भारतीय आनी चड भारतीय म्हणून भौसंख्यांक आनी अल्पसंख्यांक करून एका अखंड नागरिकत्वांत खंड घालून चड अधिकार आनी थोडे अधिकार असो एकाच देशाच्या नागरिकां मदीं भेद करपाचीं मूर्खपणां ह्या देशांतलो सरकार कित्याक करता? जावं करीत आयला?

हे जाले आमच्या मनांतले प्रस्न. पूण वास्तव दर्शन तशें जायना. जाता तें दुर्देवी दर्शन. ह्या देशाचो हिशोबूच जात धर्मानूच जाता. आनी इतलेंय आसून आमी आमकां धर्मनिरपेक्ष वो सेक्युलर म्हणटात हें चड मारक. धर्मनिरपेक्ष मानतल्या देशांत धर्माची संख्या कोंताक धरून राज्यकारभार करपाचो प्रस्न खंय येता? जे कोण स्वताच्या मनीसपणापरस आनी भारतीयत्वांपरस स्वताच्या मनांतले धर्म नांवाचे विकृतीक चड प्राधान्य दिता आनी धर्माचें नांव घेवन केन्नाय ह्या देशाचे अखंडतेक आनी स्वातंत्र्याक लेगीत आव्हान दिता तांकां खाशेलें म्हत्व प्राप्त करून दिवपाचीं मूर्खपणा आयजय हांगा चलतात हाचे सारकें दुसरें दुर्देव तें खंयचें? जात धर्मावयल्यान एका देसाचे कायदे जातात आनी जात धर्मावयल्यान आयोगांक अधिकार प्राप्त जातात. तो देश सेक्युलर कसो? ताणें खऱ्यांनीच स्वताक मल्टी रिलीजीयस धर्माचेरच सगळें थारावपी देश अशें स्वताक म्हणून घेतल्यार कशें?

आमची चर्चा रंगताली. तो सामको तन्मयतेन उलयतालो. ताच्या ह्या बहुमोल विचारांचें निमाणें मोल कितें? ताच्या सारक्या अशा कितल्या लोकांच्या विचारांची कदर हांगा जाता? देशाभिमान राष्ट्रीयत्व हें अमक्यांक आनी दुराभिमान परधार्जिण्यत्व ह्या दुसऱ्यांक जे ह्याच देशाचे नागरीक अशें कोतांक धरता तांकां? ही कसली आयली धर्मनिरपेक्षता? ते परस कितें तो सोक्षमोक्ष लावपाची संद आसली. काश्मीर भितर घेतकच आनी भारताचो अविभाज्य घटक जातकच

तांकां ३७० वें कलम दान करून ह्या देशापासून सोडून दवरपाच्या महापातकाच्या धनयान आयज आमकां न्हिदय पडची न्हय अशीच वेवस्था करून दवरल्या अशें म्हणटल्यांचीं तोंडां कोण धरतलो?

हो एक देश ताच्यो ह्यो शिमो, ताचो हो बावटो, ताचे हे नागरीक, ताचो हो कायदो तो सगल्यांक सारको. जांकां कोणाक हांगाच्यो शिमो मान्य नांत, जांकां कोणांक समान नागरी कायदो मान्य ना तांणीं तांची वाट धरपाची अशेंच जावपाचें न्हय तें?

कसलो तो देश, जंय ताच्या बावट्याचेर कोणाचो आक्षेप आसा, आनी ताच्या राष्ट्रगिताचेर ताचो आक्षेप आसा, कसलो हो देश ज्या देशाचे नागरीक स्वातंत्र्याच्या अधिकारान शिमांचेर आनी भासांचेर आक्षेप घेतात? कसलो हो देश जंय फकत स्वताच्या धर्माक आनी तांच्याच प्रेषितां मुखार देश भावनेक दुय्यम मानून तांच्या नांवान हांगा कायदे कानून जाय जाय तेन्ना देशाचे राज्यवेवस्थेक बदलूंक लायतात?

खरें म्हळ्यार ह्या प्रस्नांचो केन्ना तरी सोक्षमोक्ष लागूंक जाय. आनी सोक्षमोक्ष लागपा सारकें वातावरण निर्माण करतलो जाल्यार राज्यकारभारांत जे धर्मीक म्हत्व दितात तें निखालूस दिवंक फावना.

उलयतां उलयतां ताणें चटकन म्हळें, 'म्हाका सांग गोंयचो बिशप कोण रे?' लोकशाय पद्धतीन वेंचून आयिल्ल्या त्या त्या वाठारांतले फुडारी जावं लोकप्रतिनिधी आसतना आनी तांचेकडेन खंयच्याय प्रस्नांची भासाभास करचे सुवातेर एका धर्मीक नेतृत्वा कडेन एका सेक्युलर म्हणपी सरकारी नेतृत्वान आपूण जावन तांच्या दारार वचपी हें लक्षण कसलें? धर्मीक फुडाऱ्या कडेन वचप सरकार चलयतल्यांची ही नामुश्कीच न्हय तर अपरिपक्वताच म्हणूंक जाय!

समजा असोच प्रस्न जर उत्तर गोंयांत उप्राशिल्लो जाल्यार मुख्यमंत्री खंयच्या स्वाम्या कडेन उलोवणीं करूंक वतलो आसलो? कोणाक कितलें मोल दिंवचें हांचें भान मताचो हिशोब करतल्यांक नासता हें जरूय मान्य आसलें तरूय गोंयचो बिशप किरिस्तांवांचीं मतां थारायतना आनी अख्खो किरिस्तांव समाज बिशपच्या आदेशाचेर चलना म्हणपाचें पोरूं शिक्षण माध्यम आंदोलना वेळार स्पश्ट जाल्लें. कांय जाणांनी तर खुद्द बिशपाचेर आगळीक करपाकूय फाटीं फुडें पळेलें ना. हाचे वेल्यान गोंयांतलो किरिस्तांव समाज पुरायपणान बिशपाचे

आज्ञेचेर ना म्हणपाचें खबर आसुनय सरकार जो सर्वधर्मीयांचो मेळून केल्लो आसता ताणें धर्मीक फुडाऱ्यां कडेन उलोवणी करूंक वचपूच मुर्खपणाचें! बरें, उलोवणीं करून कितें साद्य जालें? सांखळी आंदोलन फिस्कटलें ताका कारण बिशपाकडची उलोवणीं अशें कोणें समजुचें न्हय, मानवी सांखळी आंदोलन फिस्कटपाचें कारण आंदोलनांतल्या नेतृत्वांत निर्माण जाल्ले मतभेद. थोड्यांक हो जाय थोड्यांक तो नाका ह्या झगड्यांत आंदोलन फिस्कटलें. बिशपा कडेन जाल्ल्या उलोवण्यांक लागून न्हय हें आमच्या सरकारान मतींत धरूंक जाय.

तो आनी हांव उलयताले. मूळ प्रस्न आसलो ह्या देशांत अल्पसंख्यांक कोण? भारतीय म्हणून कोण भौसंख्यांक आनी अल्पसंख्यांक आसात व्हय? मानव आनी अमानव भारतीय असो कोण नागरीक आसा व्हय?

म्हणटकच ही संख्या जी आमी म्हणटात ती कसली?

धर्माची मूं? मागीर जो देश निधर्मी म्हणटा तो देश धर्माची संख्या कोंताक कशी धरता? ताका फकत भारतीय नागरिकांचीच संख्या अभिप्रेत आसपाची न्हय? खऱ्यांनीच हो संख्येचो हिशोब आमचे बाबतींत चुकला, आनी तो हिशोब जाग्यार घालचे सुवातीर आमचें सद्याचें सरकार तातूंत आनीक घोळ घालता आनी ह्या देशांत ना ना म्हणटना कळटा न कळटा जात धर्माचेच स्तोम हांगा सत्ताधारी माजयतात. सत्ताधाऱ्यांच्या वैचारीक दिवाळखोरीचीं हीं लक्षणां न्हय मूं? आनी जर असले बँकरप्ट लोक सत्तास्थानार आसात, तांच्या हातांत हो देश सुरक्षीत आसा अशें म्हणपाक आमची सद्सद्विवेक बुद्धी आमकां मान्यताय दीत मूं?

जातधर्म पांयां पोंदां चिड्डून हड्डें फुडें काडून हांव भारतीय हांव हांगा भौसंख्येन आसां आनी म्हजे मर्दी खंयचेय तरेन कसलेच वांटे नांत अशें गर्जत सांगपी नीज भारतीय आमकां एकलोय मेळचो ना काय? काय आमकां अशें सांगपाचो धीर येना? आर्दी अशे धीर नाशिल्लेच आयज सत्तास्थानार पावून आपली सत्ता तिगोवपाचे सर्कशींत ह्या देशाचें स्वातंत्र्य परत धोक्यांत घालचे नांत मूं?



# मनीसपणाचो दिश्टावो जाल्लेच समतेचो वावर करतात

समता आंदोलनाचे वतीन नामनेचे विचारवंत आनी समाज सुधारक डॉ. आ. ह. साळुंखे हांगेलीं व्याख्यानां म्हळ्यार एक खाशेली मेजवानीच आसली. तांगेलीं गोंयांत जाल्लीं सगलीं व्याख्यानां आयकुपाक गावलीं नांत. तांचीं म्हत्वाची व्याख्यानां मात आयकुपाची संद मेळ्ळी. तशेंच केरी संकल्प दिसाच्या निमतान जाल्ले कार्यावळींत तांची गांठभेटूय जाली.

विचारांची घट बुन्याद आशिल्ले डॉ.आ. ह. साळुंखेनी समाज परिवर्तनाचे तळमळीन सगळे आक्षेपार्ह अशें धार्मीक साहित्य ढवळ्ळां म्हणपाचें तांच्या सुक्ष्म तरेन केल्ल्या विश्लेशणांतल्यान समजतालें. केरी जाल्ल्या तांच्या सहवासांत तांकां हांवें जेन्ना म्हळें की, आमच्या गोंयांत हिंदू देवळांनी आयजूय ब्राह्मणेतर हिंदू समाजाक गर्भकुडींत वचूंक देवाक अभिशेक घालूंक मेळना अशें सांगनाफुडें तांणीं 'आं' करून अजापान म्हजेकडेन पळयलें.

'हय, हे अपमानाचे प्रकार गोंयांतल्या चडशा नामनेक पाविल्ल्या देवळांनी घडटात. आनी दुर्दैवान ज्या लोकांकडेन तांच्या उच्च शिक्षणाक लागून, बऱ्या संस्काराक लागून, बरे विचारसरणेक लागून आनी विशेश म्हळ्यार जांचेकडच्यान समाज परिवर्तनाची आस करूं येता अशे लोक ह्या देवळांचे म्हाजन आसतना ह्या देवळांनी हो लजेचो प्रकार आयजूय घडत आसा' हांवें म्हळें. 'तुमी चुकता आहात' अशें मराठींत म्हणत डॉ. साळुंखेनी म्हळें उंचल्या समाजात जल्माक आयिल्ले वो उंचलें शिक्षण घेतिल्ले लोक उंचेल्या विचारांचे आसताच अशें ना. दुसरी गजाल केन्ना केन्नाय जांकां समाजांत ह्या ना त्या कारणान मान्यताय प्राप्त जाल्ले लोक लेगीत मनीसपणां भायली चलणूक दवरतात अशें म्हणून डॉ. साळुंखेनी मनुस्मृतीचें समर्थन करपी डॉ. पटवर्धन नांवाच्या महाराष्ट्रीयन विद्वानाची

देख दिली. आयजूय जायते विद्याविभुशीत तथाकथीत विद्वान जाती वेवस्थेचें समर्थन करतात. फाटीं जेन्ना राजस्थानांत रुपकुंवर सती गेली आनी तिका जेन्ना विचारवंतांनी विरोध केलो तेन्ना शंकराचार्यासारख्या हिंदू धर्मपिठाच्या धर्मगुरून राजा राममोहन रॉयचीं पातकां फळाक आयलीं अशें घृणास्पद विधान तेन्ना केल्लें. आनी शंकराचार्याचें तें विधान तांकां पचून गेलें. सतीचें समर्थन करपी शंकराचार्य हिंदू समाजाचें आपले परीन जें फुडारपण करतात त्या शंकराचार्याचो धिक्कार ह्या देशांत जावपाक जाय त्या प्रमाणांत जालो ना. जातधर्मावयल्यान एका मनशान दुसऱ्या मनशाचो अपमान करपी ही एक मनशामदली सुप्त विकृती, आनी विकृती सभावीक कशी बळावल्या हाचें भान बऱ्या बऱ्यांक नासता, देखून जातीसंस्थांनी मिरोवपी, जातीकातींचें समर्थन करपी लोक नाक वयर काडूनच समाजांत आयज वावुरतना आमकां दिश्टी पडटात. हें हांगाच न्हय, वतां थंय पळोवंक मेळटा.

उलयतां उलयतां डॉ. साळुंखेनी म्हळें देवूळ ही भौशीक सुवात आनी भौशीक सुवातेर जावपी हो अन्याय तुमी कशे सोंसून घेतात?

डॉ. साळुंखेचो हो प्रस्न म्हळ्यार सगली परवड तांच्या सामकार उक्ती करपा सारकें आसलो. मात तांकां हांवें इतलेंच म्हळें की आमी आमचे पातळेवयल्यान झगडटात. आतां समता आंदोलनानूय गोंयांतलो म्हाजनकीचो कायदो बदलचो अशें सरकाराकडेन मागलां, आनी फावो ती समाज जागृती करून हो अन्याय पयस करपाचे प्रयत्न चल्ल्यात.

'ह्या संबंधीचे एखादे पुस्तक उपलब्ध आहे काय?' ह्या तांच्या प्रस्नाक मात हांव हयकार दिवंक शकलों ना. मात तशें पुस्तक तयार जातकच धाडून दितां अशें सांगून ती चर्चा आमी थंयच थांबयली.

डॉ. साळुंखेनी प्रक्षोभक अशे विचार मांडले. उलयतां उलयतां तांणीं म्हळें मनुस्मृती सारकें आनीकूय जायतें बरप आमच्या धर्मीक साहित्यांत मानाची सुवात घेवन आसा आनी हें साहित्य जशें कितें प्रत्यक्ष परमेश्वरानूच आपल्या हातांनी बरोवन दवरिल्ले भाशेन आमचे धर्म पंडीत भौजन समाजा मुखार दवरतात. डॉ. आंबेकडरांनी जशी मनुस्मृती लासली तशी हिवूय बरपावळ आमी लासूंक जाय. अशें सांगून त्या इल्ल्याशा बऱ्याची राखण करतना चडांत चड वायटांचें समर्थन करपाची इल्लीय गरज ना. आनी सकयल्या मनशाचो अपमान करपाक शिकोवपी जें साहित्य देव धर्माचें नांव घेवन जाणीं बरयलां ते कोण आसले

खंयच्या वर्गांतले आसले? तुमच्या गोंयांतूच अशे तरेचें साहित्य कोणेय बरयिल्लें आसत जाल्यार तेंवूय त्याच वर्गांतलें आनी तेच हीन मनोवृत्तीचें आनी मनीसघाणें विकृतींत झपाटिल्लें कर्मठूच चड आसतलें. ना जाल्यार तपासून पळय.

डॉ. साळुंखे गोड उतरांनी उलयतना तांकां तशेंच उलोवंक दिवचें अशें दिसतालें, पूण ते एका मुद्याचेर इतले विस्तारान उलोवंक शकतात की एकूच मुद्दो तांच्या वरभर व्याख्यानाचो विशय जावं येतालो, पूण म्हाका तर चड चड मुद्यांवयर समजून घेवपाची उमळशीक लागिल्ली. देखून हांवें मदींच म्हळें सगल्या मनशांक समानतेन जियेवपाक केन्नाच येवचेना? मनीस असोच उच्च उणाकपणाचे भावनेंत बुडून एकामेकाचो अपमान, ताचे ताचे जात धर्मावयल्यान करीत रावतलो? ताका केन्नाच शेवट ना?

डॉ. साळुंखे खीणभर हांसले आनी म्हळें, "हें पळे ही लढाय आयची आनी कालचीच न्हय. ही लढाय बुद्धापासून चलत आसा. केन्नाच बांदावळीन नाशिल्लो हिंदू धर्म आनी त्या धर्मांत खंयच्यान तरी घुस्पल्ल्यो जातीभेदाच्यो वाली सोंपेपणान कापून उडयतलो जाल्यार त्या जातीकातीचो नेमको उगम खंय जालो तेंच स्पश्ट जायना. वेदकालापसून वर्णाश्रम जाले अशेंय नक्की धरूंक जावंचें ना. मात ही सरभरस भावना हिंदू समाज वेवस्थेंत खऱ्यांनीच रोंटो कशी लागली. आयज आमकां ताची प्रखरतेन जाणीव जाता पूण जाणीव जावपाचो आंकडो साप उणो देखून ते सट करून कोणाच्याय लक्षांत भरतात. आनी तांकां तांदळांतल्या फातरा भशेन अळंग वेंचून काडून वायट पद्दतीन कडेक काडप शक्य जाता. देखून आयच्या भौसंख्य कर्मठांचें फावता. त्या वेळार समाज नाशिल्लो अशें न्हय पूण त्या समाजांत बंडखोरांचो आंकडो आयज आसा तसोच आसतलो. देखून अख्खो समाज परिवर्तीत जावन मानवतावादी रितीन आपले जिणेंत वागूंक शिकतले म्हणून अपेक्षा करप चुकीचें. देखून आयज जातीसंस्थानी जातीय भावनेन शेकड्यांनी लोक गेल्ले आमकां पळोवंक मेळटात. मात समाज परिवर्तनाचो ध्यास धरिल्ल्यांनी ते संख्येक इल्लीय भीक घाली नासतना आपले सद्सद्विवेक बुद्धीक स्मरून, तर्कशुद्ध रितीन तो हजारांनी वर्सां चलत आशिल्लो लढो असोच चलत दवरपाचो आसता. सामाजीक क्रांतीची पिराय तशी तपांनी मेजूंक जावंचिना.

डॉ. साळुंखेंनी आनीक एक विचार उलयतां उलयतां मांडलो तांणीं

म्हळें जो कोण वायट समाजवेवस्थे आड बंड करता ताका सुरवातेक मानहानी, उपेक्षा आनी भयंकर क्लेश सोंसचे पडटात आनी जेन्ना तांकां मान्यताय प्राप्त जाता तेन्ना तांचे संबंद जिणेंत ताची उपेक्षा करपी, मानहानी करपी ताचो समाजच ताका आमचोच मरे तो म्हणून आपले मदीं आसपावन घेता. ताचेर मागीर बरें बरें वयले चाराक उलोवंक लागतात. ज्ञानेश्वराची तीच गत. ज्या ताच्या समाजान ज्ञानेश्वराक प्रखर विरोध केलो, ताच्यो विदऱ्यो वावळ्यो केल्यो, नाना तरेचे क्लेश भोगयले, मानसीक हालहाल केले ते तांचेच वंशज आयज ज्ञानेश्वर गाथा गावपाक आघाडेर. ज्या डॉ. आंबेडकरांक अक्षरशा जिणें कठीण करून दवरिल्लें ते लोक आंबेडकरांक व्यापक मान्यताय प्राप्त जातकच आंबेडकरांचेर भाशणां दिवपाक आयज फुडें आसात. हे भाशेन ही अविचारी आनी अडाणी सुशिक्षितांची आनी तथाकथीत विचारवंताची भुरावळ तेन्नाय आसली आनी आयजूय आसा, फुडाराक नासतलीच म्हणून सांगूंक जावची ना.

गोंयांतलीं देवळां ही आपणाली खाजगी मालमत्ता म्हणत हांगाच्या भौसांचेर अन्याय करपी हांगाचो सारस्वत महाजन तेच पंगतींतलो. हो समाज भौसाचे तकलेर बसून जगपाचो निर्धार करता तेन्ना भौसाच्यो तकल्यो जाग्यार नासतात. जेन्ना त्यो जाग्यार येतल्यो तेन्ना तकलेर बशिल्ले हे महाजन कितले क्षुद्रजन तें सिध्द जातलें. तो दीस पयस ना.



# धर्मसंस्थांनी मनीसजातीक गिड्डी करून दवरल्या

**ह्या** पुस्तकांत फाटल्या दोन लेखांनी हांवें धर्मा वयर दोन मुद्दे मांडपाचे प्रयत्न केल्यात. निसर्गांतल्या नवलांक आनी अजापाच्या घडणुकांक लागून सदांच बुद्धीचो वापर दैवीरूप दिवपाक केल्लो प्रयत्न आनी हें करपाक जो मार्ग आपणायलो ताका आमी धर्म अशें म्हणूंक लागले. पूण कालान्तरान निसर्गीक शक्ती देव थंयच उरून मनशांनी हेर देवांक प्राधान्य दिलें हें सांगपाचो एक प्रयत्न केल्लो. धर्मकृत्याचो, भोव करून व्रतांवैकल्ल्यां श्रद्धेन वो अंदश्रद्धेन परिणाम जाता व्हय, असो प्रस्न उपस्थित केल्लो. मात निसर्गाच्या नेमाक अशा पुरक आशिल्ल्या धर्मकृत्त्यांक वो देवकृत्त्यांक अपवादात्मक रितीन कडेक दवरून ह्या मुद्याचेर हांवें निसर्गाचेर धर्मकृत्याचो कितलो आनी कसो परिणाम जाता हो प्रस्न उपस्थीत केलो.

ह्या लेखांत म्हाका आनीक एक मुद्दो उपस्थीत करूंक जाय. तो मुद्दो म्हळ्यार मनीस हो सभावता मूळ अवस्थेंतल्यान भायर सरून प्रगतिकडेन वचपी बुद्धीवादी प्राणी. देखून आयज मनीस हे आयचे अवस्थेंत पावला. ही अवस्था म्हळ्यार व्हडली झेप वो बरेंच कितें मनशान मेळयलां अशें न्हय. आनी मनशान कितलें कितें मेळयलां तें पयरूच जाल्ल्या भुंयकांपान दाखोवन दिलां. तरी सैमाच्या हातांतली कळसुत्री बावली आसूनय मनीस धडपडटा हें खरें. ते खातीर मनशाचे हे धडपडीक धर्मसंस्थेन कितलो हातभार लायला काय मनशाचे उदरगतीचे प्रक्रियेंत धर्मसंस्थेन आडमेळें आनी आडखळी हाडिल्ल्यो आसात हें पळोवपाची गरज आसा. विज्ञानाची कास धरून मनीस जेन्ना नवे नवे सोद लावपाचो प्रयत्न करूंक लागलो आनी ताणें धर्मीक कल्पनांक हालयलें तेन्ना धर्मसंस्थेन कितलो हातभार

लायला, काय मनशाचे उदरगतीचे प्रक्रियेंत धर्मसंस्थेन आडमेळे आनी आडखळ हाडिल्ल्यो आसात हें पळोवपाची गरज आसा. विज्ञानाची कास धरून मनीस जेन्ना नवे नवे सोद लावपाचो प्रयत्न करूंक लागलो आनी ताणें धर्मीक कल्पना हालयलीं तेन्ना धर्मसंस्थेन विज्ञानाचे खोशेन स्वागत केलें काय विज्ञानाक कडव विरोध केलो?

आमच्या भारतांतल्या वर्णभेदांतल्यान उप्राशिल्ल्या जातीभेदाचो परिणाम आमी आयजूय पळेतात. हांगासल्ले आमचे देशी धर्मसंस्थेन जी केन्नाच संस्था म्हणून संघटीत नाशिल्ली आनी आयजूय ना तरीय तिका धर्मसंस्था म्हळी जाल्यार हे धर्मसंस्थेन विज्ञानीक संशोधनाक जावं विज्ञानिकांक विरोध केलो अशो देखी काय हांगा पळोवंक नांत. खंयच्याय एका भारतीय विज्ञानिकान धर्मवेवस्थेन सकयल सांगिल्ले अंधश्रद्धेक तडो दिवपी एखाद्रो सोद लायलो आनी हिंदू धर्मसंस्थेन ताका विरोध केलो अशी देख ना. मात धर्मवेवस्थेच्या नांवां सकयल हांगासर सामाजीक समतेक मात प्रखर विरोध जाल्लो पळोवंक मेळ्ळा आनी आयजूय पळोवंक मेळटा. ते खातीर विस्कळीत अवस्थेंत आशिल्ले हिंदू नांवा धर्मसंस्थेन केल्लें सामाजीक स्थरावयलें पातक येरोपांत इगर्ज हे ख्रिस्ती धर्मसंस्थन केल्ल्या पातका इतलें व्हड काय कितें तें वेगळें नदरेन तपासून पळोवंचें पडटलें. पूण पुराय मानवजातीक फुडें व्हरपी विज्ञानीक आनी तांच्या सोदांक प्रखर विरोध करपी ते येरोपी वो अस्तंतेकडचे धर्मसंस्थेचो मात्सोसो फाटलो इतिहास तपासून पळोवंक जाय, आनी मागीरूच धर्मसंस्थेन मनशाचे उदरगतींत आडमेळीं हाडल्यांत काय धर्मसंस्थांनी मनशाक फाटीं दवरला काय फुडें हाडला तें कळपाक सोपें जातलें.

संवसारांत ख्रिस्ती धर्माचो वा संप्रदायाचो व्हड संख्येन आशिल्ले संवसारांतले मनीस जातीचेर शेक चलता. संवसारांतली अर्दी अदीक मनीसजात ह्या धर्माच्या वा संप्रदायाच्या प्रभावाखाला आसून ती ख्रिस्ती धर्मीय आसा. मागीर ती रोमन कॅथलीक आसूं वा प्रोटेस्टंट आसूं वो शिरीयन आसूं. ख्रिस्ती हो कॉमन आसा. आनी ह्या धर्माचो एक आग्रो वो हट्ट आसा वो एक समज आसा, आनी तो समज म्हळ्यार हो धर्म वो संप्रदाय आयच्या संवसारांतल्या सगळ्या धर्मामदलो एकमेव प्रगत आनी सुदारिल्लो असो धर्म. आनी येरोपांत जावं अस्तंते कडेन विज्ञानीक क्रांतींत जांणीं वांटो घेतिल्लो जावं घेतला ते सगळे बुद्धीवंत विज्ञानीक, संशोधक, शास्त्रज्ञ बी चडशे जल्मान असले धर्मीय आसले, हें मतींत

धरून ख्रिस्ती धर्मसंस्थेन मनशाचे उदरगतींत भर घालपी, मनीसजातीक फुडें व्हरपी सोदांचें, शास्त्रीय सिद्धांतांचें आनी त्या त्या संशोधकांचें, त्या त्या शास्त्रज्ञांचें कशें स्वागत केलें तें तपासून पळोवपाची गरज आसा.

आनी ह्या प्रस्नाचो फकत ख्रिस्ती संवसाराकडेनूच संबंद येता वो फकत अस्तंतेकडच्याच संवसाराक येवजुपाचो अधिकार पावता आनी आशिया खंडांतले वा उदेंते कडचे जनतेक वा लोकांक पावना अशें कोणें म्हणचें न्हय. कारण डारवीनचो सिद्दांत वा गॅलीलीओचो सोद फकत अस्तंतेकडच्या संवसारा पुरतोच नासलो आनी ना. देखूनच ख्रिस्ती धर्मसंस्थेन मनशाचे उदरगतींत कशीं आनी कितलीं भिरांकूळ आडमेळीं हाडलीं तें पळोवपय गरजेचें आसा.

अस्तंतेकडचे हे धर्मसंस्थेचो इतिहास कितें सांगता?

Undoubtedly the faulest blot upon the record of religion claiming to be a religion of love is the organized cruelty by which it strove to supress all opinions that differed, or were supposed to differ from its official pronouncements.

म्हणजे इगर्ज ही आनी Divine Authority हे अधिकाराशाये विरुद्ध कसलीय, केदीय मानवी कल्याणकारी शक्ती वचुंकूच शकनासली आनी तसो कोणेय चुकून प्रयत्न केलोच जाल्यार ताचें कितें जातलें?

गोंयकारांक इंक्विझासांव खबर आसा. गोमंतपुरीच्या व्हडल्या घरा जातालो तो न्याय खबर आसा. आनी तो हातकापो खांबो तर आयजूय त्या भिरांकूळ अत्याचारांच्यो यादी घेवन उबो आसा. तशेच छळ येवरोपांतूय स्वधर्मीय विद्वानांक विज्ञानीकांक, संशोधकांक भोगचे पडटाले.

सर्गाची आनी संवसाराची चावी आपणाकडेन आसा असो दावो करपी धर्मसंस्थेचें म्हणजेच धर्म वाडोवपाक, सुदारपाक आनी सांबाळपाक वापरताले ते धर्मसंस्थेन संवसारांतले मनीस जातीक फुडें फुडें धांवतां धांवतां कशी फाटी ओडली ते गॅलीलिओक दिल्ले ख्यास्ती वयल्यान कळून येता.

देव ही धर्तरी आपल्या हातांत घेवन दोरान आपल्या बोटांचेर वांटकुळीच घुंवडायता असो पक्को समज करून लोकांक देवाक देह आसा, आत्मो आसा अशें शिकोवपी हे धर्मसंस्थेक कॉपरनिकसान (१४७३-१५४३) धक्को दिलो

आनी सांगलें की पृथ्वी ही स्वताभोंवतणीं घुंवता आनी सुर्याभोंवतणीं घुंवता. पवित्र लिखाणाप्रमाणें सुर्याच्या नियंत्रणान एकेच सुवातेर स्थीर आसता. कॉपरनिकसाचो सोद पवित्र लिखाणाच्या विरुद्ध आसा. १५०० वर्सां कॉपरनिकसान आपलें तें मानवी म्हत्वाचें संशोधन तयार केलें पूण धर्मसंस्थेच्या भंयान संशोधनाचें विमोचन ४३ वर्सां भितर दवरलें आनी मरणा धडेर पाविल्लो आसतना संशोधनाची पयली प्रत उजवाडायली.

अशीच गत टेलीस्कोप तयार करपी रोजर बॅकॉन हांगेली जाली. मनीसजातीक उदरगतीच्या मार्गार व्हरपी हेर विज्ञानीक, संशोधक, शास्त्रज्ञ म्हळ्यार केप्लर, न्युटन, लार्माक ह्या नामनेच्या शास्त्राज्ञांक धर्मसंस्थेच्या रागाक बळी पडचें पडलें. अन्याय आनी अत्त्याचार, सामाजीक बहिश्कार, शारिरीक अत्त्याचार आनी शेवटाक छळणुकेन भिरांकूळ मरणाची ख्यास्त. अशे कितलेशेच ज्ञात अज्ञात शास्त्रज्ञ गुन्यांवकारांकय भोगशीय म्हणून उपदेश करपी धर्मसंस्थेन कापून ना केल्यात.

खूब फावटीं आमचो एक समज आसता की परदेशी धर्मांमदीं आमचे मदीं आसतात तश्यो अंधश्रद्धा नांत, भयरजळोप ना, ट्रिनिटी पुजा, रगत दिवपाक बळी दिवप, वखद खिरोवन दुयेंत मनशाक दिवप, कोंब्यापोंदां तांतीं सापडल्यार त्या कोंब्याचेर खटलो चलोवपी, मेल्ल्या जनावरांचीं भुतां जातात, तांकांय भुतां लागतात. प्रार्थनेच्या वेळार थंय मूस येत जाल्यार सगळ्या मुसांक जिवे मारपाचें फर्मान काडप, पृथ्वीचेर कितेंय घडप म्हळ्यार मनशान केल्ल्या पातकांचो परिणाम (ही समजणी आयजूय आसा, भुंयकांपांत मेल्ले लोक पातकी आसले अशें म्हणपीय आसात) निसर्गीक घडणुकांक आनी अरिश्टांक देवाक राग आयिल्ल्यान तशें घडटा अशें समजप ह्यो आनी अनेक हास्यापद अंधश्रद्धा आनी तांचेर भयंकर कुड्डो भावार्थ ह्या अस्तंतेकडल्या धर्मीय लोकांमदीं आसतालो पवित्र धर्मसंस्थेचे शिकवणे विरूद्ध वचप्यांक तशेंच धर्मीक समजण्यांक विज्ञानाचोच आधार घेवन फकाणां करून उडोवप ह्या गजालींची इगर्ज धर्मसंस्था कडक दखल घेताली. धर्मासंबंदान एक येवरोपी बरोवपी आपल्या एका पुस्तकांत बरयता.

The church had sucessfully used the methods of persecution, torture, and death to surppress the knowledge.

ही धर्तरी निर्माण जाल्यार कोट्यांनी वर्सां जालीं अशें संशोधक आनी शास्त्रज्ञ सांगताले तें हे धर्मसंस्थेक मान्य नासलें. धर्मसंस्थेचे सांगणे प्रमाण संवसार कसो जालो?

At the fiat of God it came instantaneously in to existence (out of nothing) on 23rd October 4004, at 9 a.m.!

मात हें फट अशें बरयतल्या एका फ्रेंच लेखकाकLa Peyrere- गोळाक मारपाची भिरांतय संस्थेन घाली तेन्ना ताचें लिखाण फाटीं घेवपाक लायलें. ह्या फ्रेंच लेखकान इतलेंच बरयिल्लें: The existence of mankind on earth befor the time of Adam आयजूय ही लेखकांक धमकावपाची आनी लेखकांविरूद्ध वागपाची धर्मांधांची, कर्मठांची परंपरा संवसारभर चालूच आसा.

कांय शेंकड्यां आदीं हांगाय हिंदू धर्मियांक बाटोवन ख्रिस्ती करपाच्या वावराच्या वेळार धर्मसंस्थेचे धर्मप्रचारक सदांच हिंदू धर्मांतले अंधश्रद्धेचो बाऊ करून दाखयताले. हिंदू मर्दीं कितलेशेच देव आसात, ताका लागून तो धर्म खरो न्हय असो प्रचार करप्याच्या धर्मांत येरोपांत कितें वस्तुस्थिती आशिल्ली? मानसीक दुयेंस म्हळ्यार exile spirit भूत लागप, ही समजणी आयजूय हांगा आमचे मर्दीं आसा. मात ती युरोपांतूय मोट्या प्रमाणांत आसली.

आमकां एक गजाल मानची पडटली ती म्हळ्यार येवरोपांतले हे अत्यंत प्रभावी धर्मसंस्थेचो एका अर्दान दबाव आनी भंय आसूनय थंयच्या बुद्धिवाद्यांनी, लेखक आनी विज्ञानिकांनी, संशोधकांनी, विचारवंतांनी, शास्त्रज्ञांनी धर्मसंस्थेक कळनासतना जायते नवे सोद लायले. नवें लिखाण केलें. ते खातीर Richard Carlile ह्या लेखकाक 'Age of Reason' हें पुस्तक बरयिल्ले बद्दल णव वर्सां बंदखण आनी वनवास भोगचो पडलो. सलमान रुश्दीक मुसलमान धर्मांधांनी मर्णाची ख्यास्त दिली तशो जायत्यो ख्यास्ती मरणाच्यो पसून गेल्ल्या तिनशें-चारशेंवर्सां मदीं अस्तंतेकडच्या लेखकांक, विचारवंतांक, विज्ञानिकांक भोगच्यो पडल्यात.

येवरोपांतलें Religious persecution आयकत आनी वाचत तर आयजूय आंगार कांटो येता.

एके वटेन धर्माच्या प्रभावान अंधश्रद्धेंत भंयभिरांतींत देवाची कल्पना करून धर्मसंस्थेच्या चेपणा पोंदां रावन जनवरांपाश्ट जियेवपी भौसंख्य लोक तर दुसरेवटेन

विचारीक अनी बौद्धीक पातळेचेर स्वतंत्रपणान देव-धर्मांचे कल्पनेचो, अस्तित्वाचो, तांतुंतले खरें-फट शिकवणेचो खोलायेन अभ्यास करपी आनी ताचें विश्लेशण करून सत्य समाजामुखार दवरून समाजाक नवो मार्ग दाखोवपी बुद्धिवाद्यांचो वर्ग.

ही परिस्थिती आनी हें प्रमाण आयजूय तशेंच आसा. आयजूय संवसारांतलो भौसंख्य लोक असल्या धर्माच्या आनी धर्मसंस्थांच्या अन्याय अत्त्याचारांतल्यान स्वतंत्र जाल्लो ना. मनशाचे उदरगतीक जशें राजकी, अर्थीक स्वातंत्र्य जाय आसता तितलेंच धर्मीक स्वातंत्र्यय जाय आसता. धर्मीक गुलामगिरींत जगतल्या आयच्या भौसंख्यांक आयजूय आधिशठान नाशिल्ल्यो, सत्त्याचो उजवाड आफडूं नाशिल्ल्यो धर्मसंस्था काळखांत दवरून आसात आनी दवरपाक धडपडटात. आनी हें दुर्दैवी चित्र आयज आमकां वता थंय पळोवंक मेळटा.

येवरोपांतल्या धर्मीक अत्त्याचारांचो इतिहास वाचतकच जावं आयकतकच आमच्यांनी एकूच सार काडूं येता तें म्हळ्यार आयच्या तथाकथीत धर्मांनी मनीस जातीचे उदरगतींत अन्याय अत्त्याचारा वरवीं आकांताचीं आडमेळीं हाडून मनीसजातीक खूब फाटीं दवरल्या.

आनी आयज तर धर्म नांवाचे हे संस्थेन संवसारभर रक्तखेव आरंभला. धर्मान विज्ञान, शास्त्र, संशोधन विचार ह्या गिन्यानाच्या रुखांक सदांच आडवे उबे कापून आनी हाणून मनीस जातीक आयजूय गिड्डीच दवरल्या हें बारीक तपासून पळेतल्यांक दिसून येतलें. तालीबान - अमेरिका युद्ध एकामेकाच्या धर्मांधतेंल्यान आनी धर्मीक द्वेश तशेंच मत्सरांतल्यान चलता हें आमी विसरूंक फावना, संवसारांतलो अख्खो संघर्शूच मुळांत धर्मांतल्या वितंडवादाक लागून चलता. भारत-पाक प्रश्नाच्या मुळाक धर्म आसा धर्माक आनी धर्मांधाक विज्ञानाची नसाय, शास्त्राची नसाय, सत्त्याची नसाय, कारणांची नसाय, फक्त अविश्वास कुड्डो भावार्थ, भंयभिरांत, मनशाचें दुबळेंपण, मर्णाचो भंय होच धर्माचो खरो आधार. गरिबी, लाचारी, निरक्षरता, अजाणपण हें धर्माक बऱ्याक पडटा.



# सैमीक सत्याकडेन चिंतनशीलतेक घेवन वचपी चवथीची परब

चवथी सारके धर्मीक उत्सव येतकच त्या उत्सवांत परंपरेचो एक वांटो कसो जावन सगलेच मनयतात म्हूण तुवेंय तो मनोवचो अशें करिनासतना मनमंचार एक दुसरोच विचार उबो रावता आनी तो विचार म्हाका म्हणटा, 'परंपरेच्या हुंवारांत व्हांवून वचप तुका सोबना.' जांकां हुंवाराच्या वा प्रवाहाच्या विरुध्द घट्ट पांय रोमून उबो रावन दिसतां ताणें तसो रावचो आनी इतलो तेंप चलत आयिल्ल्या असल्या उत्सवांचो, परबांचो नव्यान विचार करचो. नव्यान चिकित्साय करची. सर्वसामान्य मनीस हो विचार करपाक वच्चो ना, कारण सर्वसामान्य मनीस बिलकूल विचार करिना. ताका फकत जगप कशें? इतलेंच खबर आसता.

मनशान जर आपणाकडेन आशिल्ले विचार-चिंतन करपाचे शक्तीचो नाखूटभर जरी वापर केलो जाल्यार संवसारांतले जायते प्रस्न, समस्या एकतर सोप्यो जावपाच्यो वा अर्द्यो सुटाव्यो तरी जावपाच्यो. खंयचेय घडणुकेचे बाबतींत जर मनशान केन्ना, कशी, कित्याक, कोणाक, खंय असले प्रस्न स्वताभितर विचारून घेतिल्ले जाल्यार मनशाक देव म्हणल्यार कितें? धर्म म्हणल्यार कितें? धर्मग्रंथ इतले कशे? ते बरोवपी वेगवेगळे कशे? दर एकल्याचो निर्माण तो वेगळो काय एकूच? काय वास्तवतेंत असो निर्मातो बी कोण ना हें म्हाकाच कित्याक, ताका कित्याक ना? ह्यो रुढी परंपरा हीं सगळीं म्हज्या वांट्याक येवपी कर्मकांडां म्हाका कित्याक? ताका कित्याक ना? हिंदू म्हूण अमक्यो गजाली म्हाका, मुस्लीम म्हूण ताका दुसऱ्यो. आनी हें सगळें-वेगवेगळें मात घडटा-वो करतात तें एकाच विश्वांत, एकेच धर्तरेचेर? हे आनी हेर दुबाव मनशाक येवपाचे, पूण तेय बी थोड्यांकच येतात. आनी ह्या घुस्पागोंदळांतल्यान जर भायर सरून एका लख्ख उजवाडाच्या मळार उबो रावतलो जाल्यार, कसलेच प्रस्न करिनासतना आनी

स्वताक त्रास करिनासतना निमण्या निर्णयाचेर येवन रावप म्हणल्यार सैमीक नेमाक पाळो दिवप. म्हणचे हो सगळो घुस्पागोंदळ जो देवा धर्माच्या नांवान मनीसजातीक हेवटेन-तेवटेन करून शिंवरावन उडयता आनी तिका वायट परिणाम भोगचे पडटात, तातुंतल्यान मुक्ती मेळोवप हो अशा वेगळ्या विचाराचो हावेस जावं येता.

खरें म्हणल्यार सैमसत्त्या मेरेन येवन रावप खूब सोंपें आसता. पूण मनशाक सैमसत्य पचोवपाकूच कळना. सैमसत्यांत खंयच्याच देवा धर्माक तशी सुवात ना. कर्मकांडाचें समर्पक समर्थन करपाक वाव ना. जात, पंथ, संप्रदाय, धर्म हांच्या वेगळेचाराक सैमसत्य मानिना. म्हज्या देवान हो संवसार निर्मिला अशें जेन्ना एका धर्माची शिकवण आसता, ती शिकवण खरी नासता कारण ती शिकवण दुसऱ्या धर्माची शिकवण मानिना. म्हजो कृष्ण मुसलमानाक लागना, आनी तांचो अल्ला म्हाका लागना अशें जेन्ना आसता, तेन्ना खरें कितें? आमी दोगूय हें मानपी मनीस हाडा मांसाचे. सगळें सैम वा सगळीं पंचमहाभुतां घेवन जियेवपी, म्हणल्यार जगपाक म्हाका तोच प्राणवायू आनी ताकाय तोच प्राणवायू. हें सत्य झळझळीत बरें आमकां जेन्ना पटपाक लागता तेन्ना शिल्लक उरता तें फकत मनीसपण! हाका जाय जाल्यार मनीस धर्म म्हणू येता आनी (ism) म्हणल्यार Humanism. मात खंयचोच अमको प्रेशीत नाशिल्लो इझम. सैमसत्य मानूनय कोणेंय तसो नास्तीक जावंकच जाय अशें ना.

सैमसत्त्य समजून घेवनय मनशान हेर जशीं मनरिजवणेचीं वेगळीं-वेगळीं मळां निर्माण केल्यांत तशें धर्माचेंय एक मनरिजवणेचें मळ आपणावं येता. म्हणल्यार मनीस निव्वळ मनरिझवणे खातीर सिनेमा थेटरांत वता, नाटक-नाच-गायन पळयता वा ते मनरिजवणेंत रमता तसो धर्मीक मनरिजवणेंतय रमूं येता. पुजा-पाठ, भजन-किर्तन, आरती, पाद्यपुजा आनी सगळें कितें देवा धर्माच्या नांवान आमी करतात ताचो कसलोच हेर स्वार्थी हेत मनाकडेन बाळगिनासतना हेर मनरिजवणेकडल्यान जशी आमची कसली सुप्त वो भितरली अपेक्षा, वा इत्सा नासता तशीच धर्मकर्मकांडां करतकच कसलीच अपेक्षा बाळगूंक फावना. सत्यनारायण कर, पूण सत्यनारायण करतकच बुडिल्लें धान्याचें तारूं वयर सरतलें वो सत्यनारायण केलो म्हणून नोकरी मेळटली, घरांतलो दुयेंत मनीस बरो जातलो वा धुवेचें लग्न थारतलें असल्यो अपेक्षा बाळगुच्यो न्हय. तश्यो त्यो बाळगप

मुर्खपणाचें. पुजा केल्या ती मनसमाधाना खातीर. देव पुजला तो आशेन वा सुवार्थान न्हय तर फकत मनाचे खोशयेक. आनी अशे तरेन जर मनशान धर्मा कडेन, कर्मकांडां कडेन वो खंयचेय परबे कडेन पळयलें तर अश्यो परबो मनोवपाक कसली हरकत?

देखून गणपतीची परब म्हणल्यार चवथ ही एक धर्मीक मनरिजवणेची घडणूक अशें म्हाका दिसता. आनी मनशांनी ती धर्मीक मनरिजवण जरूर करची. देव दिता, देव व्हरता, देवूच करता ही सर्वसामान्याची भावना जेन्ना चिकित्सा करून फुडें येता तेन्ना अशा खूबशा घडणुकांनी ती भावना फट म्हणपाचें सिध्द जाल्लें आसता. देखीक खूब खेपे मनशाचे कुडीक जावपी वेदना थांबच्यो म्हूण ताका भावार्थी देवळांतली बिबूत कपलाक लायतात वा उदकांत घोळोवन पियेवपाक दितात, प्रसाद-आंगारो ताच्या गळ्यांत बांदतात आदी. पूण अशें केल्ल्यान कुडीची पिडा उणी जायना वो सोंपना.

स्पश्ट बरो विचार करप्याक हें सत्य समजूंक जाय की देवा धर्माचो आनी शरीरशास्त्राचो कसलोच संबंद ना. आसलोच जाल्यार थोडो भोव मानसीक आसूं येता. म्हणचे कपलाक देवाची बिबूत लायल्यार आतां हांव बरो जातलों ही मानसीक अवस्था मात्शी ताजे पिडे कुडीचेर प्रभाव घालूंक शकत. पूण हें सगळ्या पिडांक लागना. हातुंतल्यान सादारणशी पिडा मानसीक चिंतनांतल्यान बरी जावं येता. पूण तिचें श्रेय मानसीकतायेक वता. धर्मीक परबां फाटली जी अंधश्रध्दा आसा ती काडून उडोवपाचें काम कोण करचोना. उरफाटें तूं देवाक पाय पडलोना, देवळांत गेलोना, हें केलेंना तें देवकृत्य केलेंना म्हणून तुका हें घडलें, तें घडलें देवान तुका ख्यास्त केली हो जो विचार असल्या धर्मिकां कडल्यान आयकूंक मेळटा तेन्ना हीं सगळीं कर्मकांडां जल्माक घालपी मूळ समाजपुरूशाचो राग मारता. मनशाक भंयमुक्त जियेवपाक आडखळ करपी ह्यो धर्म परबो मागीर जायच कित्याक?

पूण परबांचे हेर फायदे आसातूच, कुटुंबीक एकचार, भावपण, खोस आनी संबंद घनिश्ट जावपाक मजत जावप, दुस्मानकाय सोंपप, नवी इश्टागत जावप आदी. आनी देखून समाजान, असल्या परबांक उंवाळून घालूंक जाय अशें खंयचोच विचारवंत म्हणचोना. फकत जें कितें सत्य आसता तेंवूय समजून घेवंक जाय, आनी आयज काल हें सत्य मनशाक खबर नाशिल्ल्यान जें जें कितें

वायट घडटा तें अशा अज्ञानांतल्यान. हे अज्ञान जशें हिंदू मदीं भयंकर आसा तशें तें हेर पंथांमदीं, संप्रदायांमदींय आसा.

मात जगांतल्या सगळ्या संप्रदायांमदीं सैमसत्त्या कडेन खूब सरभरस जाल्लो हिंदू विचार हो सैमसत्य संवसाराक बरे तरेन सांगूंक शकता अशें म्हाका सदांच दिसत आयलां. हिंदूंच्यो सगळ्योच परबो ह्यो सैमसत्त्याक म्हणल्यार सैमीक घडणुकां कडेन खंय ना खंय जोडिल्ल्यो आसात. चवथ ही एक तातुंतली परब जी फकत सैमाचेंच महात्म्य गायता. देखून मातयेचो गणपती हें सैमाचें प्रतीक कशें. ताचे भोंवतणी फळफळावळ, खाणां जेवणां आनी गोडशीं, हें सगळें सैमांतल्यान तयार केल्ल्याचें आमकां दिसून येता. विज्ञानाचींय सांगड घालपाक आनी हिंदू धर्म हो सैमधर्म म्हणल्यारूच मनीसधर्म अशें दिसपाक हें सैमाकडलें आमगेलें लागसारपण.

म्हाका दिसता आमगेले दर एके परबेंत असो खोलायेन विचार करपाक वाव आसा. हो विचार अशा परबां वेळार तर जावंकच जाय अशें म्हाका दिसता. देखून चवथीचेर बरयतना हांवें प्रचलीत आशिल्ल्यो दंतकथा कडेन दवरून आयज एके खेरीत भाशेन चवथ-परबेचेर मनमंचार विचार करपाचें चितलें. वाचप्यानीय चिंतचें तें इतलेंच खातीर, की देवा धर्मांच्या नांवान भौसाचें शोशण (Religious exploitation) चल्लां ताका खरेंच अंतपार ना. अज्ञान आनी पापभिरांत, देवख्यास्त आनी दळडीर वांट्याक आसतकच शोशण करप्यांचें फावता. हेर धर्मांतल्या लोकांपरसूय आयज हिंदू म्हणपी समाजाचें देवा धर्माच्या नांवान आकांताचें शोशण चल्लां. धर्मसंस्थानां, धर्म पंडित, बाबा, स्वामी हे देवाचे मांडलीक जावन देवभिरू आनी पापभिरू मनशाक धर्मीक गुलाम करून, आपणाले अनुयायी म्हणत आपणाल्या पांयां कडेन नाक घस्टुपाक लायतात. हें देवकृत्य कर, तो अभिशेक कर, अमके सोमार कर, तमकें देवकृत्य कर अशें सांगत समाजांतल्या सर्वसामान्य भौसाक अक्षरशा फटयतना आयज आमकां दिसता. मनशाचें बरें-वायट, सूख-दुख्ख, जल्म-मरण हें सत्य, तें सभावीक येता आनी ते खंयचेच शक्तीक चुकोवप शक्य ना. अशा वेळार मनशावयलीं संकश्टां टाळपाचो मक्तो घेतिल्ले ठेकेदार, खाड-मिशयो वाडोवन भगवीं वस्त्रां आंगार चडोवन सर्वसामान्य भावार्थ्याक, अंधश्रध्द मनशाक साप्प गर्भगळीत, तथर वितर करून, ताजे जिणेंतली खोशी-आनंद काडून घेतात. आयज देशभर हेंच चल्लां,

ातूंत कांय प्रसारमाध्यमांय, चड करून टी वी चॅनॅलूय आतां समाजाचें नवे ुरयत जावन भौसाक अदिकूच अंधश्रध्देच्या खोल खोलांत लोटपाचें महापातक करतात.

अशा वेळार सर्वसामान्य भावार्थी मनशाचें शोशण जाता तेन्ना तें खरेलें शोशण म्हूण सांगपाक खंयच सुवात उरना. लेखन, भाशणां-प्रवचनां, भौसाक भिडना, ताका सत्त्यनारायण पुजेक पुजारी पुरयत सांगता ती साधूवाण्याची कथाच आयजूय खरी दिसता. सत्त्यनारायणाचो प्रसाद घेतलोना म्हणून साधूवाण्याचें तारूं बुडटा, आनी प्रसाद घेतकच तें वयर येता, हें आयजूय आमगेले पुजारी पुरयत सांगतात तेन्ना संताप येता. पुजेक पुराण सांगतल्यांनी बदलपाची देखूनच धर्मीक गरज आसा. परबो जेन्ना येता तेन्ना समाजांतल्या बुद्दीप्रामाण्यवादी, विज्ञानी, विचारवंतांनी निर्भीडपणान, असलो भंय घालून पुजून घेवपाचे प्रकार थांबोवपाक, निदान उणे तरी करपाक प्रयत्न करूंक जाय अशें हे चवथीचे परबे निमतान म्हाका दिसता.



# एकविसाव्या शेकड्यांतली अजापांची झलक

**दु**सरें सहस्त्रक निकतेंच सोंपूंक लागलां. आतां पासून ह्या सोंपत्या सहस्त्रकाचे चार दीस सोंपल्यात, आनी पुराय सोंपूंक तिनशें एकसश्ठ दीस शिल्लक उरल्यात. जायत्या जाणांनी नवें म्हळ्यार तिसरें सहस्त्रक सुरू जाल्ल्या भशेन न्यू मिलिनिमय म्हणतच आपआपल्या उद्देग धंद्याच्यो जायराती बी केल्यात. उद्देगीक मळार, विज्ञानीक मळार, तंत्रज्ञानाच्या मळार हे आदीं जाल्ले बदल आनी हे फुडें जावपाचे बदल हाचेर उजवाड घालपी खूब साहित्य उजवाडाक आयलां. हाकाय फायचीं नवलां म्हणून जांचो उल्लेख जाला तीं आयकतकच खऱ्यांनीच फायच्या संवसारांत म्हळ्यार फुडल्या वीस पंचवीस ते पन्नास वर्सांत केदो आकांताचो बदल घडून येतलो तें वाचतकच अजापशें दिसता आनी व्हडलें अजापूय दिसना. कारण १८९९ वर्सा अशीच भाकीतां केल्लीं, आनी मागीर १८९९ ते १९९९ मेरेन संवसारार तंत्रज्ञानांत, विज्ञानांत केदी आकांताची उलथा पालथ जाली ती आमचे पिळगेन ह्या दोळ्यांनी पळेली. मोबायल फोन, इंटरनेट आमच्या घरांनी पावले. सर्व सामान्य मनशाच्या बोल्सांत फस्कां कशे मोबायल फोन पावले. अशीं कितलीशींच विस्मीतां गेल्ल्या शंबर वर्सांनी मनशान करून दाखयलीं.

## फुडलीं अजापां

आनी आतां २००० ते २०९९ ह्या काळांत हांगा कितें कितें येवं येता ताची झलक आऊटलुकाच्या खाशेल्या अंकांत वाचपाक मेळ्ळीं. फाटभूंय अजापाचीच आशिल्ल्यान हीं नवीं अजापां वाचतना कांय दिसलें ना. फुडल्या कांय वर्सांमदीं धांवतीं घरां, म्हळ्यार मोबायल होम्स, मॉबायल टॉयलेट, जेवणाच्यो गुळयो म्हळ्यार आयचे भशेन जेवणाच्या मेजार शिजयिल्ले वेगवेगळे जिन्नस

दवरिल्ले नासतले. घरचीं मनशां जेवणाच्या मेजार येवन थंय मेजार एका आयदनांत दवरिल्ल्यो गुळयो घेतलीं. आयज जशो वखदांच्यो वो टॉनीकांच्यो गुळयो आमी घेतात तश्यो फाल्यां कार्बोहायड्रेट्स, प्रोटीन्स, विटामिन्स, फॅट्स हांच्यो गुळयो घेतलीं. म्हळ्यार आयज हीं सगलीं जीवनसत्वां घेवपा खातीर आमकां शीत-कडी, फळां भाज्यो, मटणां-चिकनां, जावं दूद ताटयां बी आमी घेतात तांच्या बदलाक हें सगळें भितर आशिल्ल्या गुळयांक आमी जेवण म्हणून मेजार बसून घेतले खंय! आनी हातूंत अजाप करपाचें कारणय ना. फकाणांनी आमी भुकेची गुळी, तानेची गुळी घेतात अशें म्हणटात. फाटल्या काळार घरांतल्यान पयस वतना खंय तानलाडू, भूकलाडू बी व्हरताले. जायत्या काणयांनी आवयन आपल्या पुताक बरे तानलाडू आनी भूकलाडू करून दिले आनी ते घेवन पूत फुडल्या राज्यांत भोंवडेक गेलो. मागीर ताका थंय कोणूय रूपसुंदरी राजकुंवरी बी मेळटाली. मात ते काणयेंतले तानलाडू आनी भूकलाडू एकविसाव्या शेंकड्यांत प्रत्यक्षांत येतात खंय! आमी खावंक पावचे नांत पूण आमगेली फुडली पिळगी जेवणा मेजार बसून गुळयो घेतली आनी आपली लंच वो डिनर करतले. आतां हें लंच डिनर शब्द तशेच उरतले काय तांचे सुवातेर दुसरे कसले शब्द येतले तें सांगूं ना. तात्पर्य पोट भरपाच्यो गुळयो तयार करपी व्हड व्हड फॅक्टरी उब्यो जातल्यो.

## मळबांतल्यो मोटारी

स्काय कार्स म्हळ्यार फायच्च्या वर्सांनी मनीस मळबांतल्यान उडपी मोटारी घेवन भोंवतले. आयज विमानां, धाकटीं विमानां आनी तरेतरेचीं विमानां आसात, रॉकेटां आसात, तांचें तंत्रज्ञान इतलें विकसीत जातलें की आयज जशो मोटारी विकसीत जावन प्रत्येक घरांत मारूती, मार्टीज जावं इन्डीका दिसपाक लागल्यात तशोच २०९९ सोंपतासर प्रत्येकाच्या बंगल्यांत तेर्रासार स्काय कार पार्क करपाक एक मिनी गॅरेज उर्फ मिनी विमानतळ आसतलो. मनाक येता तेन्ना मनीस आयज जशी मोटार घेवन भायर सरता तसो फाल्यां मनांत येनाफुडें आपली स्काय कार घेवन तो पृथ्वीच्या खंयच्याय कोनशार वोल्त मारून येतलो. हेंवूंय वाचून म्हाका अजाप दिसलें ना. आतांचो कंप्यूटर बोल्सांत घालपा इतलो, लेंसा येदो ल्हान आनी पातळ जातलो. मनीस अंतराळांत नाच करतलो. आनी विमानांनी भोंवतल्यांक ताची मुस्तायकी ताका जाय थंय परती धुंवन मेळटली. म्हळ्यार

समजा मुंबय पावतकच आंगावेली म्हेळी मुस्तायकी काडून ताणें ती थंय कोणाकडेन दिवपाची. इंग्लंडाक पावतासर धुवन बिवन तीच मुस्तायकी ताका परती मेळटली. वाटेर खंयचे लॉड्रींत कोणें कशी धुल्या तें तेन्नाचें तंत्रज्ञान तुमकां मागीर सांगतलें.

## मेंदवांत गिन्यान भरतलें.

मनशाक आयज गिन्यान मेळोवपाक खूब तकालस घेंवची पडटा, वेळ शक्ती वोगडांवची पडटा. पुस्तकां वाचचीं पडटात, अभ्यास करचो पडटा, समजून घेंवचें पडटा. पूण फाल्यां मनशाक जाय तें गिन्यान मनशाच्या मेंदवांत रकोवंक येतलें. जशें आयज आमी कानांत तेल घालतात तोच प्रकार, पूण तेल घालपाक जसो कानाक बुराक आसा तसो आमच्या मेंदवाक बुराक नाशिल्ल्यान नव्या तंत्रज्ञानान तशी गिन्यानाची नवी वाट मेंदवाक कपला वयर करतले. ही वाट बंद आनी उक्ती करपाची सोय आसतली. आनी हे वाटेन ज्या ज्या मनशाक जें जें गिन्यान जाय तें गिन्यान घालतले. समजा एक दोतोरकी शिकतल्या भुरग्याक मेडीकल गिन्यान जाय जाल्यार ज्या पुस्तकांनी तें गिन्यान आसा तीं पुस्तकां एका माकनांत घालतले आनी त्या गिन्यानाचो फ्लो रिमोटान वो ट्युबान त्या भुरग्याचे तकलेंत सोडटले. ही गजाल वाचतकच म्हाका हांसोच आयलो. सद्याक आमी सदांच भुरग्यांक सांगतात. पळेयात, भुरग्यांनो पसऱ्यार सगळें विकतें मेळटा, फकत मेळना तें गिन्यान. तें तंत्रज्ञान कशें विकसीत जातलें ताची कल्पनाच करूं नज, पूण मनशाच्या मेंदवांत मनशाक जाय तें गिन्यान अशे तरेन घालूं येता की कल्पना नासतली इतलें खरें.

## मनशामदीं जीव ओततले?

आनी एकविसाव्या शेंकड्यांत तंत्रज्ञान खंय पावतलें हाचो अदमास कोणाच्यान करूंक जावचोना. इतलें जरी खरें आसलें तरी मनशाक जीव घालतले, मनशाक झेलांत वो बर्फांत वीस वर्सां सुमार दवरतले आनी वीस वर्सांनी फ्रिजांतल्यान काडून तातूंत नवो जीव ओतून ताका सजीव करपाचें तंत्रज्ञान येतलें हें वाचून मात खऱ्यांनीच शॉक बसलो.

बायल-दादल्यांचीं गुप्त इंद्रीयां प्लांट करूंक मेळटलीं. कोणाय दादल्याचें लिंग काडून ताचेर नवें कलम करपाचें तंत्रज्ञान विकसीत जातलें. तरणेंपण अखंड दवरपाचेय उपाय येतले. म्हणजे साठ सत्तरींतलो मनीस वीस पंचवीस वर्सांचो दिसपा इतलें तंत्रज्ञान आनी रसायनां उपलब्ध जातलीं. आऊटलुकाच्या अंकांत हें सगळें वाचलें, पूण एक गजाल मात खंयच वाचूंक मेळ्ळीना, ती म्हळ्यार आमचे देव धर्म एकविसाव्या शेंकड्यांत खंय आसतले? सगळें बदलतलें पूण आमगेले धर्म, धर्मग्रंथ, पुराण पोथयो, देव हांचो तांचे बारीक व्हड देव हांचें कितें जातलें तें मात खंयच वाचूंक मेळ्ळेंना. दुर्जनांचो नाश जातलो आनी क्षात्रधर्म वाडीक लागतलो काय ब्राह्मणाचें राज्य येतलें ताचो उल्लेख खंय ना. घडये ते खातीर आमकां सद्याक जळींमळीं दुर्जनांचो नाश करपाक फुडें सरिल्ली सनातन भारतीय संस्कृतीय समजून घेवंची पडटली, काय सनातनवालेच दुर्जनाची भुमिका वठयतले तें कळपाक चड वेळ लागचोना.

सनातनाचें खरें रूप फुडाराक स्पश्ट बरें जातलेंच पूण तो मेरेन हे सनातन हिंदू समाजाचें निसंतान करपाक फाटीं रावचेना. बुरसटलेले विचार, कुस्की विचार सरणी आनी स्वार्थी मानसिकता हिन्दू भौसाक खूब फाटीं हाडून दवरतली. साधना, नमस्कार, चमत्कार फाटी पडून एकूच वर्ग तो म्हळ्यार सनातनाचे धनी, ब्राह्मण परत एकदां त्या सुधारिल्ल्या संवसारांत बहुजन हिंदूंक काळखांत खोल-खोल बुडोवन ताचेर आपूण बसतले.



# संस्थात्मक धर्माबगर आमचे पूर्वज लाखांनी वर्सां जियेले

**ध**र्म ही संस्था इतिहासीक तशीच सामाजीकय आसा. धर्म ही संस्था मनशाची निर्मिती जाल्ल्यान इतिहासांत तिणें वेगवेगळ्या मोडणांचेर वेगवेगळीं रुपां घेतिल्लीं आसात. तेचखातीर धर्म संस्थेंत जायत्या तरांचे भेद जाल्ले पळोवंक मेळटात. देखून धर्म संस्थेचो इतिहास पळेतना त्या त्या तेंपाच्या मनशाचोय इतिहास पळोवंक मेळटा. त्या तेंपार मनीस सैमाकडेन आनी सैमांतल्या घडामोडींकडेन खंयचे नदरेन पळेतालो, ताच्या मनांत तेन्ना कसलीं मोडां उप्रासतालीं, ताचो हावेस, इत्सा कितें आसल्यो, मनशां मनशां मदल्या नात्या गोत्या संबंदान ताच्यो धारणां कसल्यो आसल्यो आनी तातूंत इल्लो इल्लो बदल कसो घडून येतालो आदी गजालींचो इतिहास धर्माच्या इतिहासांत लिपिल्लो आसा. देखून धर्म आमकां आयज जाय काय नाका, तो आपणावचो वो ना तें थारावप सोंपेंपणान जावंचेंना, ते खातीर धर्माचो इतिहास समजुपाची गरज आसा.

जसो जसो काळ व्हांवपाक लागलो तशी त्या हुंवारांत धर्माच्या मुळाव्या रुपाची एक गांथनूच इल्ली इल्ली तयार जावपाक लागली. हे गांथनींत ईश्वर, देवदेवता, पुरोहीत, धर्मग्रंथ, देवळां, पुजा, प्रार्थना, कर्मकांडां, व्रतवैकल्यां, पवित्रअपवित्र, उंच-उणाक असले भेद मागीर पाप पुण्य, स्वर्ग-नर्क, पुराण कथा विधिनिशेध आदी गजालींची एक गांथनूच तयार जाली, म्हणचे परस हितसंबंधितांनी कळटां न कळटां आपली जीण सुखासमाधानी करपाक ही वेवस्था केली अशेंच म्हणप योग्य जातलें. आतां हे हितसंबंधी कोण तें स्पश्ट करपाची गरज ना. जगाच्या वेगवेगळ्या कोनशांनी ह्या लोकांक वो ह्या वर्गांक वेगवेगळ्या नांवांनी आनी वेगवेगळ्या रुपांनी आमी वळखतात. जशी एके संस्थेंत कारभारी स्वरुपाची एक ऑर्डर आसता तशी ऑर्डर धर्मसंस्थेंतय तयार केली आनी सामकें

भंयाचें शिमीट घालून आपणाक जाय तशी घट करपाची शिकस्त केली. ताका लागून धर्मसंस्था ताब्यांत आशिल्ल्या वर्गान हे संस्थेचीं दारां-जनेलां लेगीत हेरांक बंद केलीं आनी तांचें उगडप आनी बंद जावप हाचेर आपलेंच नियंत्रण दवरलें आनी आयजूय तेच प्रयत्न आमच्या देशांत धडपडत आसात. आयज ही धडपड आमच्या देशांत एका भव्य रुपान चलिल्ल्याचो भास तयार करतात आनी हें भव्य रूप म्हळ्यार हिंदुत्व. आदीं भितल्ल्यान भायर नियंत्रण दवरताले, म्हणजे एक वरिश्ठ वर्ग आत्मकेन्द्रीत जावन, संकुचीतपणानूय भायर सर्वसामान्याचेर वर्चस्व गाजयतालो आनी आयज भायल्यान विशाल रूप धारण करून अर्थांत फटीचें रूप तें भायल्यान वर्चस्व राखपाचो प्रयत्न चालू आसात. हिंदू राष्ट्र बी गजाली आयकुपाक खूब भव्य दिव्य दिसतात, सर्वसामान्य मनशाक मन भुलोवण्योय दिसतात, कालपयर सकयल्याची सावळी लेगीत पडल्यार न्हावपाक धांवतालो तो आयज खांदार हात घालपाचें नाटक करता, देखून तांणीं आमच्या देशांत एक बुजगांवणें तयार केलां आनी त्या बुजगांवण्याक फुडें करून आशिल्ल्याचें भासोवन परत तेच संख्येचेर आदले भशेन सामाजीव वर्चस्वान राज्य करपाचो डाव तांणीं मांडिल्लो आसा. तो तांचो डाव कसल्या स्वरुपाचो तो फुडें पळोवंचो. ताचे पयलीं धर्मसंस्थेच्या चपक्यांत घुस्पून उरिल्लो आनी ताका तसो घुस्पावन दवरपी खंय आसा, ताचो परिणाम कितें तें पळोवपाची गरज आसा.

धर्मसंस्थेंत घुस्पल्ल्यांचे हितसंबंद दोनूय तरेचे आसतात; वयर वयर दाखोवपाक परमार्थीक कशें दिसलें तरी तांच्या सुखभोगाचे आनी अर्थकरणाचेय हितसंबंद आसतात, आनी अशें करताना सर्वसामान्य मनीस आपलें स्वातंत्र्य होगडावन बशिल्लो आसता. ताका आमी धार्मीक गुलाम म्हणटात. असो गुलाम विचारांनी खुजो आसता. गिड्डो आसता. कितेंय नवें निर्माण करपाची शक्तीच ताणें धर्मसंस्थेचे फास्केंत बंदिस्त केल्ली आसता. धर्मसंस्थे मदीं आनी भितर कांय कांय मनशांचे श्रद्धेप्रमाणें वेगवेगळे संप्रदाय, पंथ बी आसात ते तांच्या तांच्या वांगड्यां मदीं फाजील कॉम्प्लेक्स, गंड फुलयतात. तांचे मुखेली, जांकां आमी स्वामी, आचार्य वो मठाधीश म्हणटात ते अशा मनशांच्या चोम्याक फाजील अशा लटक्या बडवाचारान मातोवन दवरतात. हातुंतल्यान एका मनीस चोम्यान दुसऱ्या चोम्याक द्वेश दिसता, द्वेशांतल्यान राग आनी रागांतल्यान संघर्ष आनी संघर्षांतल्या हिंसाचार.

आतां पळयात, जे धर्म प्रत्यक्ष देवान केले आनी त्या धर्माचे धर्मग्रंथ प्रत्यक्ष देवान रचले वो रचल्यात म्हणून धर्मसंस्थांतले प्रमूख सांगतात त्या प्रमूख अशा संवसारांतल्या धर्माची पिराय आनी मनीस कुळयेची पिराय पळयात. मूळ अवस्थेंतल्या धर्माक एक संस्थेचें रूप मेळटां मेळटांच एका विशिश्ट मोडणार संवसारांतले प्रमूख अशे धर्म जल्माक आयले. हिंदू, पारशी, जैन, बौध्द, ख्रिस्ती, इस्लाम, शीख आदी..आतां ह्या सगळ्या धर्माक कितलीं वर्सां जाल्ली आसत? ह्या धर्माचो इतिहास कांय हजार वर्सांचोच मूं? धरात चार हजार, पांच हजार, चडांत चड धा हजार! लाख वर्सां पुराय केल्लो खंयचो धर्म आसा? पूण हे पृथ्वीक आनी पृथ्वीवयले मनीसजातीक लाखांनी वर्सांचो इतिहास आसा अशें सांगतात मूं? काय पृथ्वी निर्माण जाल्यार ह्या धर्माच्या वर्सा इतलींच वर्सां जाल्यांत? हाचो अर्थ असो की ते धर्म फकत चडांत चड चार-पांच हजार वर्सा पयलींचें. बारीक पळोवंक गेल्यार खंयचोच संस्थापक धर्म पांच-स हजार वर्सां परस पोरणो न्हय. हाचे वयल्यान आमच्यानी एक अनुमान काडूं येता तें म्हळ्यार धर्म हो मनशाचो अविभाज्य घटक केन्नाच नाशिल्लो आनी अपरिहार्य तर नाशिल्लोच. धर्माबगर पृथ्वीवयली मनीसजात आमचे परस चड वर्सां, म्हळ्यार लाखांनी वर्सां हांगा हे आदीं जियेल्या. म्हणचेच मनीस जाय जाल्यार संस्थात्मक धर्मा बगर स्वतंत्ररितीन जियेवंक शकता. संस्थात्मक धर्म, म्हळ्यार हिंदू, जैन, बौध्द बी. ह्या धर्माबगर आमी रावंक शकनांत. हांगा हिंदू धर्माक जरी कोण अमकोच संस्थापक नासलो आनी ताका आमी सनातन आनी अती पुरातन म्हळो तरी आयज ताचें संस्थात्मकच रूप तिगून उरलां. तोवूय बी संस्थात्मक धर्माचे वळेरेंत बसला, आमच्या कर्तुबांनी ताका थंय बसयला.

मात मुळाव्या स्वरुपाचो सभावीक मनीसधर्म मात मुळापासून म्हळ्यार मनशाचे निर्मिती बरोबर हांगा अखंड चलत आयला आनी तसो तो भितल्ल्या प्रवाहांतल्यान चलत आसा. मात संस्थात्मक धर्माभितर तो लिपिल्ल्यान ताचें भान आमकां जायना आनी तें जाल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! हो मुळावो मानवी सुस्वभावी धर्म निबर व्हय? थंय वयर सांगल्या ती गांथन ना, ताच्यो वण्टी नांत, तो बंदिस्त ना, तो धर्मग्रंथांनी आनी पोथयांनी घुस्पल्लो ना. ताका फास्की ना. तो वारें कसो अखंड आनी अनंत रुपान व्हांवत आसा. ताचें अस्तित्व स्पश्ट करून दाखोवंचेंच जाल्यार हांव हांगा एक देख दीन. हिंदू धर्म अशा स्वरुपाचो

आसपाचो. पूण ना, तसो तो हितसंबंदितांनी जावंक दिवंना. ह्या हितसंबंधितांक आयज सनातनी म्हणटात.

एका भर रस्त्यांत, लोकांचे गर्दैत एकल्यान कोणांक तरी एक भिरांकूळ अपघात घडटा तेन्ना थंय हजर आशिल्ले मनीस त्या अपघातांत सांपडिल्ल्या मनशाक सट करून धांवून वचून उखलतात, ताचेर उपाय करतात, ताका वांचोवपाचो सगळो प्रयत्न करतात. मनीसपणाचें कर्तव्य भावनेन मानवीकृत्य घडटा.

मात कांय वेळान अपघातांत सांपडिल्लो तो मनीस मरता. आनी हांगासर ताचो मनीसधर्म कडेक पडून संस्थात्मक धर्म लागू जाता. वासपूस जाता, मेला तो कोण? हिंदू,क्रिस्तांव? मोयर? उपरांत हिंदू आसल्यार तो जातीन कोण? आनी हे भाशेन ताच्या एकूण मनीसपणाचीच चिकित्सा-जी करूंकच जाय अशें आमकां आमचो संस्थात्मक धर्म शिकयता वो सांगता ती जाता, आनी ते ते प्रमाण मागीर आमच्यो मानसीक भावना थारतात. ताचे वयल्यो कर्मक्रिया थारतात. जांकां आमी संस्कार म्हणून पाचारतात ते धर्म संस्कार अर्थांत ते ते फास्केंतलेच आसतात ते थरतात. हांगाय मूळ मानवी धर्माचेर संस्थात्मक धर्माचेंच अतिक्रमण जाल्लें आसता. आनी ह्या अतिक्रमणाचें भान ज्या मनशाक जावंक शकता तो मनीस ह्या संस्थात्मक धर्माच्यो वण्टी मोडूंक शकता. पूण अशा मनशांचो आंकडो मात साप्प उणोच आसतलो हेंवूय तितलेंच खरें. पूंण हातुंतय एक आनंद आसता तो फकत संस्थात्मक-धर्माच्यो शिमो हुपपाचो प्रयत्न करतल्याकूच मेळूंक शकता. हेरांक न्हय. हेरांक ताचें तें कोंड (वो यमकोंड?) प्रिय आसता आनी तांचोच शेक आजूनय चलता. आनी तांचेर राज्य करतात ते स्वताक धर्मा वयले ईश्वराचे प्रतिनिधी म्हणून वावुरतात. हे देवाचे मध्यस्त (काय दलाल) म्हळ्यार पुरोहीत वो पुरोयत, पोप, मुल्ला-मौलवी, बी सगळे तातूंत आतांचे साधू-स्वामी, बाबा बी सगळे आयले. हे मध्यस्त सर्वसामान्य मनशाचें भिरांकूळ शोशण करपाक धर्माचें आयदण कसो वापर करतात. आनी आयजूय ह्या लोकांची चलती आसा. हेच लोक परत तितलेच तांकीन तकली वयर काडपाचो प्रयत्न करतात. आमच्या भारतांत तर फाटल्या धा वर्सां मदीं ही देव-दलालांची शक्ती मातत आसा आनी हे शक्तीन आतां सगळें उणें म्हणून राजकी शक्तीक ग्रासल्या आनी राजकारणांतल्यान वयर येवन भारतीय समाजाचे गोमटेर बसूंक पळेता. मळब

कोसळून माथ्यार पडलें अशें समजून मळब कोसळिल्ल्याची खबर राजाक सांगूंक धांवपी कोंबो-कोंबये भाशेन अवतिकाय आशिल्ल्या भारतीय भौसाक आनी चड करून हिंदू समाजाक एक कोलो वाटेर मेळून सांगता. 'चलात तुमकां हांव दिल्लीच्या राजाची पलास दाखयतां, दिल्लीचें तख्त दाखयतां. चलात फुडें, हांव वाट दाखयतां'. हे बिलंदर कोले कोण?

हे कोले आयज कपलाक गंध, तिबो लावन इश्वराचें राज्य हाडपाक हिंदूंची परब दिवाळी पळोवन आदले राती जंय हजारांनीं भौस हिंदू जमिल्ले आसतात थंय बॉम्बस्फोट घडोवन हाडपाक मडगांवां वतात आनी इश्वरी कृपेन आनी भगवान आठवले कृपेन स्फोट जावन मरतात. हांका म्हण्टात साधक आनी हेच ते साधक जे हिंदूंच्या नांवान ह्या देशांत भोंधुगिरी करतात. असल्या भोंधूंक निजाच्या हिंदुनी पारखुपाची गरज आसा.



# संघ – धर्मांतले नवे मनू आनी तांची मनुस्मृती

**आ**पल्या हातांत असुदाय, कसलेच श्रम घेनासतना, परंपरेन, सोंपेपणान सोडपाक साप्प जिवार येता अशें वर्चस्व तिगोवन दवरपाक हे लोक नाना तरांनी प्रयत्न करतात, आनी त्या प्रयत्नामदलो एक प्रयत्न म्हळ्यार आदी चर्चिल्लो मुलभूततावाद. मुळाकडेन हात घालप सोंपे जाता. मुळां विस्कटावन कोणूय समाजीक फास्केचे भायर सरूंक पळेतल्यांक तांची जापूय तयार आसता. हें कितें आमी आतांच करतात? हें सगळें परंपरेन चलत आयलां. जाणटेले कितें अशें करून दवरपाक पिशे आसले? आनी इतलेंय सांगून फास्केभायर सरूंक बंड करपी आयकना जाल्यार मागीर ते निमाणें अस्त्र भायर काडटात. निमाणें अस्त्र म्हळ्यार देवाच्या कोपाची भिरांत, देवाचे खर शिक्षेची भिरांत. हे भिरांतींत मागीर चित्रगुप्त, यम बी आस्पावतात. सर्ग नरक ही कल्पना वास्तवतेंत आशिल्ल्याचो आभास निर्माण करतात. पापपुण्य, पवित्र अपवित्र आदी गजाली खऱ्यांनीच परिणामकारक आसात आनी परंपरेन धर्मरुढींनी, देव भिरांतीन चलना तो पापी, तो चांडाळ, ताका यमयातना भोगच्यो पडटल्यो, तो नरकांत पावतलो अशे तरेची मरणा उपरांत नश्ट जावन वचपी मनीस देहाक हे धर्ममार्तंड लोक भिरांत घालतात.

आमच्या धर्मशास्त्राचे एक एक अंतरंग चिकित्सकायेन तपासून पळेतकच खंयच्याच विज्ञानीक आनी वास्तववादी मनशाक संताप मारूंकच जाय अशे तरेचे अंतरंग हेर धर्मा परस हिंदू धर्मांतल्या धर्मग्रंथांनी ठळकपणान पळोवंक मेळटात. देखीक मनुस्मृतिसारको अत्यंत हळशिकावणो ग्रंथ! डॉ. आंबेडकरांनी ह्या ग्रंथाक उजो कित्याक लायलो जायत हाचो अदमास कांय देखींवयल्यान करूं येता. खंयचेय ब्राह्मणेंतर बायलेक धा घोव आसात जाल्यार अशा धा घोवांचे बायलेचो हात एका ब्राह्मणान धरलो जाल्यार ते बायलेन खंय त्या एका ब्राह्मणा

बरोबर शय्या सोबत करपाक वचूंक जाय. आतां एक बायल धा जाणांकडेन लग्न जातली काय कितें हो मुद्दो कडेक काडून पळेल्यार हें बरोवन दवरतल्यांक कितें सिद्ध करपाचें आसा तें स्पश्ट जाता. ब्राह्मणाचें वर्चस्व आनी अधिकार तितलो ह्यो वळी सांगतात.

संवसारांतली सगळी संपत्ती, धनदौलत गिरेस्तकाय ही फकत ब्राह्मणांचेच मालकेची आसूं येता आनी ब्राह्मणेतरांक ही संपत्ती जाय जाल्यार ती तांकां फकत ब्राह्मणाच्या बरेपणानूच उपभोगूंक मेळटा आनी मनुस्मृतींतले ते होवयेंत बायलांक हे असले संपत्तींत घाल्यांत. म्हणजे बायल मनीस ही हेर उपभोगांच्या वस्तूंसारकी एक वस्त. हाचोच अर्थ संवसारांतल्या सगळ्या बायलांचेर फकत ब्राह्मणांचोच अधिकार आसता अशें आमचे धर्म ग्रंथ शिकयतात.

हें सांगल्यार आयचो खंयचोय मनीस कपलार हात मारून हांसतलो आनी शी अशें म्हणून आमच्या धर्मग्रंथांनी बरयिल्लें आसा? मनुस्मृतींत वा अथर्ववेदांतलीं वचनां पळेतकच असल्या ह्या धर्मग्रंथांक सांबाळून दवरप्याकूच उजो घालूंक जाय अशें कोणूय म्हळेबगर रावत? आनी आमच्या दुर्दैवान आयजूय ह्या देशांत धर्मग्रंथांच्या नांवान ही असले हळशीक ग्रंथ घाण माथ्यार घेवन मिरोवपी वर्ग अस्तित्वांत आसा. धर्मग्रंथांनी हीं जीं वर्णनां बरयल्यांत तीं हेरांनी वाचूंक फावना, वाचल्यार ताका पाप लागता, तो नरकांत वता, शुद्राक अमूक-तमूक मंत्र वर्ज्य, शुद्राच्या घरांत अमूक तमूक तरेचीं देवकृत्यां वर्ज्य, शुद्राक अडेज अक्षरी वर्ज्य, शुद्रांनी गायत्री मंत्र म्हणूंक जायना हें बंदन, न्हय शुद्रांनी अमूक-तमूक उतर कानार लेगीत घेवंक फावना, मात तांणीं हें सगळें सांगिल्लें आनी बरयिल्लें जाय आसा ते सगळे धर्मग्रंथ पवित्र मानूंक जाय. ह्या धर्मग्रंथांचो तांणीं आदर करूंक जाय. तांचेर भाश्य करपाचो अधिकार तांचो न्हय.

जो धर्म आपल्याच अनुयायांच्या संबंदान इतलो निर्लज्ज पक्षपात करता तो धर्म आनी ते धर्मग्रंथ सुसंस्कृत आनी बरे रुचीचे म्हणप शक्य आसा? जो धर्म नांवाचो बापूय आपल्या भुरग्यांकडेन असो भेदाभेद करता, थोड्यांक आपल्या काळजाकडे व्हरून वेंगायता आनी चडशा जाणांक कपटीपणान आनी पक्षपातान बागोवन पांयां कडेक घालून खोंटायता त्या धर्माकडेन बहुजन समाजाचें कसलें तरेचें नातें आसूं येता? आयज सगळ्या हिंदुंनी एक जावंक जाय अशें म्हणप्यांनी पयलीं ह्या प्रस्नाची जाप दिवपाची गरज आसा. एकचार हो वेगीच घडून येना.

मुसलमानांचो द्वेश बळावन हांगासल्ल्या हिंदू समाजाक एकचाराचो फटीचोच मंत्र सांगतले प्रामाणीक नांत म्हणपाचें जायत्या गजालीं वयल्यान सिद्ध जाता आनी अजापाची गजाल म्हळयार (फाटल्या लेखांनी जांचो उल्लेख जाला)आयजूय हिंदू धर्म प्रमूख वो हेर साधूसंत ह्या संबंदान कांय एक उलयनांत. पोरणें तितलेंय सगळें तशें दवरून धार्मीक एकचाराच्यो लटक्यो गजाली सांगपी आयचे तथाकथीत उखलापे हिंदुत्ववादी सुधारक हे दांभीक आनी फटींगपणां करून हिंदूभौसांक फटयतात हें बहुजन समाजान समजून घेवपाची आतां गरज आसा.

खंयचेय नांवाजते कंपनीन आपलें पोरणें उत्पादन लोकांक मानवना जातकच नांव नवें बदलून आनी भायल्या कवराचो रंग बदलून नवें उत्पादन बाजारांत घालचें तशें भारतांतल्या हिंदुत्ववाद्यांनी वो धर्ममार्तंडांनी भारताच्या मार्केटांत आनीक एक नवें उत्पादन, धर्मीक उत्पादन समाजाच्या मार्केटांत घालां आनी हिंदू नांवांचे कंपनीचें नव्या कवरांत गुटलावन भायर सरिल्लें उत्पादन म्हळ्यार राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघ. हिंदूंच्या अंतर्गत समस्यां कडेन लक्ष दिनासतना हिंदू एकचाराच्यो गजाली करप म्हळ्यार फकत भौसांच्या दोळ्यांत आदींच घाल्ल्या धुल्लांत आनी धुल्ल घालून तांकां कुड्डें करून दवरप.

नव्या पाकिटांनी विकूंक आशिल्लो रा:स्व.संघ सद्याक हो वावर भारतांत करता. आपली वस्त विकती घेवंची म्हणून उत्पादक कंपनी जेभाशेन कांय सवलती दिता, कितेंय वांगडा फुकट दिता, गिरायकाक ओडून घेवपाक म्होंवा थेंबो ह्या नव्या नांवाच्या हिंदू धर्मांत दवल्ला. राष्ट्रप्रेम, राष्ट्रभक्ती ही आपलीच मक्तेदारी आनी आपलेंच देणें असो आव हाडून राष्ट्रभक्तीच्या गोड नांवां फाटल्यान परंपरावादी आनी रुढीप्रधान हिंदूत्व जंय परत त्याच लोकांचें वर्चस्व आसा त्या लोकांनी रा.स्व. संघान वावर चलयला. हें वयर वयर पळेतल्यांक कळना आनी सट्ट करून समजना, तरूय रा.स्व.हो हिंदू धर्माचें आंग कशें दिसलें तरी कालान्तरान ताचें नांव संघ धर्म जातलें. आयज देशभर संघवाल्यांची जी ब्रिगेड दिसता तांची शिस्त आनी कार्यपद्धती खूब तोखणायेचीच म्हणूंक जाय,पूण हिवूय कार्यपद्धती तशीच धर्म नांवाचें धाटणेंतल्यानूच धारण जाल्ली आसा, म्हणजेच जे भाशेन हिंदू धर्मांतल्यान फुटून बुद्ध धर्म जालो तेन्ना मूळ यहुदींनी ख्रिस्ती धर्मांत प्रवेश घेतलो. तेच धरतेचेर आतां मूळ हिंदूंनी संघ धर्माची कास धरल्या. हें आयज

सारकें स्पश्ट जावंना. आयज पळोवपाक दोनूय एक वो संघ हो हिंदू धर्माचोच एक फांटो जरूय दिसलो तरूय कालान्तरान ह्या भारत देशांत आनीक एक खाकी चेड्ड्यांचो आधुनीक रुपाचो भेस चडोवन हांगा तांकां जाय त्योच रुढी परंपरा कायदे कानून घेवन आदले भाशेनूच एके वेगळे पद्धतीन हांगासल्ल्या भौसाक आपल्या टाळटापोंदा चेंपून दवरतलो.

अशे तरेचे नवे धर्म जेन्ना निर्माण जातात तेन्ना त्या त्या धर्माचे धुरीण स्वताक वेगळेच लोक मानून घेतात. वेंचीक अशे (chosen people) आपणांक मानतात. ख्रिस्ती धर्मांत तर हें सदांच सांगतात. संवसारांत देवान आमकां वेंचून काडल्यात. (We are the chosen people of God)अशें तांचे पाद्री मिसांनी आनी गायनांनी सांगतात, आनी आपूण पुण्यवंत आनी जे कोण non-catholics आसात ते सगळे पातकी sinners आनी तांकां देवान वेंचून काडूंक ना अशें सांगतात आनी आपल्या धर्माचें म्हत्व आपल्या अनुयायांमदीं घालतात, केदीं हीं फटींगपणां?

राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघ म्हणजेच संघ धर्माचेय हेर धर्माच्या प्रचारकांभाशेन प्रचारक आसात. तांकां ते संघाचो कार्यकर्तो बी म्हणटात. जशे ख्रिस्ती धर्मांतल्या नव्या पादऱ्यांक मिशनरी म्हणून धाडटात तशें संघ धर्माचे पूर्णवेळ कार्यकर्ते मिशनरी म्हणून हिंदू समाजांतल्या भौसामदीं धाडटात. ते मागीर खंयच्च्याय वाड्यार वचून शाखा सुरू करतात. राष्ट्रप्रेम आनी राष्ट्रभक्तीचो मक्तो सांगप्यांचो शाखेर जो ध्वज आसता वो भगवोच आसता इतलेंच न्हय ताच्या महामेळ्याक लेगीत राष्ट्राचो ध्वज नासता तर तांच्या सामकार आसता तो भगवो ध्वज. राष्ट्राचो तिरंगो न्हय. बरें, इतलेंच तांणीं विज्ञाननिश्ठा मुखार दवरून केल्लें जाल्यार एकवेळ समजूं येतालें, पूण ते काल्पनीक सत्यरुपाकच फुडें करतात. आतां मेरेन संघपरिवारान जो वावर केला तो पळेत जाल्यार तेवूय बी वस्तुनिश्ठ गजालीं कडेन दुर्लक्ष करूनच परलौकीक गजाली सांगून हांगासल्ल्या भौसाक भैरजळोपांत दवरूंक सोदतात. कांय वर्सांफाटीं हांगेले कार्यकर्ते गंगाजळ बाटल्यांनी भरून विकताले. हांचेवयल्यान ह्या नव्या संघधर्माचें रूप पारंपारीक हिंदू धर्मापरस वेगळें ना म्हणपाचें दिसून येता.

जे भशेन हेर धर्मांनी त्या धर्माविरूद्ध वतल्यांक वो वागतल्यांक अधर्मी म्हणून बहिश्कार बी करतात तशेच संघ विरोधी लोक वो संघाचेर टिका करप्यांचेर ते बहिश्कार घालतात.

सांगपाचें तात्पर्य, ह्या देशांतल्या बहुजन समाजान विज्ञानाची कास धरिनासतना ह्या असल्या अविज्ञानीक वा विज्ञान विरोधी संघटनांच्या लगाडीक लागपाचो प्रयत्न केलो जाल्यार हांगासल्लो बहुसंख्य हिंदू समाज परत आशिल्लो तसोच रुढी परंपरेच्या कांट्यांनीच घुस्पून उरतलो. तो घरांत मनीस दुयेंत आसल्यार आयजूय घाडयाकडेन आसो काडूंक धांवतात, भटाकडेन प्रसादाक धांवतात आनी मनीस मेलो म्हणटकच ताका देवानूच मारलो म्हणून आपलें समाधान करून घेतात आनी तें तशें करून घेवपाक ताका अस्तित्वांत आशिल्लीं कर्मकांडां, संस्कार, चालीरिती आधार करतात. असल्या भ्रामक कल्पनांतल्यान भायर सरलोना जाल्यार मनीस तेच अवस्थेंत उरतलो.

येवरोपांतल्या समाजान विज्ञानाची कास धरली, तांच्यांतल्या विचारवंतांनी आनी विज्ञानीकांनी तांकां धर्मीक गुलामपणांतल्यान मुक्ती दिवपाक जायतो वावर केलो. हालअपेश्टांक आनी अत्याचारांक तोंड दीत तांणीं येवरोपांतले इगर्जेक हालयली. इगर्जेचें वर्चस्व कमी करून इगर्जेकय मोवाळ धोरण आपणावपाक तांणीं लायलें आनी आयज इगर्ज विज्ञानीक संशोधनाक विरोध करपाक कांचवेता तेंय आमी पळेतात.

अशा संवसारीक वातावरणांत आमच्या भारतांत हिंदुत्ववाद नवे उर्बेन जो वयर सरला ताचो अंतस्थ हेतू साप्प शुद्ध ना, हें आयजवेर घडिल्ल्या अनेक घडणुकांवयल्यान सिद्ध जाल्लें आसा. पोरणें हिंदूत्व तशा तशें सांबाळून भारतांतल्या बहुसंख्य लोकांक, जांकां धर्मान हिंदू म्हणून वळखतात तांकां आशिल्ले थंयच घुस्पावन दवरून नव्या मनूक वळखुपाची आयज गरज आसा, आनी हें नवें मनू आनी तांची पोरणी मनुस्मृती नव्या कवरांत नवी आवृत्ती कशी नव्या प्रकाशान आमचेमदीं धुडगूस घालता. हें मानवी मुल्यांची जपणूक करून नवो समाज उबारूंक आवंडेतल्यांनी मतींत धरून पावलां मारपाची गरज आसा.



# विज्ञान संमेलन गोंयकाराक देखदिणें जावंचें

मराठी विज्ञान संमेलन ओंदू गोंयांत जालें. मराठी विज्ञान, कोंकणी विज्ञान, हिंदी विज्ञान अशे तरेची भाशीक विज्ञान ना अशें माचयेवयल्यान जायत्या जाणांनी परत परत सांगलें. तरी लेगीत मराठी विज्ञान संमेलनाक पर्यायी उतर म्हळ्यार कोंकणी विज्ञान.

मुंबयची विज्ञान परिशद आनी मराठी विज्ञान संघ हांच्या जोडपालवान मराठी विज्ञान परिशद, गोंय विभागांत मडगांवांत बेस बरें आयोजन घडोवन हाडलें. सुर्वेकच मागुंया जे कोण गोंयकार आनी चड करून मडगांवकार हें विज्ञान संमेलन घडोवन हाडपा खातीर वावुरले, अध्यक्ष बी जाले त्या तातुंतल्या कांय मडगांवकारांक ह्या निमतान तरी सत गजाली कडेन प्रामाणीकपणान पळोवपाची विज्ञानीक नदर मेळूं. चाटे पावलाक घाटावयल्यान सकयल देंवतल्या, गांधी तोपी घालून मडगांवच्या फुटपाथार बसून भविश्य सांगतल्यांक आपल्या ऑफिसांत व्हरून आपलें भविश्य (?) विचारप्यांक विज्ञानीक नदर मेळूं, उटसूट कसल्याय कुस्कुटाच्या कामाक जांबावले प्रसादाक धांवप्यांक विज्ञानीक नदर मेळूं. दसऱ्याक रामनाथी वचून अवसराकडल्यान बेतकाठी खड्ड्यार घेवपी भिकुमामाक विज्ञानीक नदर मेळूं. गंध आनी बिबूत, तशेंच अंगारे, पिंजर कपलार माखोवप्यांक विज्ञानीक नदर मेळूं आनी विज्ञानीक नदर फकत तथाकथीत मराठी भाशीक म्हणून घेवन कोंकणी भाशेंतल्यान सपनेवन आपलीं सगळीं सुखदुखां, आचार विचार भावना आनी वेव्हार कोंकणींतल्यान करतल्यांक आपली निजाची भास पारखुपाची आनी वळखुपाची विज्ञानीक नदर मेळूं. हें गाराणे मडगांवकारां खातीरच ना, सगळ्यां खातीर.

हें केन्ना घडटलें तें आमकां खबर ना. घडये हें घडपाचेंय ना, कारण चूक

मानून आज कबूल करपाक तितलेंच व्हड मन जाय आसता आनी तें मन ह्या संकुचीत मनोवृत्तीच्या लोकांकडेन ना. विद्यानिकेतनांत विज्ञानाचेर जो तो खूब कितें कितें उलयतालो, तांतुंतल्या मडगांवच्या एका मडगांवकाराकन हांवें विचारलें विज्ञानाक नमन, विज्ञानीकांक नमन, विज्ञाननिश्ठेक नमन हो आयचो (आयताराच्या सुनापरान्तावेलो) लेख वाचलो? आनी तो खी खी करून हांसलो आनी म्हाका म्हणपाक लागलो 'हँऽऽ हँऽऽ हांव सुनापरान्त वाचिना, कोंकणी वाचूंक येयना.' असले नमुने थंय विज्ञाननिश्ठेक नमन करूंक आयिल्ले, काय मेळटा म्हणून व्यासपिठां सजोवंक आयिल्ले तें कळपाक आतां थोडो वेळ वचूंक जाय.

मडगांवांत मराठी विज्ञान संमेलन जालें हाची मडगांवचे कला आनी सांस्कृतीक वळेरेंत दुबाव नासतना मडगांवच्या इतिहासांत नोंद जातली. मराठी मनशाची तोखणाय दिसली. महाराष्ट्रांतल्या मराठी विज्ञान भक्तांचीय तोखणाय दिसली. पूण मातशेशें खटकलें तें कांय लोकांचें वागणें आनी दिसणें. कारण ह्या विज्ञान संमेलनाक कपलाक नाम लावन विज्ञाननिश्ठ आयिल्लो. तातूंत भर म्हणून खुद्द यजमानपद चलयतले डॉ. रघुनाथ अ. माशेलकार हे तर श्री शांतादुर्गेचो आशिर्वाद घेवनच विज्ञान संमेलनाचें यजमानपद चलोवपाक आयिल्ले अशें तांणींच आपल्या भाशणांत सांगलें. विज्ञानाच्या घोड्याक देवधर्माचो अशेतरेचो गंडो बांदून ह्या घोड्याचे चालींत आडमेळें हाडपासारको हो प्रकार आसलो. आमच्या सारकिल्ल्यांक विज्ञान संमेलनांत पयलो धक्को बसलो तो हांगा. उपरांत आमच्या इश्टान म्हळ्यार डॉ. नंदकुमार कामतीन ताची री ओडीत म्हळें: देव धर्म मानू नाकात अशें विज्ञानांत खंय सांगलां? तो प्रत्येकाचो व्यक्तीगत श्रद्धेचो प्रस्न. (काय अंधश्रद्धेचो प्रस्न?) विज्ञान आनी तंत्रविज्ञानाची परिभाशा सांगतल्याच्या मनाचीं हीं दुबळेपणा पळोवन सभागृहांतल्यान दोग मडगांवकार सामके ताणशेवन निशेध मारीत भायर सरले ते प्रभाकर घोडगे आनी रवीन्द्र रायतुरकार. आनीकय कोणकोण हें विज्ञानसंमेलन काय साहित्य संमेलन असोय प्रस्न करीत भायर सरले. पूण विज्ञान संमेलनाक शांतादुर्गेचो आशिर्वाद घेवन वचपी डॉ. रघुनाथ माशेलकारां भशेन खंयचोच साहित्यीक साहित्य संमेलनांत वचना हें तांकां खबर नासुंये. पूण कितेंय जावं म्हाका मात मनापासून दिसलें की डॉ. माशेलकारा सारक्यांनी तरी लोकांच्या मनांत असले तरेचो घयरांव विनाकारण भरपाची गरज नासली. ताका

लागून तांचे विज्ञानीक मानसिकतेचो दुबाव येवपाक सोंपें जालें, वैयक्तीक मत खाजगींत व्यासपिठा भायर मांडूं येतालें.

मराठी विज्ञान संमेलना भशेन आमच्या गोंयांतय गोंय विज्ञान मंडळ स्थापन जावन हांगाच्या कोंकणी मनशाक विज्ञानीक नदर येवपाखातीर प्रयत्न जावंक जाय, कारण हे अशे तरेच्या मराठी संमेलनाचो लाव फकत बरी मराठी समजतल्या गोंयकारांकच जावंक शकता. विज्ञानाची भास ही सदचे भाशे परस वेगळी आसता आनी ती अमराठी मनशाक समजना. मडगांवच्या मराठी संमेलनाक ज्या लोकांनी गर्दी केली ते गर्देंत गोंयांतलो भौस खंय दिसलो ना. गोंयांतलो क्रिस्तांव भाव कोण नदरेक पडलो ना. लेखक संमेलनांनी बी झळकुपी धव्या झग्यांतले पाद्री कोण दिसलेंनांत. मडगांव साश्टी हो तांचो वाठार. विद्यानिकेतनांत तियात्रांक उपाट गर्दी करपी ते प्रेक्षक चुकून लेगीत विज्ञान संमेलनांत आयलेनांत. खरें म्हळ्यार गोंयांतल्या हिंदू भौसाक आनी क्रिस्तांव समाजाक विज्ञानाची आनी विज्ञानीक नदर दिवपाची खूब गरज आसा. जसो हिंदी समाजामदीं देवधर्माच्या नांवान भरपूर कुड्डेंपणाच्यो घडणुको घडटात तशोच क्रिस्तांव समाजांत भरल्यात.

आयच्या नवहिंद टायम्सांत love for cross हें एकल्याचें पत्र वाचलें. ताका खंय मळबांत खुरीस दिसलो आनी तो ताणें ताचे बायलेक दाखोवपाचो प्रयत्न केलो तेन्ना त्या मळबांतल्या खुर्साक कुपांनी लिपयलो. तो पत्र लेखक फुडें बरयता की गोंयांतल्या सगल्या भौशीक सुवातींनी आशिल्ल्या खुर्साची जाग्या जाग्यांनी पुजा आनी बरी जतनाय जावंक जाय. अशे तरेचे लेख आनी पत्रां प्रसाद पाकळेचे स्तोम कांय बंडलांची वळेरी दिवपी काकुल्यांची बरीच अनामना जाल्या. चर्चा वो वादविवाद म्हणून असल्या खिणांक वर्तमानपत्रां प्रसिद्धी दितात खरें, पूण असल्या खुळांक प्रमाण मानपी दुसरीं खुळां नव्यान तयार जातात हें तीं तीं वर्तमानपत्रां विसरतात. प्रसाद पाकळ्यांचें महत्व सांगपी कळंगूटचो काकुलोबाब विज्ञान संमेलनाक दिसलो ना. मात यज्ञेश्वर निगळे फुडें बशिल्लो.

अशा वेळार विज्ञानाची आनी विज्ञानीकांचीं मतां आनी विचार सामके सुस्पश्ट आसूंक जाय. डॉ. माशेकरांचो शांतादुर्गेचो आशिर्वाद आनी त्या आशिर्वादांतली विज्ञानीक चिकित्सा हिवूय विज्ञानिकां कडल्यान अपेक्षीत आसता. चंद्रार पावल दवरतकच नील आमस्ट्राँग हांणीं लेगीत देवाचे उपकार मानले. इगर्जेंत आंगवण्यो केल्यो अशे दाखले दिवन आमचे धर्माच्या रंगांत

कालवल्ल्या विज्ञाननिश्ठेचें लंगडें समर्थन जावंक फावना. अशे दाखले दिवपी थंय कांय जाण सांपडले.

आतां मेरेन आमच्या मनांचेर, चालीरितींचेर, भावनेचेर धर्मान शेक गाजयलो. कल्पनेंतल्या देवान शेक गाजयलो. देव हो एक विचार आनी हो विचार मनशाक पंच महाभुतांवयर पडिल्ल्या प्रस्नांतली जाप म्हणून जल्माक आयला हें आतां लिपून उरूंना, मात हें सत्य आजून संवसारांतल्या चडशा लोकां मेरेन पावूंक ना. धर्मसंस्थेची भव्यताय, धर्मसंस्थेची संख्या, धर्मसंस्थेचें वैभव आनी धर्मांतल्यान घाल्ल्या पापपुण्याच्या भंयं भिरांतीक बळी पडिल्ले मानव जातीक हो विचार आनी हें सत्य कळचें न्हय म्हणून वावुरतल्यांची मोटी आडखळ आसा. अशा वेळार डॉ. रघुनाथ माशेलकारां सारके विज्ञानीकय जर देवाचे आशिर्वाद घेवन विज्ञानीक जातात जाल्यार आमच्या सारक्या सामान्याच्या मनोबळाचें कितें?

मनशाचे उदरगतींत धर्मांनी हाडिल्लें आडमेळें पळेलें जाल्यार धर्म ही संस्था मनशाचो दुस्मान कशी दिसता. इतिहासाचेर नदर मारतकच तर धर्म ह्या उतराचो किळस येता आनी तिडक मारता. २१ तारखेच्या नवहिंद टायम्सांतल्या लिसनींग पोश्ट ह्या सदरांत आल्बर्ट कुलासो हांणीं एक पत्र बरयलां. Church Dubious Role. त्या पत्रांत ते बरयतात. bishop of France acquiesced through their silence to “a murderous profess” in sending neatly 76000 jews to the Nazi death camp, ते फुडें पत्रांत बरयतात. During the middle ages, the church sponsored the crusades that resulted in millions being killed in the name of religion.

रोमन कॅथोलीक इगर्जेचो हो काळोकुट्ट इतिहास सोंपना. हे इगर्जेन विज्ञानाचो आनी विज्ञानीकांचो नाश केल्लो. धर्तरी वाटकुळी आसा ती चौकोनी ना, ती देव आपल्या आंगठ्याच्या बोटाचेर घेवन घुंवडायना अशें सांगतल्या कॉपोरनिकसाक आनी मिलाग्रीची फटींगपणां दाखोवन जायत्या दुर्येसांचेर वखदां सोदून काडपी शास्त्रज्ञाक लासून मारून हाल हाल करपाचें पातक रोमन कॅथोलीक इगर्जेच्या इतिहासांत आसा. आनी हांगा देव धर्माचें नांव घेवन वर्णाश्रमाच्या नांवान मनीस कुळयेचे वांटे केले आनी बुदवंत समाजांतल्या वर्गान दुबळ्यांचेर अन्याय केलो, अत्याचार केले. देव धर्माच्या कट्ट्यां खाला आयजूय हांगा

मोठ्या प्रमाणांत अन्याय, अत्त्याचार चलता. जातभेद, वर्णभेद आनी म्हारां चांबारांचेर सवर्णाकडच्यान अन्याय चालू आसा.

आनी ह्या सगळ्या वायट परिस्थितींक देव धर्म कारण जाला हें आतां साप्प सुस्पश्ट दिसपाक लागलां.

अशा वेळार विज्ञानाची कास धरून देव धर्मांतल्या फटींगपणाचेर मोठ्या प्रमाणांत आघात जावंक जाय. अब्जांनी आनी क्रुटांनी वर्सां पोरणे धर्तरेचेर चार पांच वो एक दोन हजार वर्सां पिरायेचे कालचे परचे धर्म येवन मनशांची, मनीस कुळयेची विटंबना करतात, मनशांची हत्त्या करतात, मनशाक दुसऱ्या मनशाचो द्वेश करपाक, राग काडपाक शिकयता त्या धर्माचो बोकडो विज्ञानाचो शिळेर कचाकच कापूंकच जाय.

देखून मडगांवांत भरिल्लें मराठी विज्ञान संमेलन आमकां गोंयकारांक मार्गदर्शक आनी उर्बा दिवपी थारपाचें, पूण आयज फाटीं वळून पळयतकच तें विज्ञान संमेलन फक्त एक संमेलन आसलें, एकठांय येवन मिरोवपाचें.



# भौशीक गणेशोत्सवांनी हिंदू धर्माचेर चर्चा जावंची

**व**र्सावळीची चवथ आयली. गोंयकार हिंदूंक चवथ म्हळ्यार जाली. दुसरी खंयचीय परब चवथीचे पंगतीक बसपाक शकना. कशें कितें कोण जाणा. गोर-गरीब ते गिरेस्त धरून चवथ ही एकच अशी परब जी इतले उमेदीन आनी खोशेन मनयतात. ते खातीर दुडवांचें तोंड पळेनांत. रिणां-कर्जा काडून लेगीत आपली वर्सांची परब मनोवपी हिंदू गोंयकार आमी पळेतात.

चवथीची परब गोंयांत केन्ना सावन मनोवपाक लागले हें सांगप भोव कठीण. पूण ही परब गोंयकारांची खूब मुळावी परब आसूंक जाय. हेर परबो उपरांत आयल्या जावंक जाय. देखीक पळेयात. कांय परबो गोंयांत मनयनाशिल्ल्यो. त्यो मनयल्योय बी जाल्यार वेगळ्या स्वरुपांत मनयताले. रक्षाबंधन, होळी ह्यो परबो गोंय मुक्ती उपरांतच्यो परबो. तांणींय आतां म्हत्वाची सुवात घेतल्या.

आमच्यो ह्यो परबो आमकां खोस दितात. भावपणाची भावना जागयतात. आपले पेले कोण तांची वळख करता. परबां दिसांनी आमी आमचे व्यक्तीगत प्रस्न विसरून वतात. खंत-दूख आसल्यार आनंदी वातावरणांत भरसतात आनी सगळ्या आनंदी सुवाळ्यां मदीं चवथीक लागसारको आनंदी सुवाळो आमचे कुटूंब वेवस्थेंत दुसरो ना. चवथीक लागून संयुक्त कुटूंब वेवस्थेची याद जाता. एक व्हड घराबो. त्या घराब्यांत बापोलभाव, तिपोलभाव धरून पांच पन्नास लोकांची घे गर्दी. राग-मोग शीण देणें-घेणें, वासपूस, सहानभुती, आदर मान-भौमान, जाण्टे-नेण्टे, आशिल्ले नाशिल्ले. वाडवडील, तांचो संघिक उगडास. पुर्वजांक काकोळ-वाडी दिवप, पित्रांची याद हें सगळें परबेच्या निमतान जाता. पित्रांक आनी मेल्ल्यां-गेल्ल्यांक तळपार उपार-दवरून ते वाडयेक कावळो येवन चोंच मारतकच, प्रत्यक्ष वडील पुरूसच येवन गेल्ल्यांचें सूख समाधान भोगप, हें परबेच्याच दिसा पळोवंक मेळटा. परबो मनोवपा फाटल्यान आमच्या वाडवडिलांची केदी उदात्त भावना लिपून आसताली म्हूण सांगची!

परबो ह्यो धर्माचीं देणी काय आमच्या चलत आयिल्ल्या पुर्वजांचे परंपरेचीं देणीं तें आमकां खबर ना. पूण परबांनी धर्म भरसला आनी धर्मांत परबो भरसल्यात. अर्थांत चवथी सारख्यो धर्मीक परबो. देखून चवथ ही हिंदू धर्माची परब अशेंच म्हण्टात. न्हय हें खरें. देखूनच आयज ही परब मनयतना हे परबेक दसून आशिल्ल्या हिंदू धर्माचेर बरयतना सद्याक हिंदू धर्मांतल्या धर्म पंडितांनी जें कितें चलयला ताची झडटी घेवप ह्या निमतान उचीत थारूये.

## देव धर्माच्या नांवान अंधश्रद्धा

हेर धर्मपंथांनी कुड्डे भावार्थ आनी फटकिच्यो श्रद्धा नांत अशें म्हाका बिलकूल म्हणपाचें ना. पूण हिंदू धर्म हो अंधश्रद्धांचो महासागर म्हणचो पडटलो. हिंदू धर्मांतल्या अंधश्रद्धांची वळेरी दिवपाक हांव वचना पूण हिंदू धर्माच्या नांवान जीं फटींगपणां, लुटमार हिंदू धर्माच्या देवमंदिरांनी स्वताक पंडीत, भटजी,पंड्या पुजारी वो ब्राह्मण म्हणप्यांनी चलयल्यात, ताचो अणभव हांवें लेगीत स्वता घेतला. हालींच मथुरा-वृंदावन ह्या श्री कृष्णाच्या देव मंदिरांनी वचपाचो योग आयलो. पंडे-पंडित, भट अशा धर्मस्थळांनी फटयतात म्हणपाचें फकत आयकल्लें पूण आगस्टाचे इकरा तारकेक वृंदावनांत गेल्लेकडेन त्या फटींगपणाचो झटको म्हाका स्वता बसलो. म्हजे बरोबर आशिल्ल्या हेर प्रांतांतल्या लेखकांक, चित्रकारांकय बसलो. म्हज्या सांगाताक आशिल्ले गोंयचे आनी एके लेखिकेकय बसलो. भाविकांक लुटपाचें कारस्थान टुरिस्ट बशिंतल्यान गायडापासून सुरू जाता. दिल्ली सावन आमचे बशींत आशिल्लो गायड बदल्लो आनी जेन्ना बस मथुरा वृंदावनाक वचपाक आग्रासावन भायर सरली तेन्ना दुसरोच गायड आसलो. तो गायड मदीं उबो रावन हिंदिंतल्यान ह्या थळाची आनी देवदेवतांची म्हायती दितां दितां प्रवाशांक अक्षरशा भूल घालता. देवळांत आतां तुमकां आपूण व्हरतलों त्या देवळांत कितें-कितें करूंक जाय हें तो सांगता. तेन्ना तो मदींच एक उतर म्हणटा, जो कोण आपूण सांगता तें आयकुचोना ताचें भगवान वायट करता. तो मरपाक शकता. वृंदावन हें गल्ली गल्लीचें देवस्थान. थंय शेणल्यार दिल्लीक पावचोना, ते खातीर आपलो साथ कोणेंच सोडूंक फावना. देवळांत पावतकच पंडित सांगता तेंच करपाक जाय. आनी मागीर तो गायड जीं कोण जोडपीं आसतात तांकां फुडें दवरता. बोलो राधेश्याम, घनश्याम अशें म्हणपाक लायता आनी देवळांत व्हरता. देवूळ कसलें? कोणाचें तरी घर, ज्या घरांत एका सालांत तें देवूळ. देवळांत

कृष्ण-राधेच्यो प्रतिमा. त्योय बी पड्ड्या भितर. लोकांक भितर सरतांच देवाचें दर्शन जायना. भावीक बोकडे कितले कापपाचे ताचो हिशोब दोग भट (पंडित) फुडें बसून करतात. गायड सायडीक उबो रावता. भविकांचेर नियंत्रण दवरता आनी मागीर पंडित एकदम दान करपाची म्हत्वाची गजाल बशिल्ल्यांक सांगता. उण्यात उणें अडेचशे रुपया चडांत चड पांच हजारां वयर दादादादीच्या नांवान, नानानानीच्या नांवान म्हणजेच आज्यापणज्याच्या नांवान. हें दान म्हळ्यार दरोडो घालपाक ते भट सुरवात करतात. म्हजो पयलोच अणभव म्हणटकच हांव सगळें मोन्यांनी पळयतालों. जोड्यान बशिल्लों म्हणटकच घरकान्नीक अर्थांत देवसपण जाल्ल्यान कितेंय अशें तशें हांवें उलयल्यार उपरांत तंटो नाका म्हणत हांवेंय बी पावणेतिनशांचें दादा-दादीक दान केलें. म्हज्या फुडें बशिल्ले आमचे कोंकणी लेखिकेन माया आनी ताच्या घरकारान अनिलान तितलेंच केलें. आमच्या फाटल्यान आशिल्ल्या बंगाली लेखकांनी चारशीं- पांचशीं दिले. पूण दान करतकच पंडितांनी केल्ली दिसा उजवाडाची लूट म्हाका वोगी बसपाक सांगना जाली. हांवें बोवाळ केलोच. आनी सगळ्यांच्या काळजांत फटयिल्ल्याचो दाग आशिल्लो ताचो स्फोट जालो. सगळे जाण गायडाचेर तुटून पडले. त्या देवळा कडेन आनीक दोन ग्रूप येताले. तांकां हांवें फुडें सरून त्या देवळांत वचूं नाकात, थंय पंडित न्हय दरोडेखोर-चोर बसल्यात म्हणपाचेंय सांगलें. तोवूय ग्रूप आमचे भशेन परप्रांतीय आसलो. तांचे वांगडा आयिल्लो गायड नर्वस जालो. ते त्या देवळांत गेलेना. आमचे बरोबर परतले. आमचे वांगडा आयिल्लो गायड खंयच्यान गडप जालो कोणाक कळ्ळेंच ना. हिंदू धर्माक लागिल्ली ही जळू गोकर्णाक पावतकच कितें करतात तें आमी पळेलांच.

## देवांचें बाजारीकरण जालां

देव-धर्म हो मोटो उद्देग जाला. देव-दर्शनाक पयशे फारीक करचे पडटात. तिरुपतीक देवदर्शन दुडवांचेर आदारून आसता. चड दुडू फारीक केल्यार देव दर्शन बेगीन जाता. देवाचो प्रसाद दुडवांचे संख्येचेर त्या त्या प्रमाणांत मेळटा. देवधर्म-व्रतवैकल्यां, कर्मकांडां म्हळ्यार हिंदू धर्माक सद्याक शाप जाला. मनशाच्या देवभिरुपणाचो आनी भावार्थाचो फायदो घेवपाक तेळून आशिल्ल्या ह्या पंड्यांक जर आतां थाथारले नांत जाल्यार हिंदू धर्माची संवसारांत शी थू करपाक हेच लोक पुरो. हिंदू धर्म हो पद्धशीर रितीन संघटीत धर्म नाशिल्ल्या

कारणान, हो धर्म आनी हिंदू धर्मांतलो देव कोणेंय घेवन ताचो मेळत तसो वापर करूं येता.

धर्मीक परबो मनयतना धर्मांत मातिल्ल्या ह्या अत्याचारांचोय विचार जावपाची गरज आसा. ज्या हिंदूक खऱ्यांनीच प्रामाणीकपणान हिंदू धर्माचें पडून गेलां तांणीं ह्या असल्या परबां निमतान कांय खीण वेगळो बसून विचार करचो, चिंतन करचें, तीच खरी गणेशाक आदरांजली थारतली.

## धर्मीक भावनांचें राजकी पक्षांनीय भांडवल केलां

धर्माच्या नांवान राजकारण करपाचें श्रेय भारतीय जनता पक्षाक फावता. ह्या पक्षान धर्म भावना आनी राम दैवताविशीं फकत आदरान-भक्तीन वाडोवपाखातीर प्रयत्न केल्ले जाल्यारूय वोगी रावूं येतालें. हांणीं हिंदूंच्या अंधश्रद्धांकय गंगाजल पाजलें. बाटल्यो भरून गंगेचें हळशीक उदक विकपाचो धंदो केलो. तशें विटांचेंय राजकारण तांणीं केलें. देवदेवतांचीं प्रतिकां आशिल्ले रथ वापरले आनी हें सगळें करून हे लोक सत्तेच्या रथार कांय तेंप बसपाक पावले.

अशे सगळे फांटभुंयेर गोंयांत चवथ येता. घरांघरांनी गणपती येतलोच पूण सगळ्यांत म्हत्वाचो गणपती म्हळ्यार भौशीक गणपती.

## भौशीक गणेशोत्सवांनी हिंदू धर्मावयर-भासाभास जावंची

सद्याच्या हिंदू धर्माची सद्यस्थिती कशी आसा? हिंदू धर्म काल आनी आयज. हिंदू धर्मांतल्यो काळाभायल्यो चालीरीती, हिंदू धर्मांतलो जातीभेद, हिंदू धर्म कोणाकोणाच्या हातांत सुखरूप आसा, काय धोक्यांत आसा अशा आनी अनेक विशयांचेर, हिंदू धर्मा खातीर लोक प्रबोधन जावपाची गरज आसा. भौशीक गणेशोत्सव फकत आरती वाजोवन, फोगोट्यो आनी गर्नालां पेटोवन, माटोव सजोवन पावण्यो करून, सिनेमा-नाटकां-तियात्र दाखोवन मनोवपाचो उत्सव न्हय. हे माचयेर हिंदू धर्माच्या बऱ्याचेंय कितेंय भव्यदिव्य जावंचें. हिंदू धर्मांत रिगिल्लो धर्मपंडितांचो कली जो सद्याक हिंदू-देव-देवतांक आनी धर्माक पिडपाक लागला, बदनाम करूंक लागला ते खातीर लोक जागृताय भौशीक गणपतीच्या माचयांचेर जावंची अशें श्री गणेशाक वंदन करतना सुचयन दिसता.



# आमकां सगळें आधुनीक जाय; धर्म तितलो नाका!

दिल्लीचें तक्त आनी ह्या तक्ताचेर धर्माचें नांव घेवन एका नव्या इतिहासाचीं पानां बरोवंक सोदतल्यां खातीर कांय प्रस्न आसातूच. हे प्रस्न करून आयज घडपाचे दुर्दैवी परिस्थीतींत इल्लोय बदल जावचो ना. पूण कोल्याबुद्धीच्यांक हेंवूय कळपाक जाय की तांचो भितरलो कावो तसो लिपून उरूंक ना. गर्वसे कहो हम हिंदू है, हें हेरांक सांगतल्यानी खंयच्या हिंदुत्वाचो गर्व सांगपाचो? त्या हिंदूंचो जंय चार वर्णांनी समाज वांटून घाला? जातीं जातींनी वांटून आपले आपले मठ आनी आपपाले पंथ घेवन मिरयतल्या हिंदुत्वाचो गर्व बाळगुपाचो? शुद्र म्हणून तपश्चर्या करपी शंबुकाक गोमटी कापून मारपी त्या पुरूषोत्तम रामाच्या हिंदुत्वाचो गर्व सांगपाचो? उच्च वर्णांच्या हिंदुच्या देवळाच्या गर्भाघरांत देवाक अभिषेकय करूंक दुसऱ्याक कमी लेखिल्ल्या हिंदूंक अधिकार ना त्या हिंदुत्वाचो गर्व सांगपाचो? प्रस्न आसात जायते. ना ते आमचे अंतर्गत घरचे प्रस्न. ते मागीर पळोवचें, तूं म्हणटा तें खरेंच. पूण पयलीं मुसलमान नांवाचो लांडगो आयला न्हय ताका पयलो धांवडावंया. मुसलमानांचें, इकरा कोटी मुसलमानांचें, बुजगावणें उबें करून सामान्य हिंदूंक थतर वितर करून घरांतल्या प्रस्नाक कोयरांत उडोवपी तथाकथीत गर्विश्ठ हिंदूंक ताचेय पयलीं कांय गजाली आतां स्पश्टपणान सांगपाची गरज आसा.

आमी काळाप्रमाणें माथ्याक कुरपणें घालपाक जाय म्हणटात, वारें येता तशें सूप धरूंक जाय म्हणून सांगतात. परतंत्र मनीस स्वतंत्र जावंक जाय म्हणटात. ते खातीर झगडीं झुजां करतात आनी स्वातंत्र्यरुपी बदल घडोवन हाडटात. भारताचो स्वातंत्र्य संग्राम जालो तो कसलो बदल घडोवन हाडपाक? संवसारभर ज्यो क्रांती जाल्यो त्योवूय बदल करपाकूच मूं? बदल राजकी, बदल सामाजीक, बदल अर्थीक,

शिक्षणीक, सगळ्या-सगळ्या मळांचेर आमकां नवें नवें जाय, बरें बरें जाय, शक्य तो खरें खरें जाय. आमी पोरणें घर मोडून नवें मोदीचें घर कित्याक बांदतात? आमी पोरणें मोदीची मुस्तायकी भायर मारून नवे मोदीचे कपडे घालतात, पिंजके भायर मारतात. आमी राज्यवेवस्थेंत बदल करतात, आमी राजेशाय भिरकावन लोकशाय आपणावंक आंवडेतात. नवें शिक्षण, नवें ज्ञान, नवो सोद, नवीं धोरणां, नवीं मुल्यां हाची ओड धरतात.

मागीर फकत होच नेम, हीच मागणी, होच विचार धर्माच्या संदर्भात कित्याक ना? कित्याक कोणूय धर्मीक बदल मागिना, कित्याक कोणूय पोरणे धर्म ग्रंथ, पोरण्यो पोथयो, पोरणीं पुराणां आनी सगलें सगलें तेन्नाच्या काळाक धरून बरयिल्लें साहित्य जें आयच्या काळाक सुसंगत ना तें बदलूंक सोदिना? आनी ते तथाकथीत धर्मग्रंथ? कित्याक जायना तांची चिकित्सा?

आपणाचे सोयीचें तितलेंच सुधारणेंचें आनी बदलाचें भाशेन रोखडेंच बदलता आनी तें मोडपाक देव लागना? धर्म नीत आड येना? तेन्ना संस्कृती आनी परंपरा आडखळ करिना? तेन्ना पाप पुण्याची याद जायना? कोणूय म्हणटलो, हांव हे प्रस्न कोणाक करतां? तुका दिसता मरे, तूं फुडें सर करपाक अशें म्हळें म्हणून स्वताचें समर्थन जावंचें ना. म्हजे सारके असले प्रस्न करपी तांचे नदरेन एक तर मूर्ख आसतले ना जाल्यार देड शाणे थारतले! ज्या प्रस्थापीत वर्गान आयजवेर हिंदूंक, भौसंख्य हिंदूंक अशे वांटून घालून आपल्या तळटा पोंदा चेपून दवरल्यात तांच्या तळटावयलीं सगळीं वजनां धडाधड सकयल घसरल्यांत आनी उरलां तें एकूच वजन, आनी दुर्दैवान तेंच जबरदस्त वजन आसा आनी त्या वजनाचें नांव आसा धर्म! हांगा तें हिंदूत्व हिंदू खातीर इस्लाम मोयरां खातीर आनी कॅथोलीझम किरिस्तांवां खातीर. हेरांचें पळोवंयाच पूण आयजूय गंगेचें उदक बाटलेंत भरून हिंदुत्वाच्या नांवान धर्म जागरणां करपाक विकतल्या तथाकथीत गर्विश्ठ हिंदूंक आनी भगव्या वस्त्रांनी भैरजळोप आनी जळमटां गुठलावन परत तोच पोरणो रुशीमुनींचो काळ तयार करून, हांगा धर्माच्या नांवान परत त्या वर्णाश्रमांत परत त्या जातीय समाजांत व्हरपाचो प्रयत्न मागीलदारांतल्यान करतात तांणीं ह्यावूय प्रस्नांच्यो आतां जापो दिवपाक जाय.

वयर हांवें बरयलां तशें आमी सगळे बदलतात. बदलपाक आमी भारताचे घटणेंतय फारफेर करतात. पोरणी कलमां काडटात, नवीं घालतात्त, आनी तशें एकदां दोनदां तरी? ज्ञानाच्या आनी विज्ञानाच्या मळारूय पोरण्या सोदांचेर अभ्यास

करून तोच सोद सुदारतात! वीस वर्सां फाटीं तयार केल्लो दूरदर्शन संच वीस वर्सां उपरांत नव्या तंत्रज्ञानान तयार करतात. खूद्द बरयिल्ल्या अक्षरवाङ:मयाचेच संदर्भ बदलतात. फकत त्या काळाचो अभ्यास म्हणून कोणूब तांचो वापर करतात, पूण नवसाहित्यांत तांचो आस्पाव करिनात. तात्पर्य सगळीं मळां नव्यान साकार जातात. मात धर्मग्रंथ, पुराणां, पोथयांनी, धर्म ग्रंथांनी सांगिल्लें बरें तें कडेक मारून साबार लोकांच्या मनांत भंय निर्माण करून चडांत चड वर्ग, चडांत चड समाज आपल्या प्रभावांत कसो उरतलो हाचोच प्रयत्न आतांय करप? आनी ते खातीर गंगेंतलें हळशीक, घाणयारें उदक पवित्र तीर्थ म्हणून अशास्त्रीय रितीन हिंदू लोकांक विकप? राममंदिराची भव्यदिव्य कल्पना उबी करून भावार्थाच्या अंधश्रद्धेचो आनी देवभक्तीचो गैरफायदो घेवन मातयेच्यो विटो माथ्यार घेवन वचपाक सांगप? हें आनी जायतें कितें कितें! रामाचें नवें मंदीर बांदपाचो संकल्प सोडपी ह्या देशांतल्या ह्या तथाकथीत हिंदूंनी-गर्वसे हिंदू कहनेवालोने-केन्ना पोरणो, जर्जर जाल्लो, विटंबना जाल्लो, जातभेदाच्या रेब्यांत कुशिल्लो, घाण जाल्लो धर्म बदलून नवो धर्म बांदपाचो केन्ना विचार प्रामुख्यान मांडला? आतां कोणूय विचारतलो बाबारे, हो तुगेलो धर्म बदल म्हणजे कितें? धर्म म्हणून केन्ना बदलूंक येता? सगलें ताका जाय जाय तें सोयीचें बदलतना, कळटां नकळटां ताचो उपभोग घेतना बदलयना वो बदलिल्लें आसता तेन्ना मात तो गुड्डो मारतलो. मात धर्माचो बदल, वो नवो धर्म घडोवंया, रामाच्या नव्या मंदिरा परसूय ह्या नव्या धर्माची चड गरज आसा हो विचार ताका मुर्खपणाचो दिसतलो, कारण हे बांदावळींत, ह्या धर्मीक परिवर्तनांत ताका कोणाक ब्राह्मण म्हणून पाचारूंक मेळचें ना, कोणाक शुद्र आनी कोणाक हरिजन गिरिजन म्हार चांबार म्हणूंक मेळचेंना! हे नवे वेवस्थेत ताका ताचें गोत्र विसरचें पडटलें, ताचे खातीर आशिल्ले मुजी सारके खाशेले संस्कार करूंक मेळचें नात. ताचे खातीर आशिल्ले खाशेले मंत्र गुणगुणूंक मेळचे नांत, आनी कोणूय मेलो जाल्यार ताचे टाळवेवयलें लोणी आनी ग्रहदशा फिरली म्हणून दान कर म्हणून गाय, भांगरां शिंगरां आनी चंड्यो नवचंड्यो, शतचंड्यो, सहस्त्रचंड्यो करूंक सत्यनारायणांत कलावतीची दुर्दैवी काणी आदी गजाली नेणारांक सांगून दानां घेवंक मेळचेंना! आनी देखूनच आमी कितें आयकतात? आनी ते स्वामी, आचार्य, संत बी आमकां कितें सांगतात आनी शिकयतात? मौलवी काजी, पाद्री, पोप आनी हेच परंपरेंतले धर्मवादी कितें सांगतात?

तुमी जाणांत, हो ग्रंथ प्रत्यक्ष देवान बरयला. (सगळ्यांचेच धर्मग्रंथ देवानीच

बरयल्यात!)

देवान बरयिल्लो ग्रंथ म्हणून केन्ना बदलूं येता? तातुंतल्या खंयच्याच अक्षरांक हात लावप सोड तातुंतलो काना मात्रा, स्वल्पविराम आनी अर्धविराम लेगीत हालोवंक फावना. आनी ते खातीर मागीर आसाच पाप-पुण्याचें पुराण आनी पवित्र अपवित्राची शाकभाजी! आनी ताकाय भिलेनांत जाल्यार खंय अस्तित्वांत नाशिल्ले सर्ग-नरक सामकार उबे करप! आनी अशा देवांनी (अर्थात तांच्या तांच्या) बरयिल्ल्या ह्या धर्मग्रंथांनी बंदखणींत खितपत पडिल्लो धर्म कोणेंच मुक्त करूंक फावना देखूनच ह्या लोकांचे मनुस्मृतींक उजो घाल्लो डॉ. भीमराव आंबेडकार केन्नाच आदर्श जायना. हांगेल्या घरांनी वणटीचेर कोणाचीं पांयजेलां हुमकळटात! मनुस्मृतीक माथ्यार घेवन मिरयिल्ल्या जटाधाऱ्यांचीं आनी लांब खाडयांचींच पांयजेलां मूं?

आमकां सुटबूट मारिल्लो शंकराचार्य नक्कीच नाका, तसो तो दिगंबरूय नाका. भगव्या वस्त्रां मदलो जो देह आसा तो काय रामायणांतलो आनी महाभारतांतलो जायना. पुराणांतलो वो खंयच्याच युगांतलो जायना. बदलिल्लो मानवी देह धारण करून खंयचोय हिंदू शंकराचार्य, हेर संप्रदायांचे मठाधीश, स्वामी, साधू आनी साध्वी एकठांय येवन नव्या हिंदूधर्माची बुन्याद कित्याक घालिना? सगलें नवें जाय. बसकेपोंदा विलोदाचें लोण जाय, वोताचो त्रास सोंसूं नज म्हणून काळेंकिट्ट हारशाचें गॉगल जाय, मोव मोव सिंहासन जाय, टी.व्ही.जाय, ए.सी., मोटार जाय. जाय त्या शंकराचार्याक आनी मठाधिशाक नवो धर्म?

जशे राजकी पध्दतींत लोकनियुक्त लोकप्रतिनिधी एका पार्लमेटांत एकठांय बसून कायदे कानून, अधिकार हक्क, निती नेम थारायतात, थारायलें म्हणपाचें जाहीर करतात, सगळे राजकी सोपस्कार पूर्ण करतात आनी आपली घटणा, नवी घटणा तयार करतात तशेंच ह्या देशांत हिंदू धर्मांत कित्याक जायना? धर्मपातळेचेर धर्ममुर्ख जशे मंदिर बांदपाक जमा जातात तशेच नवो धर्म ग्रंथ बरोवपाक म्हणजेच नवो धर्म बांदपाक ते तयार कित्याक जायनात?

साधूसंत आयज आंगार भगव्यो शाली पांगरून लोकसभांनी आनी राज्यांच्या विधानसभांनी पावतात तेच साधूसंत आनी हेर जाण जे धर्माच्यो खबरी सांगतात ते हिंदू धर्म बदलपाचो सादो विचार लेगीत केन्ना व्यक्त कित्याक करिनांत? धर्माच्या गुलामपणांतल्यान भौसंख्य हिंदूंक मुक्त करपाचो वावर करपाचो सोडून

तांकां रामाच्यो पादुका अशें सांगून त्यो माथ्यार घेवन नाचूंक सांगतात आनी तांची पाद्य पुजा करूंक सांगतात! भजनां किर्तनांनी भक्तीचें सवंग करून आनी पुराणांतल्या भाकड कथांच्या कथानकानी सामान्य मनशाच्या मनांत पाप-पुण्याचो भंय घालून, अस्तित्वांत नाशिल्ल्या संगत्तसुखाचो आभास निर्माण करून परत मंदिरांच्या बंदखणींनी घालून तोच पोरणो वर्णाश्रम, जाती वादी भैरजळोपान आनी कुड्ड्या भावार्थानी भाकड कथांनी आनी फटीच्या समजुतींनी परिपूर्ण असो हिंदू धर्म ह्या देशांतल्या भौसाक सांगून खंयच्या धर्माची राखण करूंक सोदतात?

एक गरीब, हिंदू तोवूय हिंदुंतलो एक शुद्र (ताचे भाशेंत) रीण काडून हजार दोन हजार रुपया खर्चून एक नवी खोंप बांदता, ते खोंपींत भितर सरतलो जाल्यार खोंपींचो गृहप्रवेश? आनी तो गृहप्रवेश करपाक त्या शुद्र हिंदूक केदी वळेरी! दोन हजारांचे लांब खोंपीच्या गृहप्रवेशाचो खर्च मात तीन हजार? ह्या गरिबाक खोंपींत भितर रावपाक वचूंक कसलेंच देवसपण करपाची गरज ना, चडूच जाल्यार डेटोल मारून जमीन धू, जागो निवळ कर, घरभोंवतण निवळ दवर असो शास्त्रोक्त नवो विज्ञानीक धर्म सांगपी नवो ब्राह्मण आयज आमकां जाय. सगळ्या मळांचेर आमकां आधुनीकता जाय. इतलेंच न्हय, धर्म-धर्म करपी तरी धर्मीक पद्धतीन रावतात व्हय? कथापुराणां आनी किर्तनांनी फकत लोकांक चमत्कारांनी भरिल्लीं कवनां गावन दाखोवपाचीं! देव-धर्माकडेनूय पळोवपाची सामान्य मनशाची वेगळी नदर आसूं येता तें हे लोक केन्नाच सांगिनांत. देखून केरळा सारख्या राज्यांत पूत जावचो म्हणून यज्ञ करतात. कितल्या बायलांक ह्या यज्ञाक लागून पूत जाले, ते आजून जाहीर जावंना. खंयचो तरी पक्ष सत्तेर येवचो म्हणून महायज्ञ करतात तेन्ना हे धर्मीक लोक तांकां नव्या धर्माची आयज कांयच गरज ना अशें केन्ना सांगिनांत, मात उलट धार्मीक कर्मकांडां चडांत चड जावचीं म्हणून प्रयत्न करतात!

अशे अवस्थेत अर्विल्ल्या भारतांतल्या चडशा हिंदूंक आपल्या हिंदुत्वाचो निखटो गर्व बाळगुपाक सांगपी सद्याच्या ढोंगी हिंदूंक आयज नव्या हिंदुत्वाचो विचार करतल्या विचारवंतानी आनी समाजसुधारकांनी जाप विचारूंक जाय



# आतां नवे पिळगे मदीं समतेचें आंदोलन जावचें

समता आंदोलन सुरू जायत पसून जायत्या जाणांक एक नवो विचार येवंक लागला.

समतेचो हो विचार पयलीं अस्तित्वांत आशिल्लो. समता आसप, सगळे मनीस सारके समजप हो विचार मनशां मदीं भगवान बुद्धाच्या तेंपारूय आसलो आनी आयजूय आसा. पूण ताचें स्वरूप मात एके खास फास्केंत आनी विशिश्ट मर्यादेंत आसा. म्हणचे अशें की समतेचो विचार करपी जो मानव समुदाय आसा तो साप्प थोडो आनी मोजकोचसो. हातूंत आस्पावतात ते भोव थोडे बुद्धीवादी लोक, विचारवंत लोक, चित्रकार, कलाकार, लेखक, कवी बी. पणू सगळेच लेखक जावं कलाकार समतावादी आसतात अशें ना, ते कट्टर भेदाभेद करपी जात्यांध, आनी धर्मांधूय आसतात आनी आसात. पूण अशा लोकांचो आंकडो तसो उणोच आसा.

खरें म्हळ्यार खंयचोय विचारवंत जावं लेखक, चित्रकार कलाकार हो सर्वसामान्य मनशापरस वेगळो आशिल्ल्यान ताका खोलायेन तशेंच चिकित्सायेन पळोवपाची नदर आनी येवजुपाची तांक सभावीक येता अशें आमी मानतात. आनी जेन्ना सत्य पारखुपाक कळटा, खरें कितें तें समजूंक लागता तेन्ना तो मनीस जातीकातीचें कशेंच समर्थन करूंक शकना. पूण इतलें आसून जेन्ना एकाद्रो बुदवंत, विचारवंत मनीस जो नितळ चिंतता, कारणांसयत चिंतता तो जात्यांध जावं धर्मांध कसो उरूंक शकता हेंच समजना. काय आपणाले आपणायिल्ले मार्ग वो आपलो विचार चुकीचो आसा अशें कळून लेगीत, परंपरेचो चालंत विचार सोडपाचो धीर ताका जायना, काय तसो जात्यांध वो धर्मांध जावपांत ताचो कसलो खास फायदो बी आसता?

म्हाका दिसता ताचो तो भौतीक फायदो आसता. अशा भौसंख्य जात्यांध वो धर्मांध लोकांचो आंकडो सदांच चड आशिल्ल्यान तो भौसंख्यांकांच्याच मार्गान चलून आपलो कसलोय तरी फायदो करूंक सोदता.

म्हाका तरी अशेंच किते तरी दिसता. अशा जाती कातीच्या वडा झाडा पोंदा सावळेक रावल्यारूच आपलो सुवार्थ साद् येता अशी ताची पक्की खात्री जाल्ली आसता आनी मागीर तो समतेसारको खरो विचार बरो आसा हें पटून लेगीत त्याच यमकोंडांत लोळपांत धन्यताय मानता. अशे कांय लोक आमचे मदीं आसात तांचें मानशास्त्र अशेंच आसतलें.

पूण अशे प्रवृत्तीचे लेखक आमचे मदीं आसतात अशें धरून हेवूय प्रवृत्ती आड झगडपाची समतावादी साहित्यिकांची लागणूक जावन आसा.

हो जालो जातीकातीचो बडवाचार घेवन समाजांत मिरयतल्या आमच्या साहित्यिकांचो विशय. तांकां आमी बदलूंक शकचेना हें की खरें कारण तांकां समतेचो विचार खरो आनी बरो हें पटून लेगीत ते लोक आपस्वार्थाक लागून आपल्या शिरंतरांनीच भरून दवरिल्लें जातभेदाचें रगत कशेंच बदलूंक तयार जावचेनांत, आनी हें आतां मेरेन आमी पळेत आयल्यात.

मात समतेची चळवळ सर्वसामान्य मनशांमदीं घट जावप शक्य आसा. जायतें जाण सर्वसामान्य मनशाक आपली जात, आपलो समाज, आपलो धर्म पंथ हें जें कितें आसा तें सगळें सभावीक अनी देवाचीच करणी अशें मानतात. जातीकाती भेदभाव, धर्मपंथ ह्यो सगळ्यो गजाली निसर्गा बरोबर देवान केल्यात असो तसल्या सर्वसामान्य मनशाचो समज आसता. ते समजुतीक समतेचो विचार नक्कीच बदलूंक शकता कारण अशा सर्वसामान्य मनशांमदीं कसलोच पूर्वग्रह जावं कसलो हितसंबंद नासता. खऱ्यांनीच तो निश्पापपणान आनी परंपरा कशी समजून कर्तव्य भावनेन आपलें कुटूंब जशें मानता तशीं आपली जातय मानता हें हांवें पळेलां. अशा ताच्या मानपांत कोणाचेर राग नासता, कोणाचो द्वेश नासता, तो सरळमार्गान तें मानीत आयला. देखून हे जात-धर्म ह्यो मनीस निर्मीत गजाली देवान केल्यात, पूर्वपरंपरेन चलत आयल्यात अशें समजता आनी ह्यो बदलप वो सोडप हो विचार चुकीचो वो तशें करप शक्य ना अशें ते समजतात.

आयज आमचे मदीं अशे तरेचो लोक चड आसात. जात-धर्म मानप हें सभावीक आनी तातूंत कांयच चूक ना आनी तांचें कसलेंच लुकसाण जायना

अशी तांची चालंत समजूत आसता. अशा लोकांमदीं समतेचो विचार खोलायेन घालप आनी ताचो प्रसार करप समता आंदोलनाची मोख जावं येता, आनी थंय आमकां कसलीच आडखळ येवचीना अशें म्हाका दिसता.

ते खातीर जे जातीकातीच्या विचाराक पक्को आनी खरो अशे समजणेन आतां मेरेन जगत आयल्यात आनी जांची जीण अर्दीअदीक सोंपल्या अशा लोकांकडेन समतेचो विचार व्हरचे परस साप्प कवळे अवस्तेंतल्या भुरग्यांचेर चड करून विद्यार्थी अवस्थेंतल्या भुरग्यांचेर समतेचो विचार प्रभावान घालप आयज शक्य आसा.

ते खातीर जे जाती कातीचो बडवाचार घेवन मिरयत आसात, जांकां आपलो धर्मग्रंथ आनी संप्रदाय व्हड आनी अंतीम सत्य अशें दिसता आनी जे समतेचो विचार समजूनच आपसुवार्था खातीर जातीवादी रावूंक सोदतात, समाजांतल्या भेदाभेदांचो पुरस्कार करतात आनी ते खातीर पंथाच्यो आनी संप्रदायाच्यो संस्था, देवळां, ट्रस्ट, मठ बी निर्माण करपाक मग्न आसात तांकां थंयच दवरून नवे पिळगेक पद्धतशीरपणान टॅप करप योग्य अशें म्हाका दिसता.

आनी दुसरो जो नेणारपणान पूण निश्पाप भावनेन कसलोच पूर्वग्रह आनी हिंतसंबंद मनांत धरिनासतना परंपरेचेंच देणें म्हणून समजल्ल्या भोव संख्य समाजांतल्या लोकांकय समता आंदोलन समतेचो विचार पटोवन दिवंक शकता. कारण ते लोक खरेंच न्हिदिल्ले आसतात. न्हिदेचें संवंग ते करिनांत. अशा दोन मार्गांनी समता आंदोलन मार्गस्त जावंक शकता. चड करून नवे पिळगेक शिकोवपाचो मार्ग सोंपो आसा.

देखून परिशदे उपरांत सामाजीक कार्यावळींत पद्धतशीर रितीन नवे पिळगेक मानवी मुल्यांचे मुळावे पाठ दिवपाक मेळपाची कशी वेवस्था जावं येता हाचो विचार जावंक जाय.

आयज शाळा विद्यालयांनी आनी कांय महाविद्यालयांनी सुद्धा धर्मीक शिक्षण दितात. आपलो धर्म आनी त्या धर्मांत सांगिल्लो देवूच खरो, तोच संवसार तारता, तोच पापपुण्याचो नियाळ करता, तो अंतीम सत्य आनी ताकाच मानपी आनी भजपी अशे तरेचें फटीचें शिकप दिसा उजवाडा दितात जाल्यार मनीसपणाचो आनी मनीस कल्याणाचो हो समतेचो खरो विचार भुरग्यांमदीं पातळावपाचो प्रयत्न धर्माचें शिकप दिवपी कॅथोलीक शिक्षण संस्था करिनात.

आयज भुरग्यांक विचार करपाची तांक आसा आनी ल्हान पिरायेचेरूच विज्ञानीक दृश्टिकोन आयिल्ल्यान आयचो भुरगो बदलप आनी जात-धर्माच्या प्रभावापसून तो मुक्त उरप सामकें सोंपें आसा. देखीक भुरग्यांक आयज अनेक देवांची कल्पना मुर्खपणाची दिसता. संवसार एक, सैम एक, सैमाची निर्मणी एके तरेन एका नेमान जाता, सुखदुख, वायट बरें, तान भूक, जल्म-मरण, खावप-जेवप हें जर सगळ्यांक समान आनी सारकें सगळ्यांच्या मानवी देहाची रचणूक रक्तामासाची, सगळ्यांची कूड आनी रामाचें रगत जॉनाच्या शिरांनी घालूं येता आनी अब्दूल कुड्ड्या पेद्रूक आपलो दोळो दिवन नदर दिवंक शकता जाल्यार अनेक देव, आनी तांचो पोसवणी करपी हे अनेक धर्म, संप्रदाय, पंथ, जातीकाती ह्यो सगळ्यो गजाली साप्प फट, असत्य होवूय विचार आयच्या विद्यार्थ्यांक, येतले पिळगेक बरेभशेन शिकोवं येता, पटोंव येता आनी एक नवो मानवी मुल्यांनी भरिल्लो मानवतावादी समाज हांगा निर्माण करूं येता.



# देव-धर्म ही मनशाची निर्मिती

धर्म ह्या अडेच अक्षरांचेर ही अखखी मनीस जात पातयेवन आसा. धर्माची नक्की व्याख्या कोणेंय केल्ली जावं ती अधिकृतरितीन विद्वानांनी मानून घेतिल्ली आयकूंक ना वो वाचूंकय ना. मात धर्माच्या नांवान कितेंय वायट बरें करतल्यांनी आपणाक येवजता तशी धर्माची व्याख्या केल्ली आसा. Religion हें इंग्लीश उतरूय Religion ह्या मूळ लॅटीन शब्दावयल्यान आयलां अशें सांगतात. Religion म्हळ्यार to come together एकठांय येवप. चार चौग लोकांनी एकठांय येवन एकमेकांचें बरेंपण करप वो चिंतप असो Religion चो अर्थ दिल्लो आसा. एक जावप, एकठांय येवप असो जर धर्माचो मूळ अर्थ जाल्यार आयज आमी नेमकें ह्या खऱ्या मूळ अर्थाविरुद्ध वागतात हें सामकें खरें. आयज आमी धर्माक लागून एकठांय बिलकूल नांत. आमी देवाविशीं आशिल्ल्या आमच्या वेगवेगळ्या कल्पनांक लागून वांटून गेल्ले आसात आनी ह्यावूय वांट्याक परत आमी धर्मच म्हणटात. इतलेंच न्हय तर ह्या वांट्यांनी गेल्ल्या धर्म प्रेषितांनी जें कितें सांगून दवरलां तेंच अंतीम सत्य आनी ताचे बगर दुसरें कितेंच जावं कोणाचेंच खरें न्हय. देखून ह्या वांटून गेल्ल्या वांटेरुपी धर्मामदीं सद्याक संघर्श चल्ला, तो वर्चस्व सिध्द करपाचो.

देखीक पळेयात. एक धर्म शिकयता हो संवसार अमक्या देवान रचला म्हळ्यार तो तांचो देव. दुसरो धर्म तशेच वेगळे तरेन, वेगळें नांव घेवन ठामपणान सांगता की हो संवसार तो विश्वास दवरतात त्याच देवान रचला. हे भाशेन प्रत्येक धर्म वांटो आपले आपले चलत आयिल्ले शिकवणेनुसार हे एकच आशिल्ले संवसार निर्मितीची शिकवण त्या त्या वांट्यांत आस्पावपी अनुयायांक दित अयला.

आतां जेन्ना चार भाव येवन एकच आशिल्लें घर हें घर हांवें बांदलां अशें सांगतात तेन्ना त्या प्रत्येक भावाच्या म्हणण्या प्रमाणे दरेकल्यान जर एक एक वेगळें-वेगळें घर बांदलां जाल्यार थंय एकूण चार घरां आसपाचीं. पूण घर मात एकूच आसा! तशें, जर हो संवसार रचपी हिंदू सांगतात तो ब्रह्मदेव, ख्रिस्ती सांगतात ती ट्रिनीटी वो होलीस्पिरीट आनी मुसलमान सांगतात अल्ला, तर ह्या प्रत्येकान रचिल्लो जाल्यार एक एक वेग वगळे चार संवसार हांगा आसपाचे न्हय? पूण हांगा आसा तो एकूच संवसार, हांगा आसा ती एकेच तरेची मनीस-जात, जनावरां, प्राणी जिवाणू झाडां पेडां बी. किरिस्तांव धर्मांत तर देवान संवसार कसो रचलो तें स्पश्ट सांगलां. सोमारा देवान कितें केलें, मंगळारा कितें केलें आनी हे भाशेन शेनवार मेरेन आगळो संवसार रचून ताणें (देवान) आयतारा विसव घेतलो आनी हाचेर विस्वास कोणाचो तर फकत ख्रिस्ती धर्मियांचो. हेर हें मानिनांत वो हेरांचो संवसार रचणुकेसंबंदी विचार वेगळो आसा. खरें कोणाचें मानपाचें?

खंयचीय खरी गजाल कोणाच्यान न्हयकारूंक जायना. सुर्याचो उजवाड खंयचोय धर्म नाकारीत? उदकाचें अस्तीत्व वो ताची गरज कोणालोय देव न्हयकारीत? प्राणवायूची जाचे बगर कोणूच जियेवंक शकनांत ताची गरज न्हयकारीत? म्हणटकच हें सत्य न्हयकारून वेगवेगळ्या काळार संवसारभर जे जे कोण प्रेषीत जाले वो डमी गॉड जाले तांणीं हें धर्माचें खातोड करून दवरलां आनी सगली वाट लावन दवरल्या. घडये त्या काळार त्या त्या वाठारांत, त्या त्या भागांत, त्या त्या लोकांक हे आदीशक्तीची वळख करतना जी शिकवण तयार जाल्ली ते शिकवणेंतल्यान हे धर्म उदेल्ले आसत. मात आयज ह्या कोणाचे तरी तकलेंतल्यान उत्पन्न जाल्ल्या धर्म नांवाच्या कल्पनांनी खऱ्या मनीस धर्माचो मात इबाड लावन दवरला, इतलो इबाडला की जर आमकां मनीस हें सत, हो निसर्ग वो सैम हीच शक्ती आनी तोच खरो हांगच्या जिवाप्राण्याचो तारपी-मारपी देव आनी हेर सगळे मनशांच्या कल्पनेंतल्यान आनी विचारांतल्यान जल्माक आयिल्ले देव हें पटपाक कठीण जालां. जर हें सत्य मातशें आमकां समजूंक लागत जाल्यार एकामेकांकडेन देव धर्माक लागून पळोवपाची आमची द्वेशाची नदर नक्कीच सुदारू येता, पूण धर्माचे कल्पनेचो पगडो आमी सोडूंक तयार ना.

ह्यावूय सत्याचो प्रचार आयज कोणूच करिनांत. वास्तवीक सत्याचो

प्रचार करपाची गरज नासता. हो सूर्य तो आमकां उजवाड दिता, हें उदक, तें आमकां जिवीत दिता. हें वारें, आमचो प्राणवायू आसा हें पुस्तकां आनी वर्तमानपत्रांनी आनी देवळां-इगर्जांनी जसो आयच्या देवांचो प्रचार चलला तसो प्रचार करून सांगपाची गरज नासता हें खरें, मात सत्त्य आमचे फाटीं फुडें वयर सकयल सगल्याक आसून लेगीत हांगा देवाचो पूत थोड्यांक लागता तर थोड्यांक देवाचो दूत लागता, तर थोड्यांक एक न्हय कोट्यांनी देव लागतात! आनी मानवी तकलेंत जल्माक आयिल्ल्या संवसारांतल्या ह्या सगल्या देवांनी आयज मनीस जातीमदीं सगळो रणखेव मातोवन दवरला.

आचार्य रजनीशाचीं कितेंय पिशेपणां आसूं पूण ताणें एकेकडेन म्हळां 'Concept of God is the biggest blunder of human mind.' आमी खूब फावटी आमकां देवान रचल्यात अशें म्हणटात. खरें म्हळ्यार देवाकूच आमी मनशांनी जल्माक घाला. सैमांत जें जें कितें कितें आकांताचें घडत रावलें वो घडत रावता ताचें आकलन मनशाचे बुद्धीक जेन्ना जायना तेन्ना ताका प्रस्न पडटा की हें कशें घडटा? कोण करता? नक्कीच कोणें तरी केल्लें आसूंक जाय! मागीर हो कोण? आनी असो प्रस्न करतां करतां कोण तरी देड शाणो हजारांतल्यान आनी लाखांतल्यान फुडें सरून सांगता हो देव, हें सगळें देवान केलां, हें देवूच करता, मनशाक स्वताच्या समाधानाखातीर हें मानचें पडटा.

इतपर्यंत बरें आशिल्लें, हे अदृश्य नैसर्गीक शक्तीक सगल्यानीच देव म्हणिल्लो जाल्यारूय भंय नाशिल्लो. निसर्गाचें दुसरें नांव देव म्हणूं येतालें! आनी हो सोद थंयच थांबोवंक येतालो. फुडें कोणें कोणें ह्या देवाच्या पोटांत आनी पूत जल्माक घालो आनी ताका देवाचो पूत केलो आनी मूळ देव थंयच उरून देवाच्या पुताफाटल्यान लोक लागले. सैमाच्या नेमाक धरून जाल्ल्या ह्या पुताकय मिलाग्रींनी आनी चमत्कारीक दाखोवं नासलो जाल्यार ताका कोण देवाचो पूतय मानचो नासलो. आनी हीं तर सैमीक नेमांचीं फकाणां ह्या बुदवंत मनशांनी करून दवरलीं. उपरांत आयलो देवाचो पूत. देवान आपलो दूत धाडला म्हणून थोडे जाण सांगी, धर्माचीं ग्रंथां कोणें बरयलीं आनी तीं कशीं बरयलीं, खंयचे भाशेंत बरयलीं, खंयच्या आनी कसल्या पेनान तीं बरयलीं तें कोणेंच विचारूंक फावना अशी वेवस्थाय ताणी करून दवरली. थोड्यांचे धर्म ग्रंथ डायरेक्ट देवानूच बरयले खंय! आतां ते धर्मग्रंथ बरोवपाक देव खंय बसलो, ताणें कसलें कागद वापरलें, कसली शाय

वापरली, खंयची भास-लिपी वापरली ती कोणें आतां विचारची न्हय, कारण 'thou shall not question' आनी तशें विचारपी sinner जाता, नरकांत पावता. म्हणचे तुजे बुद्धीच्ची परत बोन्साय! पाप पुण्याची कल्पना मनशाच्या बऱ्याक सांगिल्ली आसतय बी पूण तिका भिवून तरी आयज जातात तीं झुजां आनी केस्तांवां बंद जावपाचीं मनशामदलीं न्हय?

जेन्ना आमी देवूच ना अशें एका धार्मीक मनशाक म्हणटात तेन्ना जाल्यार ताचेकडच्यान प्रस्नार प्रस्न येतात. हो संवसार देवान रचलो असो प्रस्न करतकच तो परतो प्रस्न करता, देवाक आनी कोण रचतलो? देवूच तो! तो स्वयंभू!

हय मूं? पूण देव स्वयंभू, देवान स्वताक रचून घेतला अशें मानतात ताका देवा कसो आसा, निराकार आसा काय निर्गूण आसा हें सांगपाक जमना. तो म्हणटा, तो देव दाखोवंक शकना, तो केदो आसा तें सारकें सांगूंक शकना, तो नेमको खंय बसता, खंय रावता तें सांगूंक शकना, ताणें येदें व्हड विश्व खंय रावून रचलें, कसल्या आयुदांनी रचलें तें सांगूंक शकना! जाल्यार जो सैम, जो भोंवतणीं जळींमळीं दिसता, भासता, ताची करणी कळटा आनी ती आमकां बादता त्या निसर्गाकूच स्वयंभू अशें आमी कित्याक म्हणचें न्हय? जें जें कितें आमी केन्ना पळोवंक ना, ज्या ईश्वराची निर्मात्याची कल्पना करतात ताका स्वयंभू समजुपा इतली परिपक्वता (?) दाखोवंक शकतात जाल्यार वास्तव सैमाक, जें आमकां चाटेपावलाक लागता, जाचेर आमचें पुराय जिवीत पातयेवन आसता त्याच सैमाक, त्याच पंचमहाभुतांक स्वयंभू म्हणून ताच्यांतूच ईश्वर पळोवन समाधान भोगूंक आमी कित्याक शकनात?

हांव सनातन वो वैदीक धर्माचें सांगना. हांवें वेदूय वाचूंक नांत आनी श्रुतीय आयकुंनांत. म्हाका ह्या खिणाक देव संकल्पनेविशीं कितें दिसता आनी ती कितें आसूं येता तेंच हांव सांगतां. म्हाका होलमता तशें.

आनी हें सांगपाचें कारण म्हळ्यार देव नांवाचें उतर सांगपाक वो शिकोवपाक धर्म नांवाचो जो उपाय मनीस जातीन घेतला त्या धर्मान आयज ह्या अख्ख्या विश्वांत मनीसजातीच्या अस्तित्वाचेर हावळ हाडल्या, अरिश्ट हाडलां. ना जाल्यार कोणेंय संवसारांतल्या सद्याच्या आनी पोरण्या घडामोडींचेर बारीकसाणेन नदर मारून पळोवंचें. संवसारभर आयज राष्ट्रांराष्ट्रांमदीं प्रांता-प्रांतांमदीं जावं मनशां मनशांमदीं जीं रणखेव -झगडीं झुजां चलतात आनी

रगताच्यो न्हंयो व्हांवतात, मनशाक चांचावन मारतात, ताचें सगल्यांचें मूळ कारण धर्म होच आसा. आयचे घटकेक तरी संवसारांतल्या प्रत्येक संघर्शाचें मूळ कारण धर्म-तंट्यांतूच आनी धार्मीक भावनेंतूच घुस्पल्लें आसा हें आमी आयज पळेतात.

हें चड विस्कटावन सांगपाची गरज ना. आमचो भारत देश अशा झगड्यांचें एक व्हड आगर जाल्लें आसा.

हांगासर म्हाका एक गजाल स्पश्ट करपाची आसा ती म्हळ्यार हांव देव मानिना, देवाविरूद्ध आसा असलें काय न्हय. हांगा जी सैमीक शक्ती आसा, ते शक्तींतल्यान निर्मिल्ली एक कीट एक तिचो अंश, वांटो आनी ते शक्तीचो म्हजेर पुराय शेक चलता, देखीक, समजुंया म्हाका सदांकाळ तरणोच रावपाक जाय, म्हाका म्हातारो वा कुडीन अशक्त जावपाचो ना. हें आनी असलें करप कांय एक म्हज्या हातांत ना तें कोणाच्याच हातांत ना, आनी तें ना म्हणून हे शक्तीक पूज, ते शक्तीक शरण वच, तिची भक्ती कर अशेंय कांय ना. आनी ती शक्ती कोणाय एका अपुरबायेचे व्यक्तीक, समाजाक, जातीक, धर्माक, राष्ट्राक वा खंयच्याय खंडाक वायट-बरे नदरेन पळेता अशें कांय ना. सैम वा निसर्ग ताचे पद्धतीन हांगा चलता. निसर्गाचे नेम आनी कायदेच हांगा चलतले. कोणा धर्माचे आनी पंथाचे कायदे-नेम न्हय. हांगा भुंयकांप जातलो. हांगा मोडां जातलीं. हांगा पावस पडटलो वा पडचो ना, हांगा हावळ येतली वा येवची ना हें सगल्यांक सैमाच्या नितीनेमांक धरून जातलें, जमता जाल्यार आमी मनशांनी तें आपले बौद्धीक क्षमतेक धरून आकलन करपाचो प्रयत्न करचो, समजून घेवपाचो प्रयत्न करचो, शिकपाचो प्रयत्न करचो. मात आमकां जाय म्हण हिमाचल पर्वत व्हरून आफ्रिकेंत दवरूंक जावचो ना आनी आमकां जाय म्हणून नायगारा घसघसो आशियेंत हाडून दवरूंक जावचो ना. हें सैम. आनी ताचोच शेक आमचेर चलता. आमकां तारचें काय मारचें सैमाचेर... पुराय सैमाचेर पातयेवन आसा हें सत्य वळखुपाची तांक आमकां जाय.

आनी हें सत्य जो धर्म आमकां शिकयता. तें शिकयतलो तो धर्म एकूच तिगतलो. सगले मनीसजातीक हो धर्म एकूच सत्य संवसाराच्या खंयच्याय वाठारांत रावन शिकयतलो. मागीर संवसारभर ते ते मनीस जातीच्यो वेगवेळ्यो काणयो आसूं,चालिरिती , खाणजेवण भेसभास आसूं, मात ताचे खातीर हें एकच सत्य आसतलें. तें सत्य म्हळ्यार आमचेर सगल्यांचेर एकेच शक्तीचो शेक चलता

आनी तेच शक्तीचो मनीस हो अंश,आनी कोणाकय भजपाचें आनी पुजपाचें आसलें जाल्यार हेच शक्तीक पुजचें, हेंच शक्तीक भजचें! all of us derive the life from one and same source.

आयज आमचे मदीं जे फटीचे धर्म आसात, फटीच्यो तांच्यो शिकवणी आनी उपदेश आसात, फटींचेर आदारिल्ले मनशांनीच रचिल्ले धर्मग्रंथ वा समजण्यो आसात तांच्या कुळी विरूद्ध लडाय करपाचो वेळ आसा, आनी तांतूंत जैतीवंत जाल्यारूच मनीस हांगा निस्तर कांडूंक शकतलो.

धर्म आनी राजकारण हांकां वेगळावपाची भास सद्याक चल्ल्या ताचेर विचार करतना धर्माच्या मुळांत हात घालपाचो हो प्रयत्न. धर्माची राजकारणापासून फारकत म्हळ्यार नेमकें कितें? धर्माची व्याख्या राजकारण्यांनी कितें केल्या? ती पयलीं करूंक जाय. सत्तेर आशिल्ले राजकारणी धर्माचो वापर आपणाल्या सुवार्थाखातीर करता ते ह्या देशाचे खरे शत्रू, कारण धर्मीक तंटे निर्माण करून लोक समुदायाचे कुडके करपाचें पातक हे राजकारणी मतांच्या राजकारणांत करीत आयल्यात, सत्ता प्राप्तीखातीर धर्माची निसण करतल्यांक ह्या देशांत इल्लोय जागो आसूंक फावना. तशें जाल्यारूच ह्या देशाच्या स्वातंत्र्याक भिरांत नासतली.



# जातिभेदाचो नेम घालपी देवळांचे कोंप्रोमीस बदलूंक जाय

**गों**य मेकळें जालें आनी सगळ्यांनी खूब व्हडलीं सपनां बाळगिल्लीं. पोरणें प्रतिगामी कायदे वतले, नवे पुरोगामी सुधारीत कायदे येतले, सामाजीक समता येतली, हांगा कोणूच उंच उणाक असचोना, कारण भारतीय गणराज्याची घटना तशें सांगता. गणरायाचे घटनेक धरून मुक्त गोंयांत नवे नेम नवे कायदे जातले अशी आस्त जागी जाली. हांगा राज्य करतले ते समतावादी, हांगा राज्य करतले ते न्यायी आनी ज़न कल्याणाचो हावेस बाळगुपी, लोकशाय राजपद्धतीक लागून हांगा भौसाचेंच राज्य येतलें हें गणीत सुस्पश्ट जालें. चड कोण आसलो; संख्येन बहुजन समाज कसो आसलो आनी ताका आमी कसो बदलतले हो ध्यास आशिल्लो बहुजनसमाजांतलो नेतो आपल्या बांधवां खातीर क्रांतिकारी पावलां उबारून हांगा नवें वातावरण निर्माण करतलो! बहुजनसमाजाक उणाक लेखपी आनी मानपी जे-जे म्हणून कायदे, नेम जावं बंधनां आसात ते नवे कायदे बदलतले, ते नेम बदलतले, तीं बंदनां तोडून उडयतले, आनी तांची नांव निशाणी लेगीत हांगा दवरचे नांत अशें कोणाय सर्वसामान्याक दिसलें आसतलें. पूण आयजूय ह्या पन्नास वर्सांनी जालेंना तें जावचें, आतां तरी जावंचे अशें म्हजे सारक्यांक दिसता, ताचें कारण हेंच.

हांवें देवळांतलो भेद या सारक्या विशयांक हात घालून ह्या देवांचें नांवान घुस्पल्ल्या देवूळ ह्या शब्दांत अन्याय उपाट भरला आनी तो अन्यायाचो रेबो उस्पुपाक जाय अशें हांव सांगत आयलां.

पुर्तुगेज सरकारान तयार केल्ल्या महाजनी कायद्यांत कसो बदल जावंक जाय तें हांवें सांगलां. ह्या लेखांत देवळांचें जें कोंप्रोमीस वा त्या देवळांच्यो नेमावळी आसात त्या कोंप्रोमिसांनी मुळासावन बदल जावंक जाय. आनी कित्याक जावंक

जाय तें ह्या लेखांत सांगपाचो प्रयत्न करतां.

सरकारांत रजिस्टर वा नोंद जाल्लीं जीं देवळां आसात तांची कायद्या प्रमाणे दर देवळाची वेगळी अशी एक घटना वा बायलॉज वा नेमावळी वा कोंप्रोमिस आसात. अर्थात आयजूय बी तीच पद्धत आसा. खंयचेय संस्थेक ती रजिस्टर करची पडटा, आनी रजिस्टर जाल्ले संस्थेकच सरकार मानता, ग्रँट पास करतना वा कसलोय सरकारी आदार, अनुदान दिता. कसलेंय म्हत्व दितना ती ती संस्था ते खातीर सरकारान मानून घेतिल्ली आसूंक जाय अशें सांगतां.

अशा संस्थांचें स्वरूप मात खाजगी नासता. तथाकथीत खाजगी मालमत्तेभाशेन नासता. लोकशाय पद्धतीन खंयचेय ल्हान –व्हड संस्थेची बांदावळ जाता. आनी लोकशाय पद्धतीन ती चलता. वेंचणुको, समिती, वांगडी फंड नेमावळ कार्यावळ ह्यो सगळ्यो मर्यादा खंयचेय लोकशाय स्वरुपाचे संस्थेक आपसूक लागतात.

आतां जी खाजगी वा प्रायव्हेट बॉडी आसता ते खाजगी संस्थेक लोकशाय पद्धतीचें रूप आसताच अशें नासता. देशांतली मोटीं मोटीं उद्योगीक घरां हीं त्या त्या उद्योग समुहाच्या खाजगी नेमानुसार चलतात आनी थंय कोणाकय लोकशाय पद्धत आपणावन वचूंक मेळना. गोंयांतूय असल्यो उद्योगीक संस्थां आसात.

ह्या दोनूय कसाक लायल्यार गोंयांतले देवूळ हे संस्थेचें स्वरूप कशें आसा? खाजगी काय लोकशाय पद्धतीचें? लोकशाय पद्धतीचें जें जें कितें आसता ताका धर्मावयल्यान कसलेच कायदे, नेम, वा बंधनां सक्ती घालूंक वा करूंक मेळना. तें लोकशाय पद्धतीक धरून आसा अशें म्हणूंक जावचेंना.

भारताचें राज्यघटने खाला येवपी सगळ्या ल्हान व्हड संस्थांच्या घटनांचें प्रतिरूप हे भारताचे राज्य घटणेप्रमाणेच आसूंक जाय. भारताचे घटनेंत ह्या गणतंत्र देशांत खंयचेय संस्थेक वा खाजगी उद्योग समुहाक वा एकाद्रे व्यक्तीक वा समुहाक आपणावंक जाय तसले नेम करूंक मेळनांत, आनी देखून खंयचेय संस्थेक सरकारी मान्यताय जाय जाल्यार सरकार ते ते संस्थेची घटना पयलीं तपासून पळयता आनी ती सारकी आसल्यारूच ते घटनेक म्हणजेच ते संस्थेक रजिस्टर संस्था अशें म्हणटा.

अशी एकाद्री सरकार मान्य संस्था आपले घटनेंत वा नेमावळींत वा आपल्या कोंप्रोमिसांत अमूक तमूक जातीच्या, अमूक तमूक वर्गाच्या ब्राह्मणेतराक अशें

म्हणून नेम करूंक शकता व्हय?

आतां कोणूय अजापान विचारतीत किर्ते? अशें जातीवयर भेद करपी कायदे कानून नेम खरेपणीं खंयचेय संस्थेंन, खंयचेय व्यक्तीन वा खंयच्याय खाजगी व्यवस्थापनान आज केल्ले आसात व्हय?

व्यक्ती वा खाजगी संस्था म्हणटात तांचें बरें आसा. एक वेळ हो ते ते व्यक्तीचो, त्या त्या उद्योग समुहाचो नेम म्हणूं येता. तुका मान्य आसल्यार तूं थंय वच वा वचूं नाका, तुका तो आपय ना आनी तुजेकडेन मेतेरूय जायना. पूण जे सुवातेर कोणाकय यो-वचपाची मेकळीक दवरतात, जंय लोकशाय पद्धतीन कार्य चलता वा जंय सरकाराचें पुराय नियंत्रण आसता थंय कोणीय बामणेतर, शुद्र उणाक अती शुद्र अशी लिखीत स्वरुपांत बरोवन आपले संस्थेची घटना वा कोंप्रोमीस तयार करूंक शकता?

अशे तरेची खंयचेय संस्थेची घटना मुक्त गोंयांत सरकारी नोंदणेक पाविल्ली आसा; पूण अशे तरेची घटना वा कोंप्रोमीस एकाद्र्या देवस्थानांत लेखी स्वरुपांत कितलीं वर्सां तातूंत इल्लोय बदल करिनासतना तश्शा तशी आयजमेरेन सांबाळून दवरप आनी लोकशाय पद्धतीन चलपी हांगासल्ल्या सरकाराकय ह्या अन्यायाची खबर नासप हाचे सारकी नाकर्तेपणां दुसरीं खंयची आसत?

खंयच्याय देवळाचे नेमावळींत बामणेतरांनी गर्भघरांत वचून देवाची पुजा करपाक कायद्यान मनाय, खंयच्याय देवळाच्या चौकाभितर शुद्रांनी बसप ना अती शुद्रांनी चौकार बसप ना परधर्मियांनी सरवळी भितर सरून चौकार येवप ना. असले नेम लिखीत स्वरुपांत आशिल्ल्या गोंयच्या कांय देवळांचे कोंप्रोमीस आयजूय बदलिनासतना मोटो यरांस, मोटी मिरांस कशी कोणेंय महाजनांनी भांगरा पेटलांत आयजूय सांबाळून दवरल्या हें सांगल्यार कोणाकय आयज खरें दिसचेंना. पूण आमच्या दुर्दैवान ही गजाल फट न्हय, खरी आसा.

आमचे कांय म्हालगडे एकविसाव्या शतकांत म्हेळ्या मनान कशे वतले असो, साव जावन जाहीर प्रस्न करतात,आनी दुर्दैवाची गजाल म्हळ्यार जाणीं हे नेम आयजमेरेन मुक्त गोंयांत कसलोच फेरफार करिनासतना महापराक्रम करून दवरल्यात त्या कर्मठ आनी प्रतिगामी लब्धप्रतिष्ठितांचे मांडयेक मांडी लावन रात दीस बसतात. समाजीक आनी संप्रदायीक एकचारा खातीर दुकां गळोवपी आपल्या जातगड्यांमदीं सदांच वावुरतल्या ह्या बुदवंतांक मात तांच्या देवळांचो हे असले

कोंप्रोमीस दिसनात आनी तातूंत कुस्कुटाचोय बदल जावचो अशें ते केन्ना मागिल्ले दिसनांत. सगळें बदलचें, सगळें सुदारचें, सगळे कोंकणी मनीस एकठांय जावचे (भितरल्यान सगळें कोंकणे न्हय फकत आपल्या संप्रादायाचे ही गोड सुप्त भावना) हो एकचार, खंय आनी कसो जावचो? आपल्या ताब्यांत आशिल्लीं देवळां सोडून आपआपले मठ सोडून हेर सगळे कडेन कोंकणी समाजाचो एकवट? हेर सगळे कडेन मांडयेक मांडी लावन बसचें, फकत हांगेल्या देवळांनी, मठांनी मात त्या त्या संप्रदायाच्या लोकांनी, त्या त्या जातीच्याच लोकांनी एकठांय येवंचें, एक जावचें! हो अलिखीत लिखीत भायरभितर कोंत्रायिल्लो नेम! देवळांनी हो कोंत्रायिल्लो नेम आयजूय लागू आसा!'

आनी असलेच प्रतिग्रामी कर्मठ विचारसर्णींतल्यान भेद करपी कोंप्रोमीस वो बायलॉज घेवन आमी आतां एकविसाव्या शतकांत म्हेळें मन घेवन वचचे नांत जाल्यार कशे वतले?

आतां कोणाचीय उमळशीक नक्कीच वाडीक पाविल्ली आसतली. कोणूय म्हणटलो आरे, अशे जातीभेद सांगपी आनी जातीभेदाचेर आधारीत अशें खंयच्या खंयच्या देवळांनी कोंप्रोमीस आसात तर?

देवळां उत्ती करात? देवळां बंद खंय आसात तर? देवळांनी सगळ्या लोकांक यो-वच करूंक मेळटा, देवळां आमची खाजगी मालमत्ता, आमचीं देवळां बळकावंक सोदतात, आमच्या देवळांतले संपत्तीचेर नदर दवरून आतांच हीं देवळां खुलीं करात म्हणटात शे? देवळां आमच्या जाणटेल्यांची मिळकत, धन दौलत अशो जाहीर आड्ड्यो मारपी आनी ह्या तथाकथीत खाजगी देवळांचो फाजील बडवाचार बाळगितल्यांनी आतां परत सांगापाचो धीर करचो न्हय. कोण सांगता आमच्या देवळाच्या कोंप्रोमिसांनी जातीभेद आजून बरोवन दवरिल्लो आसा म्हण? कोण सांगता बामणेतरांक गर्भाघरांत प्रवेश वर्ज्य अशें बरयिल्लें कोंप्रोमिसांत आसा म्हण? कोण सांगता शुद्रांनी चौकाभितर वचचें न्हय आनी अतीशुद्रांनी चौकार वचचें न्हय म्हणून कोंप्रोमिसांत बरोवन दवरलां म्हण?

जांकां हे गजालीचें खरेंपण दिसना तांणीं मुद्दम गोंयांतल्या फामाद श्री मंगेश देवस्थानाचो कोप्रोमीस वो नेमावंळ वाचून पळोवंची. मंगेश देवस्थानाच्या कोंप्रोमिसांतलें क.न. ६५ वाचून मुक्त गोंयांतय अभिमान भोगचो अशें ह्या कलमात कितें बरयलां तें पळयात.

कं ६५: ब्राह्मणेतरांस गर्भघरांत हिंदूतरांस चौकावर आणी अती शुद्रास देवालयांत जाण्याची मनाई आहे.

सेवेकऱ्यांचो अपमान करपी ह्या कोंप्रोमिसांतलें आनीक एक लज्जास्पद कलम वो नेम पळयात क. ५७ सांगता.

देवळाच्या नोकर लोकांस पांयांत वहाणा बूट व खडावा घालून किंवा छत्री उगडून प्राकारांत हिंडण्याची मनाई आहे.

म्हणजे हांगा देवळाच्या प्राकाराचें पावित्र्य नितळसाण दवरपाक हो नेम आसा म्हणूंक जावचेंना. कारण प्राकारांत सेवेकरी हेरांक महाजनांक बी पांयांत बूट जोती घालून वचूंक मेळटा. छत्री फुलोवन वचूंक मेळटा. सेवकऱ्यांनी पावसांत लेगीत प्राकारांतल्यान भिजत वचपाचें. अनवाणी वचपाचें.

ह्या कोंप्रोमिसांत आनीक एक गजाल ठळकपणान स्पश्ट सांगल्या ती म्हळ्यार ह्या देवळांत फकत सारस्वतांच्याच स्वामीची बरी भिस्त दवरची. ह्या मठाधिशांक घटनेंतल्या नेमाप्रमाण येवकार दिवंचो. हेर हिंदू स्वाम्यांक न्हय. (हो घडये समाजीक भेद नासुये हो आमच्या अंतर्गत प्रस्न न्हय?)

अशे तरेचे अपमानास्पद भेदभाव दाखोवपी कितलेशेच नेम ह्या देवस्थानांच्या कॉंप्रोमिसांनी आयजूय राखून दवरल्यात. आनी गोंय मुक्त जावन लोकशाय राजवटींत पावल्तार बत्तीस वर्सां जालीं तरी हे भारतीय घटनेक आव्हान दिवपी गोंयच्या देवळांचो कोंप्रोमीस तशे आसात.

लजेची गजाल म्हळ्यार दर तीन वर्सांनी वेंचणूक घेवन लोकशाय पद्धतीन कोमिसांव घडोवपाची अट आशिल्ले हे संस्थान समितींत कितलेशेच महाजन फाटल्या कितल्याशा वर्सांत जावन गेले, पूण तांकां केन्नाच तांचें हें कोंप्रोमीस बदलपाची बुद्धी जालीना, दुरुस्ती करपाची बुद्ध आयलीना.

हे तथाकथीत खाजगी म्हाजनांनी कायद्यान कडक निर्बंध घाल्ले आसात. देवस्थान समितीच्या खंच्याय म्हत्वांच्या निर्णयाक मामलेदाराची मान्यताय जाय पडटा. आनीक एक अजाप दिसता तें म्हळ्यार सरकाराकय हे कोंप्रोमीस आनी तातुंतलीं हीं असलीं हळशीकावणीं कलमां दुरूस्त करचीं, बदलचीं म्हण कशी बुद्ध आयज मेरेन आयलीना?

आतां कोणूय विचारतींत मंगेश देवस्थानाच्या त्या नेमांक धरून मंगेशी आतां सेवक प्राकारांतल्यान छत्री पालोवन पावसांत भिजत वतात काय म्हण?

पांयांत बूटजोतीं घालिनासतना वतात काय म्हण? चौकार अतीशुद्राक मनाय आसा काय म्हण? मात हें विचारचेना ब्राह्मणेतरांत मंगेशाच्या गर्भाघरांत प्रवेश आसा काय म्हण, कारण ह्या कोंप्रोमिसांतलो हो नेम वो हें बंधन मात आयजूय आसा. हेर जो बदल जाल्लों आसा तो आपसूक लोकांकडच्यान जाल्लो आसा आनी हरीजनांक चौकार घेवपाक गोंयांतल्या कांय समाज सुधारकांनी ते खातीर कांय वर्साआदीं मंगेशीं निदर्शनां केल्लीं. तीं घडणूक विसरूंक जावचीना.

श्री मंगेश देवस्थानाच्या कोंप्रोमिसांप्रमाणें हेर देवळाच्यो कोंप्रोमिसां आसात. देखीखातीर हांवें हांगां फकत श्री मंगेश देवस्थानाच्याच कोंप्रोमिसांतलीं तीं आक्षेपार्ह कलमां ह्या लेखांत दिल्लीं आसात.

उसरां जायनां जसो महाजनी कायदो बदलूंक जाय तशेंच ह्या सगळ्या देवळांचें कोंप्रोमीस मुळासावन बदलूंक जाय. ह्या कोंप्रोमिसांप्रमाणें आयज जरी वयलेचाराक देवस्थानाचो कारभार चलना तरी खंयच्याय कारणाक लागून ह्या कोंप्रोमिसांचो आधार घेवं येता. कारण वादाखातीर आनी कायद्यांतल्या झगड्यां खातीर शेवटाक आमी येतात ते घटनेकडेन. घटना कितें सांगतां तें पळोवंया म्हणटात आनी घटनेक धरून वाद घालतात. तेचखातीर प्रत्येक देवळांचे समितीन काळांचीं पावलां वळखूंक कोंप्रोमिसांनी हीं जीं भेदाभेदाचीं अपमानास्पद हळशिकावणीं कलमां, तजविजो अशीं आनी बंदनां घालून लिखीत स्वरुपांत आयजूय मुक्त गोंयांत राखून दवरल्यांत तांतूत फावो तो बदल जावंक जाय.



# गोंयकारांनी आतां समर्पणाक तयार रावचें

**आ**उटसायडर्स आनी इनसायडर्स ह्या विशयाचेर आनी गोंयकार आनी बिगर गोंयकार असो तो सरळ वाद आसा. बरी गजाल म्हळ्यार गोंयकार आनी बिगर गोंयकार हाचेर एक वेगळ्याच थरांतले लोक आपआपलीं मतां उक्तेपणान मांडटात. आनी ह्या विशयावयल्या लोकां मताक बरी सुवात दिता. कसलोच बायस धरिनासतना ह्या असले तरेच्या प्रादेशीक मतान्तराक सुवात मेळटा.कांय जाणांचीं मतां खऱ्यांनीच विचार करपासारकीं.

एका बिगर गोंयकारान एका गोंयकाराच्या मताचेर हल्लो चडयतना कांय मुद्‌दे मांडल्यात. त्या मुद्यांनी म्हजें लक्ष ओडून घेतलें. तो म्हणटा की जे कोण गोंयकारांक भायले जाय ते वावराडी म्हण, मात भायले वयल्या आनी बऱ्या सुवातींचेर येवपाचो प्रयत्न करतात वो बऱ्या सीटाचेर कब्जो मेळयतात तेन्ना भायले भितल्लो मुद्दो उपस्थित करतात. देखीक, गोंय विद्यापीठांत जायते व्याख्याते आनी प्राध्यापक हे गोंयाभायले आसात. तांचे नेमणुकेचेर गोंयकार खूश ना. अशे तरेन गोंय सरकारान वेगवेगळ्या खात्यांनीय बिगर अधिकारी भरल्यात आनी तांणीं गोंयकारांक म्हळ्यार भूंयपुतांक गोंयांत बेकार केल्यात. ताचो फुडलो मुद्दो असो की गोंयकार बिगर गोंयकार वो भायले भितल्ले हो वाद फकत कांय सुशिक्षीत गोंयकारूच घालतात. हे गोंयकार आदीं वावराडी आसले, मानायपणां करताले वो आतांय करतात. भाजी-फळां विकतात, शेतकाम करतात, मेस्तकाम, गवंडे काम करतात. ते गोंयकार मात तांचोच वेवसाय हांगा गोंयांत येवन करतल्यांचेर कोंत्रसाण दाखयनांत. उलट वेळ पडल्यार तांचे बरोबर सरभरसून काम करतना दिश्टी पडटात.





देखीक नुस्त्याच्या बाजारांत गोंयांतल्या नुस्ते
घांटी नुस्तेकारांय नुस्तें विकतात, पूण तीं भायलीं नुस्ते
गोंयांतल्या प्रत्येक नुस्त्या मार्केटांत गोंयकार आनी बिगर गोंयकार नुस्तेकारांमदीं मोटट्यो लटाफटी जावपाच्यो आनी तांतूंत भायल्यांक हांगासल्ल्यान पळ काडचो पडपाचो. पूण तशें ना. आयज गोंयकार नुस्तेकारांचीं पाटीं माथ्यार मारपाक घांटी मानाय जाय, कारण नुस्त्याचीं पाटीं माथ्यार मारपी गोंयकार नांत. फकत बाजारांत बसून नुस्तें विकपी थोडींभोव नुस्तेकारां आसात आनी ही पिळगी वतकच फुडल्या वीस पंचवीस वर्सां उपरांत गोंयांतल्या नुस्त्या मार्केटांनी नुस्तेकार आसतले ते भायले आनी हाचें सर्वेक्षण करतकच अशें दिसून येता की आयजच गोंयांतल्या नुस्तेकारांनी अर्दे नुस्तेकार भायले आसात आनी ताणी तांचे वेगळे नुस्त्या बाजारूय तयार केल्यात. देखीक पणजे मांडवी पुला पोंदा नुस्तें विकपी सगळे भायले. आंद्र प्रदेश, तामीळनाडू, कर्नाटकांतले.

जी गत नुसत्या बाजाराची तीच गत भाजी मार्केटाची. मडगांवांत गांधी मार्केटांत भाजी विकपी कितले गोंयकार आसात? आतां भाजी विकपी भायले, भाजी हाडपी भायले. ह्या भायल्यांनी हो धंदो करपी खंयच्या गोंयकारांच्या पोटार पांय दिलो? तात्पर्य सगळो बाजार, धरून भाज्जेचो आनी नुस्त्याचो, गोंयकारांकडेन ना.

गोंयांतलीं बांदकामां घेयात. गोंयभर ज्यो नव्यो नव्यो इमारती, नवीं नवीं बांदकामां, नवे रस्ते, सांकव येतात त्या बांदकामांतले वावराडी कोण? कितले गोंयकार आयज बांदकामांनी प्रत्यक्ष आसात? म्हणटकच हांगा आमकां बेतो कालोवप्या पासून बेतो घालपा मेरनचो मनीस गोंभाभायलो जाय. आनी ते ना जाल्यार आमचीं घरां वयर सरपाचींच न्हय. आमचे भाशेंत सांगचें जाल्यार आयज गोंयांतल्या खांची कोनशांनी जे घांटी लोक भरल्यात ते सगळे आमची गरज कशी जाल्यात. हांव रावतां ते कॉलनींत घरांतलीं कामां करपी भौतेक वावराड्यो बेळगांव शाहापूरच्यो. एका तेंपार मोयरांचे लोक खंयच्याय हिंदूचे रांदचे कुडींत वावुरतना पळोवंक मेळनासले; पूण आतां नोकरी करपी जोडप्यांची मुस्लीम वावराडी तांचे खातीर जेवण लेगीत करून दवरता.

गोंयकार फामिलींत घांटी लोक अशे वता थंय रिगल्यात. तांची गरज वेवसायाची. आमची गरज आमचो वेवसाय करपाची. म्हणजे भायल्यो वावराडी

भायले नुस्तेकार, भायले हमाल, भायले मानांय, भायले फळविक्रेते नाशिल्ले जाल्यार हीं सगळीं कामां कोण करतले आसले? आमच्या सगल्या नगरपालिकांनी वचून पळेयात. रस्तो झाडपी, पांयखिळे निवळ करपी, रस्त्या वयलो कोयर भरपी हे सगळे भायले. हॉस्पीटलांनी साफसफाय करपी भायले.

हांगा ह्या चवथ्या दर्जाचें काम करपी भायल्या लोकांबद्दल आमकां तसो राग येता; पूण दुसरें ते आमची गरज जाल्यात. गोंयांत कांयकडेन शेतकामतीय बी भायलेच जाल्यात. फाल्यां गोंयांतलीं शेतां तांच्या हातांत गेल्यार अजाप जावचेंना. वता थंय ह्या लोकांचे चोब्यांनी चोंबे पळोवंक मेळटात. गोंयचे मदलें शार, फोंडें तर अशा भायल्या वावराडी लोकांनी गच्च भरलां. ताका लागून भलायकेचो प्रस्न उपरासला. हे लोक निवळ रावनांत. घडये गरिबीक आनी अशिक्षितपणाक लागून आसत पूण ह्या लोकांक लागून आतां गोंयकारांचेय भलायकेक धोको उत्पन्न जाल्लो आसा. मलेरियाचे चडशे पेशंट ह्या वर्गांतले. गोंयकार बिल्डरांकय ते लोक जाय आनी हेरांकय हे वावराडी हेर वावराक जाय.

अशे परिस्थितींत आमी गोंयकार आतां कितें करतले?

फकत गोंय विद्यापिठांत, सरकारी खात्यांनी, कारखान्यांनी सुशिक्षीत बिगर गोंयकार पंख्यासकयल्यो आनी ऑफिसांतल्यो चाकऱ्यो मेळयतात तांचोच भायले म्हण दुस्वास करतले आनी भायल्यांनी भितल्ल्यांक परके केले म्हण आलाट्यो मारतले?

म्हाका दिसता, आमी बिगर गोंयकार आनी गोंयकार ह्या प्रस्नाचेर खोलायेन अभ्यास करपाची गरज आसा कारण ह्या प्रस्नांत आमच्या अतित्वाचो व्हडलो प्रस्न घुस्पला. तातूंत आमची कोंकणी भास आसा, आमचें अशें गोंयकारांचें खाशेलेंपण आसा, जाका आमी गोंयकारांची अस्मिता बी म्हणटात.

मुखेल प्रस्न आसा तो असो आमी जो कायदो करूंक शकतात काय कितें? काश्मीरांत काश्मीरा भायल्यांक थंय उद्देग धंदे करपाक घालतले म्हणटात की आमकां भारतीय राज्य घटनेन भारतांत खंयूय रावपाचो अधिकार दिल्लो आसा. म्हणटकच गोंयकार भायल्यांक हिणसायता असो तांचो प्रस्न न्हय. एका पत्र लेखकान अशेंय बरयलां सगळे गोंयकार गोंयांतच रावतात? ते भारतांत हेर राज्यांनी नांत? मुंबयंत रावतात ते गोंयकार, दिल्लींत रावतात ते गोंयकार तांकां थंय भायले म्हळ्यार कितें दिसतलें? गोंयकार संख्येन साप्प थोडे आसात म्हणून

ते हेर कडेन तितल्याच प्रमाणांत थोडे आसात, देखीक केरळी लोक, उत्तर प्रदेशी लोक जे संख्येन चड आसात म्हणून तितल्याच प्रमाणांत ते हेर प्रांतांनीय चड आसात.

आनीक एक मुद्दो गोंयांतले भायले लोक मांडटात. ते म्हणटात गोंय स्वतंत्र जायनाफुडें गोंयकारांक कितें कळटालें?

शाळांनी मास्तर नासले, ते सगळे मास्तर गोंयांभायले घेतले आनी बिएड डीएड करून बेकारूय जाल्यात. हे बेकार प्रशिक्षीत गोंयकार शिक्षक भायल्यांनीच शिकयले म्हण इतले जाले न्हय? जशे तेन्ना शिक्षक गोंयकार नासले तशे गोंयांत विजखात्या खातीर अभियंते नासले. भौशीक बांदकामा खातीर इंजनेर नासले, सरकारी नोकरेंत अधिकारी नासले. अशा वेळार गोंयकारांक भायल्यांनी शाळा शिकयली, गोंयचे रस्ते, पूल, सांकव बांदले. राज्यकारभार पळेलो आनी आतां मात तुमकां भायले मास्तर नाकात, भायले इजनेर नाकात, भायले प्रोफेसर नाकात भायले सरकारी अधिकारी नाकात?

आमकां गोंयकारांक भंय आसा तो आमच्या अस्तित्वाचो. आमचेर राजकी शेक लेगीत भायले गोंयकार चलयतात. आयज दर एका मतदारसंघांत ह्या लोकांच्या मतांचेर आमच्या उमेदवारांचो विजय अवलंबून आसा. म्हणचे भायले डिसायडींग फॅक्टर जाल्यार ते फाल्यां विनींग फॅक्टर जाल्या बगर रावत? आमचे सद्याचे राजकारणी निर्धास्त आसा. कारण अजूनमेरेन तांचो प्रतिस्पधी भायलो उमेदवार जावंना. देखून मडगांवांत भायल्या लोकांक बाबू शाबू लावन निवळ करता तर मडगांवां भायर लुईजिन्य फालेर पोशेता. तांकां हाउसींग बोर्डाचीं घरां दिवपाक फुडें आसा. आयज सगळो हाऊसींग बोर्ड गोंयकारांचो काय भायल्यांचो तो मडगांवां वचून पळोवपासारको आसा. अशी गत सगल्याक आसा. आमच्या राजकारण्यांनी वता थंय ह्या लोकांच्या वोट बँकांक सारें उदक घालां. आनी सद्याक ती वोटबँक तांची आसा; फाल्यां तीच वोटबँक गोंयकार उमेदवाराक घरा बसयतली आनी कालांतरान हांगा गोंयांत गोंयकार अल्पसंख्यांक जातलो हें सत आतां लिपून उरूक ना.

अशा वेळार आमचेसारके भोव थोडे गोंयकार, गोंयकारांच्या अस्तित्वाचो, कोंकणी भाशेचो आनी अस्मितेचो प्रस्न घेवन शेंपडी बडयतात; तांका अर्थ आसा काय सगळें निरर्थक?

कारण हो प्रस्न आजून कोणेंच गांभिर्यान घेवना. आमचे राजकारणी तर ऊठसूट ग्लोबलायजेशनच उलयतात. संवसार ल्हान जाता; त्या ल्हान संवसारांत तुमची अस्मिताय बिस्मीताय कांय एक उरची ना अशें म्हणटात!

तांचें बरें आसा. पूण नीज गोंयकारांचें कितें? मूळ गोंयकारांचे कितें? आमी कितें तें थारावपाक थोडोच वेळ आसा. आमकां खंयचो धागो गोंयकार म्हण ह्या देशांत एकठांय दवरतलो? आमकां खंयचें सूत्र आनी कसलें अधिश्ठान कोंकणी मनीस म्हण रावपाची धिटाय दितलें?

आमच्या हातांत कांयच ना, येते परिस्थीतीकडेन जुळोवन घेवपाचें आनी कोंकणी भाशा, गोंयकारपण गोंयची अस्मिताय हांकांय कांयच अर्थ ना जाल्यार आमच्या पिशेपणांकय कसलोच अर्थना. आतां आमी आमच्या अस्तित्वाच्या सर्वनाशाची वाट पळोवया आनी ताका येवकार दिवया. आनी हे भुंयेवयलो कोंकणी इतिहास विलीन करूंया! केन्ना तरी दोनशें वर्सानी येतले पिळगेक वाचूंक मेळुंदी कोंकणी प्रांतांत गोंय म्हण दर्यादिगेवयलो प्रदेश आसलो तेन्ना थंयच्या लोकांची भाशा, संस्कृती, अस्मिता कोंकणी आसली आनी ते कोंकणी म्हण एक प्राकृत भास उलयताले!





## एन. शिवदास हांचे प्रकाशीत साहित्य

- **प्रिसांट** - 1974 नाटक
- **फोरेन जावंय** - 1980 - नाटक
- **बंड** - 1985 - नाटक
- **गळसरी** - कथासंग्रह
- **बाबू** - बाल कांदबरी
- **झरो जालो महासागर** - बाल साहित्य
- **महारूख** - कथासंग्रह
- **भांगर साळ** - कथासंग्रह
  (साहित्य अकादेमी पुरस्कार 2005)
  **देवळां उत्की करात** -
  सामाजिक चळवळीवयलें पुस्तक
- **देवळे खुली करा** - (मराठी)
- **भगदाड** - कादंबरी - मराठी
  (महाराष्टाचो प्रतिष्ठेचो तुकां म्हणे हो साहित्य पुरस्कार प्राप्त)
- **गोड गोड काणी शाली जाले राणी** - नाटक